# पांच दसकां
# कोंकणी कवितेचीं

संपादक
माधव बोरकार




कोंकणी भाशा मंडळ

# सुरवेचीं उतरां

2011 हें गोंय मुक्तीचें भांगरा वर्स. 19 डिसेंबर 1961 ही तारीख गोंयच्या इतिहासाक वेगळें मोडण दिवपी. साडेचारशें वर्सां परकी सत्तेच्या चेपणा खाला आशिल्ले हे भुंयेन सगळ्या अर्थान मेकळो स्वास घेतलो. गोंयची समाजीक आनी राजकी जीण आरती परती जाली. तेच प्रमाण भास आनी साहित्य ह्या मळांचेरय व्हड क्रांती जाली. गोंयकार कोंकणी भाशेंत बरोवपाक लागले. पयलीं हाताच्या बोटार मेजपा इतलेच कवी लेखक आशिल्ले. आयज दिशीं दिशीं तातूंत भर पडत आसा. आपल्याच लोकांनी उवेखणी केल्ले हे भाशेक साहित्य अकादेमी आनी मुखार भारतीय संविधानाची मान्यताय मेळ्ळी. हाचो योग्य परिणाम कोंकणी साहित्याचे निर्मणीचेर जालो हें सत आसा. समाजाच्या सगळ्या पांवड्या वयले लोक आपले अणभव साहित्याच्या वेगवेगळ्या प्रकारांतल्यान व्यक्त करपाक लागले. तातूंत कविता तांकां चड लागींची दिसली. कवितेचो घसघसोच आयलो अशें म्हणूं येता. इतिहासाच्या कारणांक लागून कोंकणी लोक गोंया भायर फाफसले. आनी कर्नाटक, केरळ सारकिल्या राज्यांनी रावन तांणी साहित्याची निर्मणी केली. पूण कोंकणीचें मूळपीठ गोंय मुक्त जावन कोंकणीचें मुळावण घट जालें ताचो परिणाम तांच्या साहित्याचेर जाल्लो दिसता.

कांय म्हयन्यां आदीं साहित्य अकादेमी खातीर कोंकणी कवितेचें एक संकलन संपादीत करतालों. ह्या संकलनांतल्यो कविता हेर भारतीय भाशांनी अणकारीत जावपाच्यो आसात. देखून कविता वेंचून काडटना अणकाराची शक्यताय लक्षांत घेवची पडली.

ताका लागून खूब बऱ्यो कविता कडेक दवरच्यो पडल्यो. ते भायर देडशे पानांची शीम ताका आशिल्ली. ह्या संकलनाक ती मर्यादा नाशिल्ल्यान हात सदळ सोडपाक मेळ्ळा. त्या संकलनाक हांवें कोंकणी कवितेचो नियाळ करपी प्रस्तावना बरयल्या.

कोंकणी कवितेचो विचार केल्यार फाटल्या पन्नास वर्सांत दर धा ते पंदरा वर्सांत कवींची नवी पिळगी मुखार आयिल्ली दिसता. पिळगे पिळगे प्रमाण कवितेचो आशय आनी भास हातूंत जाल्लो बदल लक्षांत येता. ह्या सगळ्यांची नोंद घेवपाचो यत्न ह्या संकलनांत केला. बाकीबाब ते लेविन रॉड्रिग्स असो हो कोंकणी कवितेचो प्रवास. बयाभाव हांच्यो कविता गोंयमुक्ती पयलींच्यो. त्या उपरांतच्यो तांच्यो कविता मेळनात. ताका लागून तांच्यो कविता हांगा आसपावंक नात. ते भायर आनिकूय कांय कवी ह्या संकलनाच्या भायर उरल्या आसत. सगळ्यांचोच आसपाव करप शक्य जायना. आनी हें उणेंपण संपादक म्हूण म्हजे मर्यादांचें.

'पांच दसकां कोंकणी कवितेचीं' वरवीं कोंकणी कवितेचो आयज मेरेन जाल्लो प्रवास कवितेच्या मोग्यांक आनी अभ्यासकांक कळचो असो यत्न हांगा केल्लो आसा. तो फळादीक जाला अशें मानतां. तेच प्रमाण ह्या संकलनाचें संपादन करपाची संद म्हाका दिली हे खातीर हांव कोंकणी भाशा मंडळाच्या जाळवणदारांचो उपकारी आसां.

**- माधव बोरकार**

# व ळ ख

## बाकीबाब बोरकार

कोंकणी आनी मराठी कवी. कोंकणींत तांचे 'पांयजणां' आनी 'सासाय' हे दोन कविता संग्रह आसात. ते भायर खलिल गिब्रान हाच्या 'द प्रोफेट' ह्या पुस्तकाचो 'पैगंबर' आनी 'भगवान बुद्ध' ह्या आचार्य धर्मानंद कोसंबी हाच्या पुस्तकाचो अणकार उजवाडा आयल्यात. 'गिताय' आनी 'गीता-प्रवचनां' हे तांणी केल्ले कांय म्हत्वाचे अणकार आसात. हालींच तांची अप्रकाशीत कोंकणी बरपावळ, संग्रहाच्या रुपान उजवाडा आयल्या. तांकां साहित्य अकादेमी पुरस्कार तेच प्रमाण 'पद्मश्री' हो भोवमान मेळ्ळा.

## दिनकर देसाय

द्विभाशीक कवी. कोंकणी बराबर तांणी कन्नड भाशेंत म्हत्वाच्यो कविता बरयल्यो. 'दिनकरालीं कवनां' हो तांचो कविता संग्रह आसा.

## र. वि. पंडित

हे कोंकणींतले एक यूग निर्माण करपी कवी. 26 जानेवारी 1963 ह्या दिसा एकाच बराबर पांच कविता संग्रह उजवाडा हाडून इतिहास रचलो. 'ल्हारां' आनी 'दर्या गाजोता' हे तांचे म्हत्वाचे कविता संग्रह आसात. तांच्या कवितांचे इंग्लीश, कन्नड भाशांनी अणकार जावन ते पुस्तक रुपान उजवाडा आयल्यात. ते भायर तांच्यो कविता पुर्तुगेज, फ्रँच आनी जायत्या भारतीय भासांनी अणकाराच्या रुपान पावल्यात. लोकसाहित्याचोय तांणी खोल अभ्यास केल्लो. ते एक नामनेचे फोटोग्राफर आशिल्ले. तांकां राष्ट्रीय आनी आंतरराश्ट्रीय पुरस्कार फावो जाल्यात, तातूंत गोंय कला अकादेमी, साहित्य अकादेमी हांचो आसपाव आसा. भारत सरकारान तांकां 'पद्मश्री' हो किताब दिवन तांचे साहित्य सेवेचो भोवमान केला.

## शंकर रामाणी

हे कोंकणी आनी मराठी कवी. तांचे कोंकणी कवितांचे चार कविता संग्रह उजवाडा आयल्यात. तांच्या 'निळें निळें ब्रह्म' ह्या कविता संग्रहाक साहित्य अकादेमीचें इनाम मेळ्ळां. म्हत्वाचो मराठी कवी म्हूण तांकां समिक्षक मानतात.

## अभिजित

वामन बाळकृष्ण प्रतापराव सरदेसाय हांचें अभिजित हें कविनांव. तांचो 'अभिजित' हो कविता संग्रह तांच्या मरणा उपरांत उजवाडा आयलो. गोंयचे मुक्ती चळवळींत तांणी वांटो घेतलो आनी गोंय मेकळें जाले उपरांत तांणी सरकारी सेवेंत आसतना वेगवेगळ्या पदांचेर काम केलें. स्वतंत्र आंगोलाचे ते पयले भारतीय राजदूत आशिल्ले. भारत सरकारान तांकां 'पद्मश्री' हो किताब दिवन तांचो भोवमान केला.

## पांडुरंग भांगी

कवी अणकारपी, कोशकार. 'दिश्टावो', 'अद्रुश्टाचे कळे', 'चांफेल्ली सांज' हे तांचे तीन म्हत्वाचे कविता संग्रह. 'कोंकणी शब्दसागर' हे कोशाचे दोन खंड हो तांचो वावर तांचें कोंकणी भाशेक दिल्लें मोलादीक योगदान आसा. हे भायर 'सोफोक्लिस', रवीन्द्रनाथ टागोर आनी ऑस्कर वायल्ड हांच्या साहित्याचो तांणी कोंकणींत अणकार केला. 'चांफेल्ली सांज' ह्या तांच्या कविता संग्रहाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला.

## नागेश करमली

मुक्तछंदाचो आगळो आविश्कार करपी कोंकणी कवी. 'जोरगत', 'सांवार', 'वंशकुळाचें देणें', 'थांग-अथांग' हे तांचे म्हत्वाचे कविता संग्रह. कविते बराबर तांणी मोलादीक गद्य बरयलां. साहित्य, राजकारण, समाजकारण हे तांच्या बरपावळीचे विशय. ते भायर तांणी गोंयचे मुक्ती चळवळींत वांटो घेवन बंदखण भोगल्या. तांकां कला अकादेमीचो पुरस्कार लाबला आनी 'वंशकुळाचें देणें' ह्या कविता संग्रहाक साहित्य अकादेमीचो भोवमान फावो जाला.

## चा. फ्रा. द कोश्ता

कोंकणींतले एक म्हत्वाचे कवी. कविते बराबर तांणी हेर गद्य साहित्य बरयलां. 'सोंशाचे कान' हो तांचो कविता संग्रह कोंकणी कवितेच्या इतिहासांतलो वाटचिरो आसा. तांकां साहित्य अकादेमीचो भोवमान लाबला. तांणी कांय नाटकांय बरोवन तीं माचयेर खेळयलीं.

## मनोहरराय सरदेसाय

विसाव्या शतमानाच्या कोंकणी कवितेचें मुळावण घालपी कवी. 'गोंया तुज्या मोगा खातीर' हो तांचो म्हत्वाचो कविता संग्रह 1961 वर्सा उजवाडा आयलो. ते उपरांत 'जायात जागे', 'जायो जुयो', 'पिसोळीं', 'अठरा जून' हे तांचे म्हत्वाचे कविता संग्रह उजवाडा आयले. शिक्षणीक मळार तांणी दोळ्यांत भरपा सारकें येस जोडलें आनी फ्रान्सांतल्या सोरबॉन विद्यापीठाची डॉक्टरेट मेळयली. कितल्योश्योच भारतीय आनी युरोपियन भासो तांकां बेस बऱ्यो येताल्यो. तांच्या 'पिसोळीं' ह्या कविता संग्रहा खातीर तांकां साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जालो. तेच भशेन तांकां फ्रेंच सरकाराचोय भोवमान फावो जालो.

## जे. बि. मोरायश

कवी आनी गद्यकार. तांच्या 'भितल्लें तुफान' ह्या कविता संग्रहाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला. कविते वांगडाच तांणी ललित लेखन केलां.

## जे. बि. सिक्वेरा

कवी आनी म्हणींचो कोशकार. 'एक सपन अदुरें' हो तांचो म्हत्वाचो कविता संग्रह. तांकां साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जालो. तांणी केल्लो कोंकणी म्हणी आनी वाक्यप्रचारांचो कोश हें तांचें कोंकणी साहित्य आनी भास हांकां म्हत्वाचें योगदान आसा.

## उदय भेंब्रे

कवी, गीतकार अशी तांची वळख आसा. हे भायर तांणी वैचारीक गद्य बरयलां. 'कर्णपर्व' हें तांचें नाटक माचयेर आयलां. 'चान्याचे राती' हो तांचो कविता संग्रह. वेवसायान वकील आनी कांय काळ गोंय विधानसभेचे ते आमदार आशिल्ले. 'सुनापरान्त' दिसाळ्याचे संपादक म्हूण तांणी काम केलां.

## हरदत्त खांडेपारकार

कवी आनी गीतकार. तांचो 'गितोत्सव' हो संग्रह उजवाडा आयला.

## जेस फॅर्नांदीश

कवी, कथाकार आनी कादंबरीकार. 'रेंदेर' हें गोंयच्या समाजजिणेचेर उजवाड घालपी एक म्हत्वाचें पुस्तक बरोवन तांणी उजवाडा हाडलां. 'किंरवट' ह्या तांच्या कविता संग्रहाक गोंय कला अकादमी आनी साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला.

## विजयाबाय सरमळकार

गोंय मुक्ती उपरांत उदयाक आयिल्ल्यो म्हत्वाच्यो कवियत्री. तांचो 'गोठलां' आनी हेर कवितां झेले प्रसिद्ध आसात.

## शंकर भांडारी

'गोमटें गोंय गायता' हो तांचो एकूच कविता संग्रह आसा. ते भायर 'पावलाकणकणी' हो ललित गद्याचो संग्रह तांच्या नांवार आसा. कांय काळ शिक्षक म्हूण वावर करून ते आकाशवाणी पणजेचे सेवेंत संपादक ह्या पदार वावुरले.

## रमेश भगवंत वेळुस्कार

कोंकणींतले एक म्हत्वाचे कवी. 'मोरपाखां', 'सात्तुलगोरी', 'आंगणी नाचता मोर मोरया', 'तनरज्योती', 'हिरण्यगर्भ' हे तांचे कांय म्हत्वाचे कविता संग्रह. कविते बराबरूच तांणी धर्मविरभारती, योगी अरवींद, भाम हांचे साहित्यकृतींचे

कोंकणी अणकार केल्यात. हिंदी आनी मराठी भासोय तांणी आपल्या सर्जनशील बरपा खातीर आपणायल्यात. भुरग्यां खातीर तांणी कवितांची निर्मणी केल्या. तांकां मेळिल्ल्या हेर म्हत्वाच्या पुरस्कारां मदीं साहित्य अकादेमीच्या पुरस्कारचो आसपाव आसा.

## प्रकाश पाडगांवकार

गोंय मुक्ती उपरांत उदेव जाल्ले पिळगेंतलो म्हत्वाचो कवी. 'उजवाडाचीं पावलां', 'वास्कोयन', 'हांव मनीस अश्वत्थामो', 'व्हांवती न्हंय काळाची' हे तांचे कांय म्हत्वाचे कविता संग्रह. ते भायर तांणी माळेच्या रुपान कांय कविता बरयल्यात. तांकां मेळिल्ल्या भोवमानांत साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार आसा. गोंय सरकारान तांकां राज्य पुरस्कार दिवन तांचो गौरव केला.

## शंकर परुळकार

कोंकणींतलो एक म्हालगडो कवी. अस्तित्ववादी जाणिवो केळोवपी कवी. तांच्यो कविता कोंकणींतल्या म्हत्वाच्या नेमाळ्यांनी शिंपडून आसात.

## भिकाजी घाणेकार

वेवसायान दोतोर. फाटलीं चार दसकां ते कविता बरयतात. तांणी गितकार म्हूण नामना जोडल्या.

## पुंडलीक नारायण नायक

आपल्या बरपाक तांणी कवी म्हूण सुरवात केली. 'गा आमी राखणे' हो तांचो एकूच कविता संग्रह म्हत्वाचो आसा. कथा, कादंबरीकार, नाटककार हाचे बराबर कवी म्हूण तांकां कोंकणी कवितेच्या मळार म्हत्वाची सुवात आसा. तांकां साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार तांच्या 'चौरंग' ह्या एकांकी संग्रहा खातीर फावो जाला.

## प्रकाश गंगाराम थळी

निबंदकार, अणकारपी आनी कवी. तांणी कांय सुंदर गितां रचल्यांत. तांच्यो कविता

संग्रहाच्या रुपान अजून येवंक नात. 'संस्कार' ह्या यू. आर. अनंतमूर्तींचे कादंबरेच्या कोंकणी अणकारा खातीर तांकां साहित्य अकादेमीचो अणकार पुरस्कार मेळ्ळा. तांणी कोंकणी कथा आनी कवितांचे इंग्लीश अणकार केल्यात.

## मनोराय नायक

कोंकणींतलो एक म्हत्वाचो कवी. 'कल्पफूल' हो कविता संग्रह उजवाडा आयला.

## तुकाराम रामा शेट

कथाकार, कादंबरीकार, निबंदकार आनी कवी. 'मन-मळब' हो तांचो कविता संग्रह आशय आनी अभिव्यक्तीचें वेगळेंपण घेवन आयिल्लो. तांच्या कथा आनी 'पाखलो' हे कादंबरीचे अणकार हेर भारतीय भासांनी जाल्यात.

## प्रकाश दत्ताराम नायक

संगिताची लय घेवन आयिल्ली कविता. तिका सैमाचो सांगात आसा. आयज मेरेन तांचे दोन कविता संग्रह उजवाडा आयल्यात. 'चैतर' आनी 'कस्तुरगंध'.

## अरुण साखरदांडे

म्हत्वाचो कोंकणी कवी. प्रयोगशीलताय हें तांचे कवितेचें खाशेलेपण. 'एका झाडाक घर जाय', 'कावळ्याचें स्राद्ध' आनी 'मोगकिनारी' हे तांचे कविता संग्रह. तांच्या 'कावळ्याचें स्राद्ध' ह्या कविता संग्रहाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला. कविते बराबर ते कथाय बरयतात.

## निलबा खांडेकार

फाटल्या शेंकड्याच्या आठव्या दसकांत मुखार आयिल्लो कवी. तांचे 'अग्नी', 'ब्लॅक' हे म्हत्वाचे कविता संग्रह. कविते इतलेंच आपउक्तावण करपी गद्य तांणी बरयलां. तांकां गोंय कला अकादमीचो पुरस्कार लाबला.

## भरत नायक

कविता आनी एकांकिका बरयल्यात. ताचें वेगळेपण दाखोवपी कविता संग्रह म्हणल्यार 'मना-मना'.

## संजिव वेरेंकार

फाटलीं तीन दसकां कविता बरयतात. वेवसायान पत्रकार आशिल्ल्या वेरेंकारान 'भावझुंबर', 'मुंबर', 'गांवांतली सांज' आनी 'चैतन्याच्यो पावल्यो' हे कविता संग्रह उजवाडा हाडल्यात. ते भायर तांणी कांय म्हत्वाच्यो इनामां जोडिल्ल्यो एकांकिका आनी श्रुतिका बरयल्यात. तांचे वेंचीक कवितांचे इंग्लीश अणकार 'द विलेज इव्हनिंग' ह्या नांवान उजवाडा आयल्यात.

## गजानन रायकार

म्हत्वाचो कोंकणी आनी मराठी कवी. 'सुंवारी' आनी 'बनवड' हे दोन कविता संग्रह उजवाडा आयल्यात.

## सखाराम गोविंद शेणवी बोरकार

कविते बराबर तांणी मोलादीक निबंद लेखन केलां. 'तूं' हो तांचो कविता संग्रह उजवाडा आयला.

## नूतन साखरदांडे

कोंकणींतली म्हत्वाची कवियत्री. तांचे 'जीण जाली कस्तुरी' आनी 'पासवर्ड' हे दोन कविता संग्रह उजवाडा अयल्यात. आकाशवाणीच्या अखिल भारतीय सर्वभाशा कवि संमेलनांत तांणी कोंकणी कविता वाचल्यात. तांच्या कवितांचे इंग्लीश, हिंदी भासांनी अणकार जाल्यात.

## नयना आडारकार

फाटल्या शतमानाच्या आठव्या दसकांत मुखार आयिल्लें कोंकणी कवींचे पिळगेंतलें

म्हत्वाचें नांव. 'प्रतिमा' आनी 'मन-सांवर' हे दोन कविता संग्रह आनी एक कथा संग्रह तांच्या नांवार आसा. आकाशवाणीच्या वर्सुकी अखिल भारतीय सर्वभाशा कवीसंमेलनांत कोंकणी कविता वाचपाचो भोवमान तांकां मेळ्ळा. तांची 'फ्लॅट' ही कविता सगळ्या भारतीय भासांनी अणकारी जाल्या.

## माया अनिल खरंगटे

कवयित्री आनी कथाकार. तांचो 'कयपंजी' हो कविता संग्रह उजवाडा आयला. कविते इतल्योच कांय म्हत्वाच्यो कथा तांणी बरयल्यात. तांच्या कथासंग्रहाक कोंकणी भाशा मंडळाचो पुरस्कार मेळ्ळा.

## निला तेलंग

कमीत कमी उतरांनी व्हड आशयाक वेंगेंत घेवपी कविता तांणी बरयल्यात. तांचो एक कविता संग्रह उजवाडा आयला.

## ग्वादालूप डायस

ह्या शतमानाच्या पयल्या दसकांत मुखार आयिल्ले पिळगेंतली म्हत्वाची कवियत्री. आयज मेरेन तांचे तीन कविता संग्रह उजवाडा आयल्यात. 'भूंयफोड', 'मळबगंगा' आनी 'जलस्थल' हीं तांचीं नांवां. तांकां गोवा कोंकणी अकादेमीचो पुरस्कार फावो जाला. आकाशवाणीच्या अखिल भारतीय सर्वभाशा कवी संमेलनांत तांची कविता वेंचून येवन तिचो अणकार सगल्या भारतीय भासांनी जाला.

## रुपा कोसंबी

नवे पिळगेंतली कवियत्री. तांचो 'उमळ' हो कविता संग्रह प्रसिद्ध आसा. कविते बराबर तांणी गद्य बरपूय केलां.

## शोभा शिवा फुलकार

तांचो 'शुभत्कार' हो कविता संग्रह उजवाडा आयला.

## सोनिया सुभाष शाह

कोंकणी बराबर मराठींत कविता बरयतात. एक कविता संग्रह उजवाडा आयला.

## शाबा कुडतरकार

तांकीवंत कवी म्हूण मुखार येतना अपघाती मरणान तांचेर घालो घालो. तांच्या कवितांचो झेलो तांच्या मरणा उपरांत उजवाडा आयलो.

## संहिता कुलकर्णी

नवे पिळगेंतली कवियत्री. तांचो एक कविता संग्रह उजवाडा आयला. अल्पाक्षरित्व हो तांचे कवितेचो मुखेल गूण.

## योगिनी आचार्य

'मातयेंतले गंध' हो एक कविता संग्रह तांच्या नांवार आसा. तांणी कथा आनी हेर विशयांचेर गद्य बरप केलां.

## सुरेश जयवंत बोरकार

आध्यात्मीक सूर आशिल्ली कविता तांणी बरयल्या. 'वज्रथिकां' हो तांचो म्हत्वाचो कविता संग्रह. कोंकणी भाशेची व्याकरणीक बांदावळ ह्या विशयाचेर तांचो खाशेलो अभ्यास आसा आनी तांणी बरयिल्लें 'कोंकणी व्याकरण' ताची गवाय दिता. कोंकणी शब्दकोशाकूय तांचें मोलाचें योगदान आसा.

## दिलीप बोरकार

कवी, कथाकार, नाटककार ह्या नात्यान तांणी खूब साहित्य निर्मणी केल्या. ते भायर ते 'बिंब' हें म्हयनाळें चलयतात. आनी 'बिंब प्रकाशन' ही प्रकाशन संस्था आसा. 'गोमांचल ते हिमांचल' ह्या तांच्या प्रवासवर्णनाक साहित्य अकादेमीची तस्रीप मेळ्ळ्या.

## आर. एस. भास्कर

कोचिनचे कवी. ताचो 'अक्षरां' हो म्हत्वाचो कविता संग्रह. तांच्या कवितांचो हिंदी अणकार पुस्तक रुपान उजवाडा आयला.

## शरत्‌चंद्र शणै

केरळांत रावन कोंकणी साहित्याक योगदान दिवपी कवी. तांच्या 'आत्मयन' ह्या कविता संग्रहाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला.

## अशोक शिलकार

दोन कविता संग्रह उजवाडा आयल्यात. तातूंतलो 'सांजदीप' हो म्हत्वाचो संग्रह. तांणी कांय कथाय बरयल्यात.

## डॉ. सु. म. तडकोडकार

कोंकणी आनी मराठी कवी. कोंकणींत तांचे दोन कविता संग्रह प्रसिद्ध आसात. ते भायर तांणी कोंकणींत सिद्धांतीक साहित्य समिक्षा बरयल्या. सध्या ते गोंय विद्यापीठांत मराठी विभागाचे मुखेल आसात.

## डॉ. बाळकृष्ण कानोळकार

म्हत्वाचे कोंकणी आनी मराठी कवी. कविते बराबर तांणी समिक्षा बरयल्यात. 'आदीमायेचे उले' हो तांचो कविता संग्रह आसा.

## सुदेश शरद लोटलीकार

कोंकणी आनी मराठी कवी. 'पैस' आनी 'एकांताचीं उतरां' हे तांचे कोंकणी कविता संग्रह. तांचे कवितेक गोंय आनी महाराष्ट्रांतल्या नामनेच्या संस्थांचीं इनामां मेळ्ळ्यांत. गोवा कला अकादेमीन तांकां इनाम दिवन तांचो भोवमान केला.

## नरेंद्र बोडके

म्हत्वाचे कोंकणी आनी मराठी कवी आनी समिक्षक. हालींच तांचो 'अनार्य' हो कोंकणी कविता संग्रह उजवाडा आयला. तांकां गोवा कला अकादमी आनी महाराष्ट्र सरकाराचे साहित्यीक पुरस्कार मेळ्ळ्यात.

## परेश नरेंद्र कामत

फाटल्या शतमानाच्या निमाण्या दसकांतले पिळगेंतलो म्हत्वाचो कवी. 'अळंग', 'गर्भखोल', 'शुभंकर' हे तांचे म्हत्वाचे कविता संग्रह. तांकां गोवा कला अकादमीचो पुरस्कार फावो जाला. तांच्यो कांय कविता इंग्लीश भाशेंत अणकारीत जाल्यात.

## मनोज नरेंद्र कामत

तांचो 'तांबशी' हो कविता संग्रह प्रसिद्ध आसा.

## युसूफ अ. शेख

'गांठी' आनी 'रंगघाय' हे दोन कविता संग्रह उजवाडा आयल्यात. दूरदर्शन केंद्र शिल्लाँगचे केंद्र संचालक म्हूण वावुरल्यात.

## अशोक भोंसलो

कवी आनी कथाकार. तांची 'सूरवन' आनी 'खुंटावणी' अनुक्रमान कविता संग्रह आनी कथासंग्रह हीं पुस्तकां कोंकणी साहित्याक तांचें म्हत्वाचें योगदान आसा.

## भालचंद्र गांवकार

कवी, कथाकार आनी समिक्षक. तांचे 'आडवणांतले उले', 'यादींचे देगेर' आनी 'थाव' हे कविता संग्रह आसात.

## मॉव्रिस दसा

हो मंगळूर वाठारांतलो म्हत्वाचो कोंकणी कवी. 'भिंगारी' हो तांचो म्हत्वाचो

कविता संग्रह आसा. कोंकणी नेमाळ्यांच्या संपादनांत वावुरता.

## प्रसाद लोलयेंकार

'मुळां' हो कविता संग्रह प्रसिद्ध आसा. सध्या गोंय सरकाराचे सेवेंत कला आनी संस्कृती खात्याचे संचालक पदार वावुरतात.

## दुर्गादास दत्ता गावडे

नवे पिळगेंतलो म्हत्वाचो कवी म्हूण मुखार येतना ताका दुखेस्त मरण आयलें. ताणें कांय कथाय बरयिल्ल्यो.

## अरुणा राव

ह्यो मुंबय राबितो करून आशिल्ल्यो कवियत्री. तांचें 'आकाशमाटव' हें नाट्यकाव्याचें पुस्तक उजवाडा आयलां.

## अनंत साळकार

कोंकणी आनी मराठी कवी. कांय काळ 'सुनापरान्त' दिसाळ्याचे संपादक म्हूण वावुरल्यात.

## इंदू गिरसप्पे

बंगळुरूंत राबितो करून आशिल्ल्यो कवियत्री. तांचो एक कविता संग्रह उजवाडा आयला.

## मीरा काणकोणकार शिरोडकार

नवे पिळगेंतली कवियत्री. कोंकणींतल्या मुखेल नेमाळ्यांनी कविता उजवाड आयल्यात.

## पुर्णानंद च्यारी

'चिंगार' हो कविता संग्रह उजवाडा आयला.

## सुनील पालकार

फाटल्या वीस वर्सांच्या काळांत मुखार आयिल्लो म्हत्वाचो कवी. 'नागीण' हो कविता संग्रह उजवाडा आयला. आकाशवाणीच्या वर्सुकी राष्ट्रीय सर्वभाषा कवी संमेलनांत कोंकणी कविता वाचपाचो भोवमान लाबला.

## राजय रमेश पवार

कवी आनी नाटककार. तांचो 'पावसफुलां' हो म्हत्वाचो कविता संग्रह आसा.

## मार्कोस गोन्साल्वीस

'थेंब्या थेंब्यांत' हो कविता संग्रह आनी ललित लेखांचें पुस्तक उजवाडा आयल्यांत. कोंकणी नेमाळ्यांनी नेमान बरप करता.

## सुशिला नि. हळर्णकार

एक कविता संग्रह उजवाडा आयला. चौगुले उच्च माध्यमीक विद्यालयांत वरिश्ठ शिक्षिका.

## यशवंत केळेकार

कोंकणींतले एक म्हत्वाचे गीतकार. 1952 सावन आकाशवाणी मुंबय खातीर तांणी खूब गीत रचना केल्यो. 'पुंजायल्लीं ओवळां' हो तांच्या गितांचो संग्रह प्रसिद्ध आसा.

## शितल रुपेश भंडारे

गझल हो कवितेचो प्रकार कोंकणींत हाडपाचो चत्न करपी नवे पिळगेंतली कवियत्री. 'सपनफुलां' हो कविता संग्रह प्रसिद्ध आसा.

## फा. लिनो द सा

'आंकरी' हो तांचो कविता संग्रह प्रसिद्ध आसा. थोड्योच पूण अर्थगर्भ अश्यो कविता तांणी बरयल्यात.

## रवीन्द्र रमाकांत म्हाड्डोळकार

1980 उपरांत मुखार आयिल्ले पिळगेंतलो म्हत्वाचो कवी. 'कविता सुर्याच्यो' हो तांचो कविता संग्रह तांचें खाशेलेपण घेवन आयला.

## राजश्री सैल

फाटल्या पंदरा वर्सांत मुखार आयिल्ली कवियत्री. तांच्यो कविता संग्रहाच्या रुपान उजवाडा येवपाचे वाटेर आसा.

## चंद्रिका चंद्रमोहन पाडगांवकार

तांचे दोन कविता संग्रह उजवाडा आयल्यात.

## राधा भावे

कोंकणी आनी मराठी अश्या दोन भाशांनी बरोवपी कवियत्री. 'उमलताना' हो मराठी कविता संग्रह. ताका गोवा कला अकादेमीचो पुरस्कार लाबला. त्यो गोंय सरकाराच्या वस्तू संग्रहालयाच्यो मुखेली आसात.

## रमेश घ. लाड

कवी आनी गीतकार.

## मिनीन आल्मेदा

नवे पिळगेंतलो म्हत्वाचो कवी. तांचो 'कवन-जाळ' हो कविता संग्रह उजवाडा आयला.

## सोतेर बार्रेत

तांणी मोलादीक गद्य बरयलां तेच प्रमाण कविताय रचल्यात. कोंकणी नेमाळ्यांच्या संपादनाच्या कामांत वावुरतात.

## काशिनाथ शांबा लोलयेंकार

आशय आनी अभिव्यक्तीचें वेगळेपण आशिल्ल्यो कविता बरोवपी कवी. 'काशी म्हणटा', 'काशीन म्हणपाचें सोडूंक ना', 'काव्यसुत्र' हे तांचे कांय म्हत्वाचे कविता संग्रह. कविते बराबर तांणी म्हत्वाची समिक्षा बरयल्या.

## आर. रामनाथ

कोंकणी आनी मराठी कवी. तांचो 'मळबरंगमाची' हो कविता संग्रह आसा. आकाशवाणीच्या वर्सुकी सर्वभाषा कवि संमेलनांत तांणी आपली कविता वाचल्या आनी तिचो अणकार सगल्या भारतीय भाशांनी जाला.

## तोमाझिन्यु कार्दोज

कवी आनी तियात्र बरोवपी. तांणी कोंकणी बराबर इंग्लिश भाशेंत बरप केलां.

## माधव बोराकर

आयजमेरेन स कोंकणी कविता संग्रह उजवाडा आयल्यात. 'यमन' ह्या कविता संग्रहाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला. तांणी रवीन्द्रनाथ टागोरांच्या 'एकशें एक' कवितांचो अणकार केला. ताका साहित्य अकादेमी अणकार पुरस्कार मेळ्ळा.

# मां • डा • व • ळ

## मां • डा • व • ळ

# मां • डा • व • ळ

# मां • डा • व • ळ

# मां • डा • व • ळ

## मां • डा • व • ळ

## जागी जाल्या गोंयची सासाय

जागी जाल्या गोंयची सासाय
येतलो भार, येतलो भार
धोल ताशे बडय बडय
मार शेंसार, मार शेंसार

आसूं कोणय तरंग घेवन
सकाळ पसून दिग्ग उबो
न्हावन धुवन सवळें न्हेसून
गंधाचो लावन तिबो
कळना कशें उपरासून
खंयचे वाटेन येत ल्हार
धोल ताशे बडय बडय
मार शेंसार, मार शेंसार

नांवान व्हडलो म्हाल देसाय
गांवान केला जरी मुखार
सासाय आंगांत आयले बगर
तरंग तोलीत कोण खांदार?
कोणाचेर येवचो भार,
हुसको नाका, धर रे थार
धोल ताशे बडय बडय
मार शेंसार, मार शेंसार
नेम ना रे केन्ना कोण
कुदत कसो जावन बळी
घाडी, भगत, गुरव, गोंसाय,
देवळी, ठवय, मेस्त, मुळी
गोंयची सासाय भेटत जाका
ताचेर भार, ताचेर भार
धोल ताशे बडय, बडय
मार शेंसार मार शेंसार

मनान पसून जे न्हाल्यात
उपासांनी बांदून पोट
वर्सासंकिंनी मोनेच मोने
आपल्या हातान शिंवून ओंठ
तांचे वेग, तांचे जाळ
येतली आतां तांकां धार
धोल ताशे बडय, बडय
मार शेंसार, मार शेंसार

तांतलो एक मस्तो, हटी
झोंबून तरंग घेतलो धांव
माळ्ळूण जावन फाटयां ताच्या
ओडत वतलो सगलो गांव
आसत गावडो, आसत सुदीर
आसत कुणबी, आसत म्हार
भार येतर तोच देव
मार शेंसार, मार शेंसार

खुबलो तसो बेतकाठेक
तो कसोच रावचो ना
पुरतो झाडो घेतले बगर
बिबूत कोणाक लावचो ना
पातकाचें भरूंक माप
उस्तितलो सगली वार
उकत्यो जातल्यो फटाफटी
मार शेंसार, मार शेंसार

सत आतां आठूय दिको
जोगूल जावन पेट्टलें
आनी लटीक सगल्या आंगार
खोरोज जावन फुट्टलें
घरचीं पिशीं, भायलीं भुतां
खिणांत जातलीं थंडगार
भार तीर्थ शिंवरतलो
मार शेंसार, मार शेंसार

कोण जाणा केन्ना कशी
जाल्ली कोलू, तुजीच कूड
अकस्मात घेवन पेट
उजवाडाची जायत चूड
जागी जाल्या गोंयची सासाय
तुजेर लेगीत येत भार
जावं कितेंय, जावं कशेंय
मार शेंसार, मार शेंसार

## वाजता तुजें बीन

वाजता तुजें बीन
ताचेर चीज नवनवी

भायर भितर सूर तुजो
केन्ना पावस केन्ना उजो
भिजतां भिजतां लीन हांव
हुलपतना दीन

गायशी मेघ गायशी दीप
तितलो तितलो तूं समीप
तांचे वरवीं फुलत झडत
वाडटा म्हजी जीण

तुजे कृपे ना रे तुळा
अम्रुताचें शिंपणें मुळा
ओंपलो जल्म तरीय तुजें
सोंपचें ना रे रीण

## सपन

संवसार सगळो रचले उपरांत देवान एक नवल केलां
देश एक वेंचून तातूंत दंवांत सपन रुजूंक घालां

सगळे कडची हाडून माती लायल्यात वंश जाती काती
धर्मारोंपां शिंपून काडून पानां फुलांनी लायल्यात वाती

सगळ्या दिकां जमोवन पाणी खेळयत जमीन केल्या जिती
कोंबायल्यात जळामळा तरेकतरा रितीनिती

रंगयाळे भेस, भासो परमळीत फुलां-फळां
युगान युगां घोळत हांगा अपरुपाचें पोरसूं केलां

भोंवडायलां भोंवतीं ताच्या साताय समुद्रांचें वारें
हुतात्म्यांचीं कांडून हाडां मुळा ताच्या घालां सारें

पर्वकाळ आयलो तसो फाटीक ताचे लागून गरो
दीसरात फिरता राट रक्ताच्यो न्हायत धारो

म्हळें, देवा देशाक म्हज्या लायला असो कित्याक गोळा
देवान म्हळें, नवो मनीस घडूंक घाल्या प्रयोगशाळा

पयली आयट पयरूच जाल्या जगान म्हळी पयली नांदी
फायचो मनीस जावचो कसो कालूच दाखोवन गेला गांधी

## उलो

फुलांत लिपून आयला भावा तक्षकाचो पिलो
सादूर तुवें जावचें म्हणून घालीत आयलां उलो
विखयाळ्या ह्या फुलाक चुकून लायशीत जाल्यार हात
नंदती मठी जळून जातलो जल्म जुगा घात
मेल्ले जाणटे दितले स्राप भुरगीं दितलीं जाप
दीसरात खातलें तुका तुवेंच केल्लें पाप

नाका भुलूं दिसल्यो म्हणून भोंवतीं ताच्या म्होरो
ह्योच अखेर सुरयो जावन कातरतल्यो शिरो
फुला रुपान आयल्या गोंयां घटोत्कचा माया
म्होरां माती जावन वतली संवसाराची रया
प्रसादाचीं जुंवळीं पानां घेवन स्रया पाव
सोळा तारीख येवची जाली सादूर भावा राव

## पणटी

एक पणटी भितर पेट्टा ती जगय रे ती जगय
घेवन आयला वांगडा जी तूं वाट सरतासर तिगय

गरजे पुरती तीच दितली चलतल्या पावला पसय
उजवाडा कोणेंच पापया ल्हान केन्ना म्हणचें न्हय

जें फुडारांत सपन न्हिदलां तें उठय रे तें उठय
रे तुजे पणटेन जंय थंय मेळटा ती पणटी पेटय

पणटी न्हय ती गुप्त दुर्गा, कसलें भंय रे कसलें भंय?
लक्ष शस्त्रान खेत्र जातलें, मेळटलो अंतीं विजय

तंववरी पणटी जगय रे वात सरतासर तिगय
रात काळखी सरचे पयलीं जल्म मेळ्ळा तो उजय

## म्हजें नांव

एक जाणट्यांनी दवरिल्लें
ताच्यो भोयो जाल्यो
दुसरें दवरिल्लें भावंडांनी
तें भुरग्यांनी घोळयलें;
लोकांत रूढ जालें
तें मात तिसरेंच!
असवडीं कोणें कोणें
कितें कितें नांवां दवरलीं!
पैकीं म्हजें नांव खंयचें?

- हांव जावचे पयलींचें
म्हजें नांव हें खरें मुदलचें
पूण तें तशें कोणाचेंय
तेन्ना म्हजें नांव
कितें म्हणून सांगूं?
तूं म्हणशी तें

- आनी म्हजो गांव?
एका गांवांत जालों
दुसऱ्या गांवांत वाडलों
अनेक गांव हेडलों
आनी ह्या सगल्यांक लागून घडलों
खरें सांगचें जाल्यार
जंयच्यान हे धरतरेर
हांव आयलों
तोच म्हजो मुदलचो गांव
पूण ताका बावड्याक
नांवूच ना
तेन्ना म्हजो गांव
खंयचो म्हणून सांगूं?
तूं जंय म्हाका भेटशी तो

- आनी म्हजीं नातीं गोतीं?
खंयचीं म्हणून सांगूं?
कांय जल्माच्या अपघातान जालीं
कांय लग्नाच्या अपघातान निपजलीं
कांय मन जडिल्ल्यान उपरासलीं
म्हाका तीं सगळीं म्हजीं दिसतात
पूण एक वेळ असोय प्रत्यय येता
हांव तांचो कोणाचोच न्हय
आनी तिव्रतायेन दिसता
म्हाका नातें लागता तें एकल्याचेंच
जाणें म्हाका घडलो,
आपणें रचिल्ल्या ह्या संवसारांत.
पूण तें उतरांनी सांगूंक येना
कोण जाणा!
त्या नात्याक लागुनूच
आमी एकामेकां कडेन
अशे ओडटात जाल्यार!

## मोगाचो उगडास

लिकलिकी दोळे, तुळतुळी पोले
केंसच काळे मुदयाळे
केंसच काळे कुरवाळे मोगा
ताचेर कळे मोगरेचे

ओंठांचो रंग पळोवन दंग
मनच गुंग म्हगेलें
मनच गुंग म्हगेलें मोगा
आंगाचो रंग नारींग

सुंदर नाक भारी नाजूक
पळोवन सूख दोळ्यांक
पळोवन सूख दोळ्यांक मोगा
न्हिवली प्रितीची भूक

दांतांचो सर कुंदांचो हार
मानेर भार केंसांचो
मानेर भार केंसांचो मोगा
कपल गो तें विशाल

तुगेली द्दश्टी अमृत वृश्टी
म्हगेली सृश्टी प्रितीची
म्हगेली सृश्टी प्रितीची मोगा
जाली जिवाची संतुश्टी

म्हगेलें मन तुज्यांत लीन
तूं गेलें सोडून हें जग
तूं गेलें सोडून हें जग मोगा
म्हाका दवरून दगदग

## मळबाच्या दर्यार

मळबाच्या दर्यार
सुर्याचें व्हडें गा
सुर्याचें व्हडें...

एक सारकें रातदीस
घुंवता बावडें...
पोनेळ ना, कुरवो ना
व्हले उलांडी ना
साठी ना, मठी ना
येरें वा दोरां नात.
येरें धरपाक
तारी ना
दोरां ओडपाक
शिडां सोडपाक
मानांय वा पोरां नात.

वाऱ्या वसाडीचें
व्हडें तडीक
काडपाक
आलाशिऱ्याचो
मांगर ना
चक्रा शिडाक
आळाबंदा हाडून
उसरपत घेवपाक
एक सादो
नांगर ना.
आदाराचो सांगड ना
आनी वांगड?
आपलेच सावळेचो लेगीत
वांगड ना...
अशें हें व्हडें
सुर्याचें व्हडें गा
सुर्याचें व्हडें...

आसा म्हणपाचें
फकत
एक चक्र
चकचकीत, झगझगीत
खतखतीत, धगधगीत
उज्याच्या दिव्याचें
रसरशीत लोळाचें
ब्रेक नाशिल्लें... चक्र

नखेत्रांच्या
खडपांतल्यान

वाट सोडून काडपी
रात मोडून दीस हाडपी
दीस फोडून रात जोडपी
गिरीगिरी, गिरीगिरी चक्र
लिकीलिकी, भांगराचें वक्र...

कोट्यांनी कोसां वयल्यांक
साता समुद्रां पेल्यांक
उजवाड दीत
जीण दीत मोग दीत
मोगा आशेर
आपले वरीच
आपलेय भोंवतणीं
गिरगिरत दवरीत...

मात
लागशिल्ल्यांचो
एका खिणांत
पुरायेन कडोवन
धुंवर करपी
अशें हें चक्र
हूं वा चूं करिनासतना
मात पसून... कर्रऽऽ... कूर्रऽऽ
धर्रऽऽ वा धूर्रऽऽ
करिनासतना

खट्ट वा खुट्ट... फट्ट वा फुट्ट
लेगीत करिनासतना
एक सारकें
रातदीस घुंवता बावडें
चक्राचें व्हडें गा
सुर्याचें व्हडें.

भोंवता
आपल्या चक्राचे
गळिल्ले आंस सोदीत?
तुटिल्ले ब्रेक सोदीत?
काय चक्र पालोवपाचो
शेणिल्लो स्वीच सोदीत?
घुंवता

शिणिल्ल्या शिडाक
मायेचो वाव सोदीत?
... मळबा बुडिल्लो
बंदराचो गांव सोदीत?
... कडिल्ल्या नांगराक
न झडपी दोरी सोदीत?
काय, रातभर काळोख...
आनी परतेंय
दीसभर, उजवाड सोदीत?

शिरी शिरी, शिरी शिरी
पेंवता बावडें
सुर्याचें व्हडें गा
सुर्याचें व्हडें.

कितलेंय घुंव घुंव
घुंवयत रावत

तरीय, आसा तशेंच
आसा थंयच पावता
अशें हें व्हडें
अजापा कुवाडें

उजवाडाचें एक पोंत
काळखाच्या फुडें
काळखाचें दुसरें पोंत
उजवाडा फुडें

चल चल चल
तरीय, चलत तितलें थोडें गा
सुर्याचें व्हडें
हें सुर्याचें व्हडें...

## मनाचो पतंग

म्हज्या मनाचो पतंग
मळबां उचांबळ

ताचे दोरयेक ओड
सपनरंगी.
म्हजे
जिणेचें साळीक
पाणयां तळमळ

ताचे
देंठांतले प्राण
चिखला मुळा

आरे
मनाच्या पतंगा
इंद्रधोणू दोरी
जिणेची खोली
वांवभर...

अशें मळबा पिशें मन
तशी
घाणींतली जीण
दोगां एकठांय
हाडूं कसो!

## गोंयचो मनीस

गोंयचो मनीस
पणस कसो
वयल्यान सामको
जेजू भशेन
कांट्यां मुकूट
पांगुरलासो...

आनी भितर
मोगाळ मोगाळ
म्होंवाळ रोसाळ
घरो जसो
गोंयचो मनीस
गोंयचो मनीस

## रातीची राणी, दिसाचो राजा

रातीचे राणयेक
चान्याचें पाणी
चान्याच्या पाणयाक
काळखाची बांय...

दिसाच्या राजाक
कुपांचें दुदू
कुपांच्या दुदार
वतांची साय...

## हांव तळें

मळबाचें
प्रेम हांवें
नितळ मनान
घेतलें जिखून

नखेत्रांचीं साळकां
आयज
काळजा म्हज्या
फुल्ल्यांत देखून

हांव तळें
हांव तळें...

## मन जडावाचें केलें

हात मातयेचे, मातयेंत
मूर्त घडटा घडना
पांय रेंवाट जिणेंत
थांबिना, चलिना...

मन जडावाचें केलें
... घण घेतले, अंतरां...
आनी पुण्य पसवलें
... पांडुरंग म्हज्या दारा!

## अमर रूख

वयर वयर जमनी वयल्यान
निव्ळ्याशार मळबा पेल्यान
सुकिल्ल्या काश्ठांतल्यान
लिवलिवीत विलुदाचे आंकरे-तुरे
लुकू लुकू नदरेचे कोंबार कोंब!

आंकऱ्यांतल्यान
आठूय दिका... सय रुतू,
सर्वय काळ...
पानां जाळें सपनांचें पाचवेंचार
गारेगार, भारदार!
रुखातळा, सकलाच्यान
वयल्या सपनां तोल पेलपा
अब्ज खर्व परार्धांनी
पाळांच पाळां मुळार मुळां
खोल खोल पाताळां
वळ वळ वळ... वळा वळा
तळा वसल्यान
पाचूंच्या जाळयांतल्यान
काश्ठांच्या माळयांतल्यान
फुलां फळां, रूप रंग गंधाचो
केदो भार! भार भार
अपरंपार!
तळा पोंदच्यान
काळखां गुपाट
पर्वतां, कोटी मणां चेपणा खाला
ह्या भारा भारावपी..
रूप रंग गंधाकू
फुलांतल्यान फळांतल्यान
थारावपी...
रुपाची रंगसाणू
सुवासाचें मुळावणू
भुकेतानेन वसवशिल्ल्या
रेश्मा-केंसां जिबल्यांतल्यान
तापीत तोपीत...
शेशाशाई बोंबलेंतल्या
कमळा देंठा
आरपार!
चोखीत चोखीत
धरतरेचे वलसाणीचीं
उदकां गार
मातयेच्या अमरत्वा
अमृतधार!

## रेंवेंतलीं पावलां

रेंवेंतलीं पावलां
आलतडयां
पाणयाक भरती
पलतडयां

रेंवेंतलीं पावलां
आलतडयां...
दर्याक सुकती
पलतडयां

आलतडचीं पावलां
आलतडी उरलीं
पलतडी भरती
वा, पाणी सुकलां

सुकती सरता
परतीय भरती
भरती ओसरता
परतीय सुकती

रेंवेंतलीं पावलां
रेंवेरूच उडलीं
वाऱ्या वसाडीन
रेंवेरूच बुडलीं...

पावलां ल्हारांचीं
भेटूच ना
मनशां मजगतीं
नेटूच ना

ल्हारार ल्हार
येता वता
ल्हारां गायतात
दर्या गितां

काळाच्या दर्यार
मनशाचीं पावलां!

रेंवेंतलीं पावलां
रेंवेंतलीं नवलां...

## अवकाशाच्या घुमटांतल्यान

अवकाशाच्या घुमटांतल्यान
जेन्ना उतराण वारो सोंशेता
तेन्ना तडीर
दशावतारी खेळ भोगीत
भोगत्रयाच्या विळख्या विळख्यांतल्यान
तापत्रय सोंशिल्लो प्राण
दरवट्याच्या हुंबऱ्यार
उन्मनावस्थेंत निर्वाण सादीत
मूळ रुपाक वचपाक प्रस्थान दवरता

ह्या वेळार
दिशांचीं बंधनां तोडीत
परम सुखांत सुखावल्ली कूड
जेन्ना दरवट्यार मारता
तेन्ना तो सदांकाळ धांपिल्लो दरवटो
मातसोसो किलकिलो जाता
आनी कुडीचो चंदना रूख
उजवाडाचे दिवटेर
कापराची वात जावन परजळटा

## रूप अरुपाचो सादू

रूप अरुपाचो सादू
भास शाश्वताचो भेदू
दोळ्यांत प्राणाचीं गोठलां
वाऱ्याचीं वाजलीं घुंगरां

न्हंय आयली आतां सांवारा
रूख निकतोच येता चंवरा
पिकून अळार जाले मळे
चुकले चवद्यांयशांचे फेरे!

## काळोख हार जावन

काळोख हार जावन
विळखे घाली घालीत
सगळ्यांक गिळीत चल्ला.
उजवाडाक
घायांचीं भगां पडल्यांत
किवणांतले किडे
भंयाच्या वागऱ्यांतच
आपआपल्या स्वार्थाच्या घोंटेरांत
गुल्ल आसात
वाऱ्यांत अगेलाची वीज आसा
ताकाय सर्वनाशाचो किटकिटो आयला!

प्रेशीत आतां येवपाचे नात
तांचे मार्गच बंद जाल्यात
देवळांतले देव
पाशाणांतच घुसपल्यात.
आयज कोणाक
कोणाचेंच पडूंक ना
किड्यांचीय जीण आतां
किड्यांच्या हातांत उरूंक ना!

## सांज

चौखुऱ्याच्या गळ्यांतली घांट
अशी एक सुकुमार सांज
जीव ओडीन हांबेता
पयस माडांचे बांद...

मळब रंगांचो नाच
वाट भिंगांचो साज
तळ्यांत चांफ्यांचो वास
परमळ्ळो स्वास...

## ओंवळी मुळांतलीं ओंवळां जशीं

ओंवळी मुळांतलीं ओंवळां जशीं
तश्यो पुंजावन घेतल्यो राती
आनी चडटे वयल्या पेल्या मोडणार
दोळ्यां लावन बसलों वाती

वेळा अवेळाचें भान?
वरांय पसून गेलीं गोठून
त्याच वेळार प्राण म्हजो
फुलांतल्यान आयलो भोंवून

हांवय जाणा म्हाळशे वरी
तुज्योय दिसाक तीन कळा
पांयसोरान तुज्याच बाये
पुण्याय म्हजी येवंदी फळा!

## उमळ जाली दिगंते

उमळ जाली दिगंते,
उजवाड आयलो रुजवणा
घमघमून गात्रां मिडमिडलीं रानां
दिश्टाव्याची बादा कुडीच्या अवसरा
विखाराचो दंश आयलो आतां फुलारा
हुंवार येवन दिकां, जालीं वज्रमुखी पाळां
जाग्रुताये केणां कुडी अदेहान जळटना...

## काळखाचो हिमालय

काळखाचो हिमालय
आरपार फोडून
दशांगळां उरली
वताची पांवळी
घरा घरार थारली
दोळ्यांतली बावली
ज्ञान विज्ञानाक म्हज्या
चंद्र मंगळाची युती

ध्रुवां वयल्यो राती
जल्म-मरणा फेरे
नळयेंतय जिणे जल्म
उसवतात धागे दोरे!

हांव तर तुजीच सासाय
तुज्याच आत्म्या कूड
वस्त्रगाळ कर गा आतां
म्हज्या हाडांची पूड

## काळजाचे धांवेर

काळजाचे धांवेर
तुजीं म्हजीं उतरांच
ओथांबे जावन शिडशिडटात
तेन्ना पावलांकय दसता
मातयेचो वास
स्वासांतच फुलारतात दिशा
आनी दर्याळ दोळे
जावन येतात
वाऱ्यान भरिल्लीं शिडां
पयम पल्ल्यांचेर झोंपय घेतिल्लीं...

## वारोय आयज असो

वारोय आयज असो
अंदल्ली तान;
पिंपळाचेंय पारार
विरजलें भान.

घुसमटलो स्वास
आटिल्ल्यो दिशा;
आळसावली रात
निरशेल्ली उशा.

चिरंतन सत
सासणाचीच्र भूल;
बागवला अधांतरीच
मोडिंल्लो पूल.

## आत्मोपनिषद

ईशावास्योपनीषदा
मिर्गार फागूर कोंवळ
तोच फांकारून उज्वळ
आत्मोपनिषदासुरी
ॐ पूर्ण तें नी हेंय पूर्ण
पुर्णांतसून उकतता पूर्ण
काडून पूर्ण पुर्णांतसून
उरता तेंय पूर्ण

आपसुकी उकतलें पूर्ण
उकतल्यो कोटी कळो
निर्मलें कोटी दळां
अचर्यां विश्व हें
किड्डुकूय पूर्ण, पूर्ण पुरुषोत्तमूय
अणूय पूर्ण आनी पूर्ण ब्रह्मांडूय
नवनवलांनी नटलें
अस्तित्व आख्खें

जगांत जें ह्या वसलां
उद्‌भवलां त्या मूळ तत्त्वांतसून
जें वर्तलें
चैतन्य निव्वळ
आनंद निर्मळ
कोटी सुर्यां पर्जळ
नित्य पूर्ण
नित्य भोगप तें गाभ्यांत भितर
उकतप तें कृतींत भायर
आकारप सकळां जणांत
वर्तलें गा जिवन हें

तूं, हांव नी सगट मात्र
ताचेंच विंगड भोवरूप
देखून ही सृश्ट नी विश्व
संवसार नी मनीस मात्र
वर्तता गा समस्त
समस्तांचें
जाणून हें महद् सत्य
तूं भोग जें वांट्याचें तुज्या
ते भायर कित्याचेर
आसचीच न्हय
आशा तुजी.

संवसारांत ह्या कश्ट करीत रावचें
सत्याक धरून जें वांट्याचें तुज्या

आस्त धरची मोख राखची
जावंक रासबळ दिर्घायुशी
तुका देहवंताक हो एक मार्ग
ना दुसरो कल्याणकारी
सोडून हो.

दुकां, दुख्खां, दळडिरां
आमचीं नी तुमचीं सकळां जणांचीं
तीं वर्तलीं आत्म्याचे उले
जावंक निव्वळ नी उज्वळ
सैम मूळचें जशें
धांवचें तुवें त्या उल्यां
तांकीन नी ताकतिकेन
अडसर निवारूंक ते
तुका देहवंताक हो एक मार्ग
ना दुसरो उद्धारा
सोडून हो.

मनशाक दसना कर्म
वावरान खंयच्च्याय
न्हय कोण उंचेलो
न्हय कोण सकयलो
मनीस सगळो सगळ्यांत सारको

तें पूर्ण तेजाळ अस्तित्व मूळचें
तुमचें नी आमचें सकळा जणांचें
परम थीर तरी गा तें
धांवतल्याच्याय फुडें
चैतन्यान ताचेच
सृश्टींत खेळटा
प्राण नित्य..

तें हालता नी हालनाय
तें लागीं तशें पयसूय
सगळ्यांच्या भितर तशें
सगळ्यांच्याच भायर

सहस्र तेजांचो परजळ
चैतन्याचें आगळ
अस्तित्व तें मूळ
वर्तलें आत्मो अजरंवर
आमचो नी तुमचो सकळां जणांचो

जो आत्म्यांत ह्या देखता
सृश्ट सगट बी
वस्तीन वस्त
जो देखता
वस्ती वस्तींत नी
सृश्टींत आख्खे
लख्ख निर्मळ
अजरंवर
तोच आत्मो

ना केन्ना निरशेणी
कित्याचीच ताका
कुसकुटान कुसकूट
नी जिवान जीव

संवसार आख्खो आत्मरूप
अशी नित्य नदरेक एकात्मताय
त्या बुद्दीमंता ना खंत, भ्रांत.

ध्यानीं मनीं जाचे
एकात्मताय
तो सद्‌दां तेजवंत
गिन्यानी
दयावंत शांत
दुखवना, उखलना ताचें
क्षमाशीळ चित्त
तो शुद्ध नी मुक्त
सत्यव्रती निर्भय
सुर्या वरी उकतो
सदां जैतिवंत
जाणलिना जांणी एकात्मताय
संवसारा कोंयड्यांनी
घुसपले ते कुड्ड्यां वरी
जे एकोडे निखटे
तन्मय चिंतनांत
सांडले तेय कोंयड्यांनी
कुड्ड्यां वरी.

जे जाणून सत एकात्मताय
थिरायेन हुपती बरें नी वायट
जगाच्याच न्यायान जियेवन जोडटी
अमृताचें सासण

तुजो तुका जावं
म्हादिश्टावो
भायर भितर नी चोंयवशीं
तुजेंच जावं दी तुकाच दर्शन,
उद्‌गार येवंदी मुखांतसून
हांवूच तो परजळ्ळां परजळ
प्रशांत परमानंद
चैतन्याची म्हाशक्त
नित्य पूर्ण.
हांवूच वर्ततां
चराचर सृश्ट ही
आनी तुकाच तूं प्रार्थी
जिवन हें जावचें
मनशां मनशां
सगल्याच मात्रां
परजळीत नी
सद्‌दानंदी
उर्ध्वगती नी
कल्याणकारी
ॐ शांतिः शांतिः शांतिः

## एक दीस तरी

एक दीस तरी दिव्य दृश्टी ती
येवची ह्या पामरां
दिसूंक फायचीं भाग्यसुरींचीं
सुर्यकांत चित्रां

निनूंक कालचीं सस्त्र कळांचीं
कांट्यां वरी किसरां
एक दीस तरी गुणाक येवची
धन्वंतरी मात्रा

देखचीं उकत्या नदरां मातशी
अपरूप अद्‌भुतां
धाकट्यां दुखशें कुरुक्षेत्र जंय
भायर भितर पेखता

सक्तीवंत जंय सहस्र भुजां
पथाक लायती रथा
धनुश्य ताणून थिकार फायच्या
मोखलो तीर लांगता

## अभिजित

गंधफुलांनी धांपून मोनीं
जैताचीं गितां
ज्या मिर्गांनी भोंवन हरवें
उतर तिका फुट्टा

तुकयत मानो घेवचीं दानां भोगूं ती दैना
शिजोवंक जळचें न्हय रगतांनी रायाचीं अन्नां
जिखूंक शिमो फुडल्यो निखळायात वेगीं सुखासनां
चडत जिया तेमक्योच तुमचीं दरणीं नी पेणां.
पुजन अर्चन खर कश्टांचें, मृदू सेवे भजनां
जातलीं तेन्ना रणां-विराणां चैत्रांतलीं आंगणां

गितार्थाची उर्ध्वगतीची
शुभद ही संहिता
काचाबूल अर्जुनांक परतून
जिती जिवीत संथा
ह्या भाग्यांनी जावचीं चैत्री
पुनवो अंतस्तां
सस्त्र अपेसां थांबूं कुसावचीं
एक दीस चित्तां

## मोर

1

मन:
आषाढ कुपांनी गच्च
दाटून आयिल्लें मळब;
जीव गोळाक लागिल्ल्या ह्या
हुमकळण्या वेळार
पयस
अटंग्या रानांत निकतीच
मोरांक जाग आयल्या...

2

सरत्या
आडवेळ्या पावसांत
तुज्या जुवानपणाची चूड लागना फुडें
शिरंतरांतल्यान
म्हजें रगत पेट्टकीर
भितरले भितर
भिरांकूळशें मळब जोगलावल्लें,
गडगडिल्लें
तुवें पळयिल्लें?
आयकल्लें?
ना जावये.
तुका फकत याद आसा
ती पांखां फुलोवन
उपाट तृप्तीन दोगांयच्या मनांत
भान सुटून नाचिल्ल्या मोरांची...

## तीन कविता

1

आगो शेवण्या,
तुजो गांव खंय?
ताणें म्हणलें :
मळब
वेंगेंत येता थंय...

2

काल रातीं
चान्नें
काळोख वियेतना
हांवें पळयलें..

3

कविता येता
म्हणल्यार
पिशाक केन्ना केन्ना
मळबा येदीं
पांखां फुट्टात.

3
मोर
पिशे कशे
नाच नाच नाचतात...
नाचूं दी.
म्हज्या आंगणांत पडिल्लो
तांच्या उमाळ्यांचो फुलां-शिंवर
तूं मातसो
तुजे व्हंटयेंत पुंजायशी?

4
तारयामामा,
तारयामामा,
आयज म्हज्या रगताक
जोरगतीची भरती आयल्या;
म्हाका पलतडीं पाय.
थंय म्हज्याच काळजा-वाठारांत
मोर मातल्यात,
पिसावल्यात खंय!

5
ह्या तरनाट्या
गांवांत नव्या नवलांचे
मोर आयल्यात
अशें आयकलां तें
खरें व्हय?
पयसुल्ल्यान
एक वेगळोच
निळ्या निळ्या रक्ताचो उजो
अख्ख्या गांवाक लागिल्लो हांवें
पळयलो
म्हणून म्हणटां.

6
अर्थ?
कसलो अर्थ?
तुका तो केन्नाच कळपाचो ना
अशें
खासा मोरांनीच
म्हाका सांगलां.

7
पयलेच फावटीं
खऱ्यांनीच
हांवें मोरांक म्हणलें:
तुमी म्हगेर आयले,
नाचले
म्हणून नकळटां
हांवेंय
तालार पावली मारली...
तेन्ना सावन
मोर अवचीत येवन
दारांत,
मनांत नाचून वतात..

## मळब आनी झाड

1

सुर्यान
सकाळीं सकाळीं
उजवाडाची घुरी घालिना फुडें
मळब
दिपकायिल्ल्या दोळ्यांनी
झाडाक
सोदीत रावता
आनी तें आपली पाचवी
बिटबिटी नदर वरशी करून
मळबाक ओखेता...

2

दिसाचें
मळबांत मळब
आनी
झाड मातयेंत
पाळांमुळां रोमून
आपल्या जाग्यार उबें
घट्ट.

3

धाय दिकांनी
उटंगार काळोख.
पूण मळब
मोटें नाड... निखट्यो
नखेत्रांच्यो दिवट्यो गच्च पेटोवन
खंय उडून गेलां
कोणाक खबर!

4

रातीचें
झाड लेगीत
थाऱ्यार ना
जाग्यार ना
आपले विशाळ सावळेची
पसय पसरावन
तेंय
भोंवती भागरथशें
संचाराक गेलां..

5

पयस पल्ल्या
दिठयेच्या गांवांत
चाऱ्याचो चंवर फुटिल्लें
एक नितळ अशें तळें
आनी
ताच्या भव्याफुल्ल कांठा वयल्यान
लज भीड सोडिल्ले वरी
झाड
नाका तितलो ओणोव घालून
पाणयांत
आळून आयिल्ल्या मळबाचो
उमो घेता.

6

भास-आभासांच्या
झुल्यार बसोवन म्हाका
झोंपय दिवपी
ही वेळ दैदिप्य अशा
दिश्टाव्यान भारावल्या
म्हणून झाड-मळबाचें नातें

म्हज्या शिरंतरांतल्या रक्तांत
रुजून आयलां...

7

आतां
म्हज्या दोळ्यांत
मळब
आनी तना
मनांत रुजिल्लें
एक झाड.

8

दोळ्यांनी
दिको सांसपितना
सदांकाळ
उजवाडाची धार
हांव आंगामाथ्यार घेतां.
आतां
अद्रुश्टाकय एक
तेजिश्ट अशी देग फुटल्या
आनी झाडाच्या खांदये खांदयेर
हालत-धोलत
अपरुपांची सवणीं गायतात
सासणाचे सासायेचें गीत.

9

मळब
लिक्क निळें
मनांतल्या मनांत भुरकुटून
दोळ्यांत हारशेलां आनी
सपनांचीं घुंगरां बांदून
झाड
भायर-भितर पालेता...
वसंत रुतू
आतां पयस ना!

10

मुदलांत
नांवगांव नाशिल्लीं
पिशेपणां पांगरून
आयज हांव खंयच्या वेगळ्या
विश्वांत वावरूंक पळयतां,
जंय रातदीस ह्या
संवसाराच्या नेमा पेल्यान सुर्या
दोळ्यांतल्या मळबाक सादयत रावता
आनी आठय आंगांनी
फुलून आयिल्ल्या झाडाची,
पाचवोचार उजवाड वियेल्ली सावळी
म्हज्या रंध्रारंध्रांत
कार्तिकांतली फांतोड कशी फांकल्या...

## जात्रा उलगतकीर

फांतोडेच्या अदमासाक
देवतेचो तेर ओडून धांपिल्ले
कांय कुटकुटीत म्हाजन
आपल्या हातांचे तांबशेल्ले
तळवे एकामेकांक दाखयता म्हणसर
कुडकुड्याची रात आंगार
काडिल्ल्या मळबाक तांबशी फुट्टा;
देवळाच्या दरवट्याचे दिकेन
पयसुल्या गांवागांवांनी परतुपी
लोकांची रीग लागता...
अजूनय मांडकार जागरणान न्हिदेक
पिकिल्ल्या दोळ्यांनी खाज्यापुडयो बेगिबेगीन
बांदून उरिल्ल्या सुरिल्ल्या गिरायकांक
वयार करतात.. मदींच कोणा एका
भुरग्यालो बोमाडो फुटिल्ल्याचो आवाज येता.
श्रीवेताळ प्रसन्न ह्या होटॅलांतल्या पोरण्या
बांकार बसून कांय म्हातारे-कोतारे फुड्यांतल्या
मोडक्या मेजाचेर निकतेच हाडून दवरिल्ले च्याचे
हुनहुनीत घोंट घेतात..
कलावंतांनी रातीं दिल्ल्या विड्यांचो
रंग कोणाच्याच ओंठार मात लेगीत दिसना.

जात्रा आतां उलगल्या...
सगळी रात अत्तराच्या, फुलाच्या वासांनी
परमळून जागिल्लें, दिव्यांनी भायर् भितर झगझगिल्ल
देवूळ शांत... शांत जालां...
प्रकारांत दाटीवाटीन आशिल्ल्या
मांडांनी दोळ्यांचेर पड्डे ओडून घेतल्यात.
आतां आशिकुशीक कोणाचीच
व्हडलीशी जाग ना, जाल्यारूय अगरसाळीचे
माळयेर माथ्यांत सुरंगां वळेसर माळिल्ली
एक आंकवार पिक्या चान्या आंगाची
चली जागू जागून दिवली कशी झेमेल्ले
नदरेन कोणाचीय तरी
वाट पळयता...
दीस इल्लो इल्लो वयर येवन
भांगरशें वत पातळ्ळां आनी रातभर
जात्रा जागोवन पयस पाट्या वयल्यान
शेजारच्या गांवा वटेन एक,
न्हय जाणटे-न्हय नेणटे अशें,
जोडपें चलत रावलां... मदींच
रंगार येवन तो, मुमुरखोच तिका विचारता:
आगो रामुल्या खोरेंच सांग आं!
जात्रेंतलें तुका चोड कितें घोस्ताक गेलें?
रामुलें मातशें लजिल्ले वरी दाखयत
ताच्या काना कडेन तोंड व्हरून म्हणटा:
सांगों?
म्हगे खोंपो आनी
तुगे रुमाल... आनी तागेलें
मेकळें म्हांवाळ हांशें फुडली वाटभर
फांकत... फुलत वता...

## तूं आमची

अपरुपाचे तांबडे भुंये
आमी तुजे, तूं आमची
जाणटेल्यांच्या उगडासाची
पाळण्यांतल्या फुडाराची
तूं कालची, तूं आयची
तूं आमची

कणसांच्या भांगराची
सांवरेच्या चंवराची
खोशेच्या हुंवाराची
तूं आमची.

पावसाच्या कवनांची
सुर्याच्या पवनांची
चान्यांतल्या सपनांची
तूं आमची.

मोगरेकळ्यांत वास जसो
हड्‍ड्या भितर स्वास जसो
इंगळ्या पोटांत जाळ जसो
तशे आमी तुजे आनी
तूं आमची

रक्तांतली शक्त तूं
काळजांतली म्हूर्त तूं
परजळीत स्फूर्त तूं
तरण्या म्हज्या उतरांची
तूं आमची

## म्हजो दीस जालो तेन्ना

म्हजो दीस जालो तेन्ना
रात आसली
आवय थोडी रडली
रडटां रडटां हांसली
आजयेन नातवाक चोवपाक
दिवलेंतली वात सारली
त्या वेळार मळबांतली वीज
घरांत देंवूंक नासली.
पाखो जोती भोंवतणीं गीर गीर उडलो
फडफडलो पडलो
हांव ओगीच रडलों
वैजिणीन म्हणलें चलो जालो!
आजो मिशयांतल्या मिशयांत हांसलो
बापूय बरय बरयतना
मातसो थांबलो
पणजेन उखल्लो
मावशेन सांसपिलो;
शेजान्नीन पारखिलो
दिसूंक काळो माजराचो पिलो!
सगलें घर जागें जालें
पयलोच जालो बरें जालें!
हें सगलें मागीर हांवें आयकलें
त्या वेळार म्हाका दिसनासलें
आयकूंक येनासलें
पूण अशेंच घडलां जातलें
म्हजी आजी सदांच सांगताली
तूं जाल्लो तेन्ना रात आसली.
आनी आतां रात जाता
तेन्ना
ओगीच म्हाका दिसता
म्हजो जल्म जाता...

## तूं नासून

तूं नासून कोळयांनी
कोनशांनी विणल्यांत जाळीं
तूं नासून आयदनांनी
खुमर्णी केल्यांत किट्ट काळीं

थंड किरांव जावन रांदन
हुनसाणीची देखता वाट
वणटीचेर नाक तेंकून
आदोळी ही करता फाट.

आपली मान उमथी घालून
कोळसो पिसो हुडकेता
कोंडाळ्यांनी बावडो राजू
आपले भितर पिरंगता.

मोनी कशी सान्न उबी
बुडकुल्याचो सुकला गळो
फुलचे आदींच व्हांवन गेला
माटवा वयलो मोगरे कळो

तूं नासून दिवलेंतली
अर्दकुटीच जळटा वात
तुजे बगर व्हडली जाता
एकसुरीच काळखी रात...

## उतर

उतर तुजें दवर
मनांतल्या म्यानांत
जाय तेन्नाच भायर काड
कळमूं नये म्हणून
काळजाचे साणीर मात
परतून, परतून पाज...

## जेजू म्हजो आयलो परत

जेजू म्हजो जावन जितो
आमचे मदीं आयलो परत

किरणांचो भेस करून
काळखाचें थडें फोडून
मरणाचेर जैत जोडून
जेजू म्हजो आयलो परत.

जावन मनीस सोंसलीं दुख्खां
धरतरेचीं सोडलीं सुखां
हड्डयांतलें काळीज पिळून
तानेल्ल्याक दिलें रगत
जेजू म्हजो आयलो परत

सगले घाये गेले पेखून
सगलीं दुकां गेलीं सुकून
आयज खिळे जावन
फुलती पळय परमळत
जेजू म्हजो आयलो परत

सुकण्यांनो किलबिलात
घांटींनो किनकिनाट
नखेत्रांनो लिकलिकात
निशरेल्ल्यांनो मनामनांत
उजवाडाचें सपन विणात

आयज जेजू जितो जावन
आमचे मदीं आयलो परत

## आवाजाक येवकार

आवाजाच्या देवा तुका
आवाजाचो येवकार
नादब्रह्म देवा तुज्या
ॐकाराचो येवकार

विश्वाचें मूळ तूं
जिविताचो तोल तूं
अनंत तूं विशाल तूं

अंतरंगा देंवलो तूं
मूर्त सोबीत निराकार
आवाजाच्या ल्हारांत तुका
ल्हांराल्हारान येवकार

क्षितीज नवें मेळ्ळां
सपन नवें घडलां
सगळे बंध तोडूनमोडून
नादब्रह्म देंवला

अनंत तूं, अद्दश्य तूं
सगळे कडेन रावला
नखेत्राचें गुपीत तुजें
धरतरेक गावलां

## पांवळ्यो

सर सर पावस पडटा
वल्यो, वल्यो सावळ्यो
काळजांत झडटात
उगडासाच्यो पांवळ्यो...

## अर्दकुटेंच मन तुमचें

अर्दकुटेंच मन तुमचें
अर्दकुटीच जीण
अर्दकुटेंच फेडलां तुमी
जाणटेल्यांचें रीण
अर्दकुटेंच दुख्ख तुमचें
अर्दकुटेंच सूख
अर्दकुटीच तान तुमची
अर्दकुटीच भूक.
अर्दकुटीच न्हीद तुमची
अर्दकुटीच जाग
खडावांनी मारले तरी
अर्दकुटोच राग.
मेले तरी सभाग्यांनो
अर्दकुटेच मरतले
ना नरक, ना सर्ग
हुमकळ्याक पडटले.

## कितलें हांवें देखलां

कितलें हांवें देखलां
कितलें हांवें सोंसलां
दर्या लेगीत आयलों सोदून
तरी सुकोच उरलां
गांव गांव भोंवलां
पडलां आनी उठलां
धांव धांव धांवलां आनी
तारी कडेन पावलां

## काळीज फातर करचे दीस आयल्यात

काळीज फातर करचे दीस आयल्यात!
लोणया सारकें मन हांगा चलना!
जिणेचें वादळ वाडत वता.
नित्राणीं, अस्कत, नेणटीं मनां
वाऱ्याच्या झोडाक आपटतात, शेंवटतात
नास जातात पुरतीं.
कोमल मनां दयाळ काळजां
मोगाचे सावळेंत किरलोन
पालेवन, फांटेवन जिणेचे वाटेर
आपलीच दिशा सोदून चलतना
संवसाराच्या निश्ठूर खर वतांत
बावून वतना
हांगासर जाय त्या वताचे दाव सोंसचे
खडप! न्हय ती बारीक
कोमल वाल, पावसाच्या
मुसळा धारेक आपटून
वाऱ्याचे हुयेलीक कांपून
आपल्या पांयार उबी रावची
सकत नासता जीणभर चडपडची.
सदां सकाळीं दैनिकांतल्या
खबरांचो भालिये आघात!
थंय अमानूश खुनियो!
हांगा भीकर दंगे!
थंयसर बॉम फुटले!
हांगा पिस्तुलान मारले!
रेल अपघात! विमान अपघात!
बोट बुडली! परक्यांचो घात!
हांगा व्हाळटात जायत्यो न्हंयो
हजार दिशांनी
व्हाळटात तातूंत रगतां नेणटीं
बुडावेन आमचीं पातकां
मनशां वयर मनशांचीं!
येदोळ व्हाळ्ळ्या रक्तांत
करोडों पातकां धुंवून व्हेलीं!
तरी तीं वाडटात, चडटात.
शीम नाशिल्लें आकास तें
थळ नाशिल्लो दर्यो तो
काळीज फातर करचे दीस आयल्यात
लोणया सारकें मन हांगा चलना!

## निराशा

नितळ निळ्या मळबार पळय
काळवाणेचीं कुपां

भरल्यार कशें दिसत मळब
तशीं तुजीं दुकां

सुकल्यांत गालार केंस कपलार
उबचीं काळीं खतां

हाडून उडास घडी विकाळ
जेन्ना आमचीं सुखां

तुटून उबलीं वाऱ्यार जशीं
निराधारी सुतां

तुज्यो म्हज्यो वाटो गेल्यो
धरून विरोध दिशा

तशीच गेली जगयिल्ली
जिणेंतली सर्व आशा

## सूख-दुख्ख

सूख-दुख्ख म्हजें विचारतले
आयले गेले.
उल्लासाचीं खिणां थोडीं
वांटून गेले.
चिंतनां मात उरलीं म्हाका
धोंसूंक चोवीस वरां.
जशें खळमीत नासतां मारतात
दर्या तडीक ल्हारां!

## नवो दीस उदेला!

सुर्याक पळोवंक सकानासतां
काळोख धांवून गेला.

नवी आशा हाडून परत
नवो दीस उदेला!

निराशेचीं काळखीं मोडां
दाखयत रुपयाळी देग!

निराशे थावन आशा किरलोन
नवो दीस उदेला!

विरहाचे धगीन लासून
तळमळटल्या प्रेम्यांक

रातभर चान्न्या थंडाय ओतून
नवो दीस उदेला!

बुडटकच सुर्यो बावलें साळक
विरहाच्या काळखांत

पूण उदेंतींत पळय परत
नवो दीस उदेला!

दिव्यांत तेल ना तोंडार शेळ ना
आयला वैरी काळोख!

अवेळीं परत उजवड आयला!
नवो दीस उदेला!

कालचीं दुकां गालार सुकल्यांत
वेळा-काळांत लिपल्यांत.

भरवंशाचीं किरणां हाडून
नवो दीस उदेला!

## जिणेचो धग

जिणे धगींत ल्हासून गेला
जीव-गो तुजो.
हर सूख संतोश, मोग भरवंसो
काळजांतुलो.
उरला कितें? उगडास फकत
कोडसाणीचे!
आनी दोळ्यांत दुकां
बुड्डगोल जिणेचे!

## कोडू-गोड

थोडें कोडू, थोडें गोड
जिणेंत आसता दोनूय.
दोनूय मेळून खावंक शिकिल्लो
म्हणयेत बुदवंत, ज्ञानी
कोडसाणींतय गोडसाण सोदून
जायत तो तत्वज्ञानी!

## सोंशाचे कान

मातयधुळींत दुर्बळ्यांचे
घामामणी मोळून
अस्तंतेच्या दिगंताचेर
आयलें रगत पिळून
देकू देकून सोमयां म्हज्यो
दिश्टी गेल्यो वळून
आतां नाकात दोळे नाकात
रगता पिशे रगतां देखात
म्हाका देवा दान दी
सोंशा सांगडे कान दी.

जिबली नाचल्या दांतां फाटीं
कलवंतांच्या पांयां भाशेन
रुची गोस्ता वाजवो सुटोवन
मस्तेन धांवल्यात धाय दिशेन
कांदे, पेंदे, मुळे खायल्यात
पालो, मासां व्हडे खोशेन
आतां म्हाका जिबली नाका
रगतां मासां तुमीच चाखा
आयकुपाची तान दी
सोंशा सांगडे कान दी

संवसाराच्यो घाणी खायत
नाकां रंधीर मेलां
जिविताच्या पाना पानार
मरणान म्हेळें केलां
हाडां मासां हुंगप हांवें
केन्नाच सोडून दिलां.
आतां नाकात, नाकां नाकात
वास परमळ तुमीच हुंगात
ल्हान नाका, म्हान दी
सोंशा सांगडें नाक दी

भोंवची सकत घोणीक दिली
नाकांतुली मस्ती मेली
सोंशा सांगडे कान मेळटां
खोशी मनांत कुस्त्यो घाली.
आतां लोक कानाक धरता!
सोंशा भाशेन जाता गुळी
बाबा, बाये सोडात म्हाका
कानांक म्हज्या धरूं नाकात
देवा तुवें कान दिले
सोंसून व्हरचें त्राण दी.

## हाड चेडवा बुडकुलो

हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळ्यांत
म्हजें तुजें उतर जालां काजच्या मळ्यांत.

अमृताची धार गो, आमच्या लग्नार ओतूं गो
बऱ्या-वायटा रिवाजांची तकली ती भेतूं गो
तुजो म्हजो रोस घडूं अर्द्या वळ्यांत
हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळ्यांत
म्हजें तुजें उतर जालां काजच्या मळ्यांत.

पाद्री चीट वाची ना, वडील माटव रची ना
म्हज्या तुज्या बऱ्या-फाल्यां सयऱ्यां सावळी येवची ना
पाद्री वडील वाळून वचूं व्हाळाच्या व्हाळ्यांत
हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळ्यांत
म्हजें तुजें उतर जालां काजच्या मळ्यांत.

करियामणी बांदिना, भांगर शिंगार घालिना
आमच्या होरा मुखल्यान गो रस्मा गाडी वेची ना
म्हजें तुजें लगीन घडूं मोगरे कळ्यांत
हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळ्यांत
म्हजें तुजें उतर जालां काजच्या मळ्यांत.

धोल घुमट नासतना, गर्नाळींचो नाद ना
पेंपाऱ्यांचो साद ना आपल्या पेल्या वाद ना
काजराचें गायन गाजूं कोगळे गळ्यांत
हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळ्यांत
म्हजें तुजें उतर जालां काजच्या मळ्यांत.

सात सात जाकिना, चोवदा जातीत मूं सन्नां
सन्नांचेय पर्वो ना सोयरे-धारये आसचे नात
आमच्या लग्ना काफ्ये संभ्रम पाळ पोळ्यांत
हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळ्यांत
म्हजो तुजो मोग जाला काजच्या मळ्यांत.

बुडकुलो गो आयलोना तळ्या उदकां लकलो ना
दस्तुऱ्यांचे पाजे मुखीं तरनो तकलो ठिकलोना.
आमच्या लग्ना आंवडो गो सुकलो गळ्यांत
हाड चेडवा बुडकुलो लकय तळ्यांत
अजून तुका राखून रावलां काजच्या मळ्यांत.

## काळजाचीं उतरां

काळजाचीं उतरां । आयलीं उमाळ्यान
मोतीं शिंपलेंतल्यान । भायर जशीं

उतरां निर्मळ । मन म्हजें उकतें
फुल्ले गा निकतें । फूल जशें

हातूंत ना कुंडो । मेळचे ना गा पोल
सोलूनच सोल । दवरिल्लें

पयल्या पावसाचो । धरतरेचो स्वास
जावन मातये वास । येता हाका

दर्याच्या गाजाचो । आसा हाका छंद
कल्पनांक बंध । मळबाचो

पुनवेच्या उदकाक । उचांबळ चड
जीव घेवपी ओड । चंद्रिमाची

तशी म्हजी आस्त । तुज्या चैतन्याचो
स्पर्श तांकां जावचो । परिसाचो

## गोरूं

मळा वयल्या सरयांतलें हांव रे तुजें गोरूं
कंवळ्या चरवार चरचें सोडून धांवता तुकाच धरूं!

तणा वयली खाणा वयली वान्सा गेली उडून
उदक निवोळ पियेवपाचें पुराय गेलें भुलून
घोली-घोलींत झिली-झिलींत धांवता कान करून!
मळा वयल्या सरयांतलें हांव रे तुजें गोरूं!

गोठो-गोवण, दावें-दावण सुटले बंदपास
हड्ड्या भितर फुगार जावन घुसमट्टात स्वास
धाय दिकांनी धिरयो घालीत लागलां हामे-हामेरूं!
मळा वयल्या सरयांतलें हांव रे तुजें गोरूं!

मळा वयल्या गोरवां सोडून सोदता सगळें रान
भंया विरयत किण्ण काळखान एकलें एकसुऱ्यान
हांबे-हांबेट्यांनी गेलें सगळें रान भरून!
मळा वयल्या सरयांतलें हांव रे तुजें गोरूं!

आशेल्यात आयकूं कान वळखीचेच सूर
उगडामांचो काळजा भितर व्हडलो महापूर
पातकड्यांतल्यान पाणयाचे लागले झरे झरूं!
मळा वयल्या सरयांतलें हांव रे तुजें गोरूं!

धांव धपटून शिणलीं गेतां लागलीं थरथरूं
हांबे-आड्डून जिबेर आयलो फेस दरदरून
कुडींतलो जीव सोदता कूड सोडून उडूं
मळा वयल्या सरयांतलें हांव रे तुजें गोरूं!

## चंद्र उदेलो

चंद्र उदेलो
हांसो उफेलो
तुगे-म्हगेलो!

रात कळेली
भूल बळेली
तुगे-म्हगेली

चान्नें चंवरलें
पिशें शिंवरलें
तुगे-म्हगेलें!

दिने उजळ्ळे
गीत घुंवळ्ळें
तुगे-म्हगेलें!

## आंबोली कांय अंतरंग बिंबां

1

आंबोलेच्या दोंगरा माथ्यार
पावतां पावतांच
अचळय कुपांनीच उखलून आमकां
आमचे उमे घेतले
आनी
अनंत अवकाशांत जशें कितें
लुवलुवीत, गुबगुबीत
कापशी फुलार
फुलपांख्यांचेर धोलयत झेलतय
अळंग वयले वयर
भिरभिरायत भोंवडावन हाडले!

2

आंबोलेच्या घांटांत
मळब आनी धरतरी
हांची विलक्षण
आपालिपा चलता;
हांगा धरतरी मळबाच्या गोपांत
मळब धरतरेच्या कुसव्यांत
धवेफुल्ल दुदाळ धुंवटेचें
तरळ-विरळ
कामरूण आंगार ओडून घेत
मोग मोगाच्याय मोगांत विरगळत
सगळ्या संवसाराकच विसरून वता!

3

हांगा सगलोच शिंवर सांवार...
पावसाळ उदकाचेर सामको भार
लोटांचेर लोट, घोग्यांचेर घोगे
आनी घसघशांक ना थार...
हय न्हय धुंवटेच्या पालवा आड
रुप्या रोस कशे...
दोंगरा मस्तका वयल्यान हें सगलें
खंकाळत सकला शेंवटता
तेन्ना
मल्हार मृदंगी पावशी सारेगामा
आळयता आळयता
तुफानी रूद्र तांडवाचेंय
घनगर्जन थंय गर्जत आसता
लक्ष सुरां-तालांची बेधुंद लय
सैरसैल पावली मारीत आसता!

4

आंबोलेच्या सैमा सांगातांत
पावसय आपणालें घरंदाज पावसप
नुलयत विसरून वता.
तोय पिसोच,
आंबोलेच्या मोगांत
भिरीभिरी विरगळत मुरगळत

थंयचे थंयच
धोंवर मारीत रावता...
आनी
थंयच्यो घळयो, घोळ, देगणां
झाडां-पेडां, रूख-रुखावळ
आपणालें ताठ-तिट्ट दिग्गपण
सोडून
निखळ सदळसार जायत आसता
सकाळ-दनपार-सांजपार...
ह्या तिनूय पारांचो थंय
एक गुंजमादक स्वर-राग जाता
एक अपूर-नुपूर अनादिनादच कसो
धवे धुंवटेंतल्यान
मोरपांखी लक्तुबायेन
खातकुतल्यो करीत रावता...
आंबोलेचे सैम म्होंवाळायेंत
सैम तुज्या गात्रांत
तूं सैमाच्या स्वर मंत्रांत
मेळून भरसून वता...
आनी,
वयलेवयर अळंग रुपान
थंयचे थंयच तूं तुज्यांतूच धुंदपणान
खिरतूच उरता
मुरतूच उरता, विरतूच उरता...

5

आंबोलेचो घांट
न्हय एक मार्ग, एक वाट
हांगा दर एक चांट
सैम सुंदरायेची एक आलापना
धरता तुजी फाट!
आंबोलेच्या घांटांत
पाचवेंचार रंगमालें
कापशीं धुंवटेंत
रंग बदलीत आसता
मदीं मदीं केन्नाय
सुर्यराया दोळे दिपकायत
ताचेर इंद्रधोणवी रंग
शिंपडायत आसता,
शिंवरायत आसता!

6

धुंवटेचो आडसर
खिणभर पयसावता तेन्ना
त्या अथांगाचो वेध घेवपाक
ही नदर पावून पावना...
तळामुळसा मेरेन पातळिल्लें कोंकण
आपणालें शिरवाण सुगंधी
हरवेंताल्ल गीत
अखंड गायतच्च आमाशें दिसता...
कोंकणभुंये घांटा मेरेन ताचे मूर

कितल्योच जंदऱ्योवाळे खुळखुळायत
पांयजण पावल्योय मारीत आसता...
धुंवटेचें विरवीर वस्त्र
फाळत वता तेन्ना
मोचेमाडकारी दशावतारांतलें
द्रौपदी वस्त्रहरण थंय साकार जाता
आनी, आंबेलेची वनराय
तटस्थ योग्यावरी
भिष्माचार्यी निर्लिप्ततायेन
तें सगलें पळयत आसता,
नियाळीत आसता...

7

आंबोलेची दोंगरा वाट
सोंपत येता तेन्ना
मान ऊंच करून
धुंवटेचे घुंवळेंत
घुंवळून गेल्लो घांट
तुका नदरे किरणांनी
मोखीत आसतां,
नुलयत
साद घालीत आसता
तुज्या स्पर्श खिणाची
याद काडीत,
तो केन्नाकेन्नाय
ते घुंवळेंतल्यान
अर्द सैराणाचे अवस्थेंतल्यान
तिरपी नदर घुंवडावन
तुका सादार साद घालीत
सादयत आसता
सादयत आसता!

8

आंबोली,
हांगा दाट कापशी
सपनाळे धुंवटेंतल्यान
जेन्ना केन्नाय
सूर्यदेव किर्णवर्खी
नदर भोंवडायता,
तेन्ना
आंबोली,
म्हाल म्हातारी आसली तरी
कंवळ कांत तरणी तरणी जाता
पाचवो चुडो, पाचवें कापड
लजवंती व्हंकल कशी
लागोळी,
श्रावणमुरको मारीत
सूर्यराया,
घे, गोपांत घे रे म्हाका
अशें पराथीत पराथीत,
आंगापांगाक
कंवळी बाग दीत
चोंयशीं
ओडलायणी नदर
भोंवडायत आसता,
भोंवडायत आसता!

## मनओली मोनेळ

मनओले मोनेळेचे
कळे मोनेले
जळधुनींत जळपेले...
कळसुल्यांनी शिंपलेले
आडवणांतुले मळे
मुळांपाळांनी
पोटयांच
कितलीं अंतरां
सांसपीत गेले!
केन्ना जाणवले
मदले मदें हुमकळे
जिवाभावाचीं नातीं
मोन्यांनीच वळखले
मनओले मोनेळेचे
कळे मोनेले
जळधुनींत जळपेले...

## गोळ

म्हज्या उस्वासाचें
कळींवर -
सुक्या रक्ताचेर
तळसता!
हुमकळटया हावेसांचेर
कूड म्हजी
उत्फर्क्यांचे गोळ घेता!

## सूर

खोल गर्भांतले साद आतां
ह्या घांटीघांटींचे नाद जाल्यात
नदरे पेल्या दर्याचे गाज आतां
हांगाच्या गितागितांचे राग जाल्यात

अनवळखीच त्यो नुरो पूण
संवकळीचेच आतां इश्ट जाल्यात
मेरे वयले गेले जे पिरंजळून
त्या उतरांचीं आतां फुलां जाल्यांत

यागांत हांगा राबून राबून
फुडले गडे आतां येवचे जाल्यात
सगळो शीण पयस करून
तुजे म्हजे सूर आतां लागचे जाल्यात!

## चंद्रफुलां, चंद्रफुलां

चंद्रफुलां, चंद्रफुलां
शिंपडिल्लीं सपनदळां
हुमे गीत गायत गायत
धादोशीचीं जिणे बळां

रातीचे दर्या देगेर
परमळान स्वास जड
चंद्रिमाचे सायेतळा
घायांची दुखाळ कड

गीत केन्ना ल्हव निळें
केन्ना उतर जड-गुळे
चंद्रफुलां, चंद्रफळां-
जिविताचीं भुंयमुळां!

## वंशकुळाचें देणें

आमी आमच्या वंशकुळाक देणें लागतात
देखून आमचीं गितां आमकां गावचीं पडटात

कांय अभागी तांकां कळुनूय केन्ना कळना
ते मेळत तशे फातर शेंवटीत वतात
त्या फातरांच्यो जाल्ल्यो व्हड व्हड राशी
त्यो ह्या हातांकच निवळ करच्यो लागतात
आनी देखून आमचीं गितां आमकां गावचीं पडटात
कारण आमी आमच्या वंशकुळाक देणें लागतात!

कोण कोण प्रेशितांचीं रुपां घेवन येतात
देवा नांवान झगडींच पेटोवन वतात
रगता भाशेचीं नांव नातीं विसरून
बडवाचाराचीच ता ता थै थै शबय घालतात
आनी देखून आमचीं गितां आमकां गावचीं पडटात
कारण आमी आमच्या वंशकुळाक देणें लागतात!

आमच्या सपनांतलीं सुंदर सुंदर नगरां
ते खिणा खिणा उद्ध्वस्त करून वतात
आमी रोयिल्लें सोबीत पारजताचें झाड
झडिल्लीं फुलां तेच अचळय माडोवन वतात
आनी देखून आमचीं गितां आमकां गावचीं पडटात
कारण आमी आमच्या वंशकुळाक देणें लागतात!

काळखे रातीं ते भिरांतेचे कुले घालतात
मठा-मठयेंतले दिवे बळयांच पालोवन वतात
वाट कळना जावन मदले मदींच सगले
खांची गोंयड्यांनी आडावन उरतात
आनी देखून आमचीं गितां आमकां गावचीं पडटात
कारण आमी आमच्या वंशकुळाक देणें लागतात!

आमकां खरें तें, ते लटीक धरतात
तांचें लटीक आमचे गोमटेक बांदतात
आमचे पंगती, आमचोच शीतरोस उश्टावन
आमकांच न्हय गा ते अबरगती लावपा सोदतात
आनी देखून आमचीं गितां आमकां गावचीं पडटात
कारण आमी आमच्या वंशकुळाक देणें लागतात!

## साक्षात्कार

सकाळच्या फांत्यापारार
सुकण्याच्या संगितान
धुंद जालें मन
धरतरेचें जालें गगन
हांवूंय सर्गधन

सैमाची लागली तान
कुडीचेंय नुल्लें भान
सरभोंवतणीं समरस हांव
मंद पळय व्हांवता पवन

शेनाय सूर्त सप्त सूर
घंटी-नाद गिरीजाघर
अमुरपिके आंबुल्लेचेर
रविराया कंवळें कवन

कोगळेचो म्होंवा मळो
शिंपीत वता मोग मळो
अदितीचो उकतो दोळो
विसवाचें नंदनवद

दिव्यप्रभा मळबा कांठार
परमळीत सगळो वाठार
रेंदरा ओंठार कोंकणी कांतार
आगळो एक साक्षात्कार

## पुनव

आयली दुदाळ पुनव
घोगो चान्याचो वयल्यान
धरतरेचे हांडीचेर
कळसो अळकनता भरून ।।1।।

आयली रुपेरी पुनव
भरती आयली समुद्राक
फेणेराच्या हारशांत
रूप दाखयता चंद्राक ।।2।।

आयली मोगाळ पुनव
पामरी पांगरून रुप्याची
मळबाचे तबकडेंत
निरांजनां नखेत्रांचीं ।।3।।

आयली शितळ पुनव
ओड लायता नवरुपेक
सर्ग भुंयेचो एकचार
मोग दाखयता जगाक ।।4।।

आयली धवीच पुनव
शालू बुट्यांचो न्हेसून
चुडो जुयांचो माळून
आखो तिखो करून ।।5।।

## खंत

धांवून यो रे साईनाथा
पळोवं नाका अंत
लागल्या तुज्या दर्शनाची
जिवाक म्हज्या खंत

षडरिपूंच्या कमंडळाचे
समजलेनात रंग
मोयपासांत संवसाराच्या
जावन गेले गुंग

जाणविकाय आयली आतां
कोण न्हय कोणाचो
दंवा थेंबो आळवा वयलोसो
देह हो खिणाचो

दुर्बळांक तूं दयाळ
दुर्जनांचो काळ
जंवजाळांतल्यान वाटाय म्हाका
जावन तूं कृपाळ

## आसोर

हारशा वरी नितळ वत
चंवरां घालूंक लागलो वारो
परमळ्ळीं वालीर फुलां
मातयेकूय रंग कोरो

काजळी कुपां सुटलें गिराण
मळब जालें निळें निळें
ओथांब्यांनी भरिल्ले
मेकळे जाले रुखा ताळे

आसोराचो थाव घेत
सोडलो घोंटेर सवण्यांनी
आंब्या वयलीं चानये पोरां
लागलीं खेळूंक धांवपांनी

भांगरा वरी किरणांनी
काडलें पुसून पावसा लाशें
लखलखल्यो धाय दिको
संवसारार फांकलें हांशें

## यादस्तीक

लकणी जरी आयली दोळ्यांक
रात हांव काडटां जागयत
काळजाच्या कुरकुटांत
उगडासांचो पनेळ व्हलयत ।।1।।

उमळ्यांचीं उतरां तीं
विसरूं कशीं रिगलेलीं
जनऱ्यांच्या खिणा वरी
घरां कन्न बसलेली ।।2।।

फुडाराचीं सपनां निळीं
फुलां वरी पुंजायलेलीं
उमेदीच्या रस्मा दोळ्यार
सोबीतकायेन गुंथलेलीं ।।3।।

सवणें कशें भूर्र कन्न
सुखा दीस गेले उडून
यादस्तीचे दुख्खा पिले
काळजा तळांत बमत्यात लिपून ।।4।।

## आयज तूं वेतलो देखून

आयज तूं वेतलो देखून
ओंठार हांसो आयलो सुकून
दोळ्यां-तळ्यांत भरल्यो झरी
काळजा गोंडाक तोपली सुरी

उबगणेचे पडले घाय
उमेदीची बावली जाय
घरा गेली रसणाय
मनाकूय लागली पिसाय

घर भरून ओत्ता दार
मोगरेर कळ्यांक आयला भार
देवाऱ्यांत देव ना
कोणा खातीर गांथचो हार

रुखा कुशींत रिगल्या वेल
भोंवरे फुलां खेळटात खेळ
हांव मात एकसुरीच
भायर भितर काडटां वेळ

## झाड : चारी रुतूंत

थंडींत रावता झाड
मडचून घेता पान्नं
वतांत हालता झाड
खेळयता सुर्या किरणां
पावसांत रावता झाड
न्हाता मोडांचें उदक
चैत्रांत धोलता झाड
पाळ्ळें करता पक्षांक

## काजवे

एक झाडाने एक फंता होगाणू घाल्लें
एक पान नवें
तें पान सोदूंक रातीं ताने
लायले सान्न दिवे
दिव्यांक खिच्चयली,
पाक्कं दिवे लागले उबूंक
सोदले तांणी सगळे घेल्ले
दावे आनी उजवे
तेची ते उजवाडाचे
चमचमताती काजवे

## हट्ट

हांवें हट्ट केलो
तूं म्हाका जाय, जाय म्हणून
हांवें हट्ट केलो
तूं म्हाका सोड, सोड म्हणून
(म्हाका खंय तरी वचपाचें आसलें)
हांवें परतून हट्ट केलो
तूं म्हाका धर, धर म्हणून
तुवें दोनदां मानलें,
तिसरे फावट ना
तुका हें कशें कळ्ळेंना,
आवयचें व्हंटयेंत रावनूय
मळबाक आंवडेवपी
हांव...

## कांय कविता

1

पुरो
जगाचे देव्हार
आनंदाची धार
तुटची न्हय

पुरो
जनांची संगत
तुजोच भगत
दुसरो न्हय.

पुरो
संवसार सुखां
दुख्खाचीं तीं मुळां
उरचीं न्हय

2

आनंदाचे हे खेळ
अशे खेळून घेवचे
भोग भोगून वच्चे
दीसपट्टे

असो संयोगाचो योग
असो अजापाचो मोग
तृप्त जिवाचो हो भोग
पूर्णपणान
दीसरात हें अशें
देह पयसावत चल्लें
मुक्त अळंग हें जिणें
फूल कशें

3

आमी आनंदाचे धनी
आमकां आनंद-
खिणा कणकणीं
आमी चैतन्याचे दास
आमकां सदां-
तेच बंदपास
आमी बंधनांत अशे
सूख सुखांत -
फुलतूच चल्ले.

4

पावलां तुजीं वेंगावन हांव
बसलों घालून आसन
आतां अमृताचें जेवण
जेवचें हांवें.

तुजे कृपेची ही माया
कवळीत चल्ली म्हजी काया
निव्वळ अपरूप ही दशा
जिवाची म्हज्या.

खंयच्या सुकृताचें हें फळ
म्हणून मन तें निर्मळ
म्हज्या अमंगळाचें बळ
जावन उरलें.

## प्रीत नासलें जिणें कसलें

मूर्त ना तें देवूळ कसलें
भजन कसलें भक्तीवीण
गोडी नासली मिठाय कसली
आरत कसली वातीवीण

दृश्टीच ना थंय कसली सृश्टी
चलपीच ना थंय कसली वाट
रूच ना तें तोंड कसलें
नाल्ल नासलें कसलें भाट

फुलांच नासल्यार कसलें पोरसूं
मनशांवीण कसलें घर
प्राण गेल्ली कूड जाता
कोयर-फातर खिणा भितर

जाय जाल्ल्या गुणांवीण
रुपाक कशी येवची सोबाय
संस्कृतायेची जोड नासल्या
शिक्षणाची कसली व्हडाय

गती ना ती कसली गाडी
रोस ना तें फळ कसलें
सूर नासलें गीत कसलें
प्रीत नासलें जिणें कसलें

## मर्णवाटेक लागले पांय

मर्णवाटेक लागले पांय
जीण जाली अनवळखी
धवशा दोळ्यां मुखार ताच्या
विसरायेची आयली साय

मिणमिणटा दिवली वात
निमाणेचीं मेजीत खिणां
पिरायेचो अंत पळयत
पडल्या सकयल मंदकाय

मोगाचे पाश घेवन
जमले म्हऱ्यांत आत्तइश्ट
मातयेच्या पुताक आतां
मातयेची कूस जाय

पलतडीं हुपली नदर
निरोपाचें नुल्लें उतर
रिती केली जीण ताणें
रित्या हातान वचूंक जाय

## प्रार्थना

हळडुव्या सांजवेळा दीस देंवतना
हांसय वात दिवलेंतली आस्त दिसतना ।।

ताप भवाचो न्हिवलो, पडची जाली रात
उरतल्यांक दिवचे दिवन, रावले रिते हात
सोंपय पासेय पिरायेची, तृप्त आस्तना ।।

घुसपतना प्रपंचांत, चुकली तुजी वाट
कळावाची ख्यास्त मना, आतां जगा फाट
वांगड नाका सवंगड्यांचो, ध्यान लागतना ।।

आपोवणेच्या किण्ण खिणा, उरचो म्हजो हांव
एक तुजें भगवंता, दवर जिबेर नांव
न्हीद निमणी घाल तेन्ना, करतां प्रार्थना ।।

## विचारांचें पिसोळें आनी हांव

विचारांचें पिसोळें
मनाच्या पोरसांत भिरभिरता
हांगा-थंय नाचत, उडत
उगडासांच्या फुलार थिरता ।

हुस्कारतां, फुस्कारतां
भेसडावन ताका धांवडायतां,
मावले जाळ्यांत मूस कसो
म्हजे म्हाकाच घुसपायता ।

शिंपणारी, फुलयणारी
आयज ना ह्या जगांत
मोगाचो हात गुंथणारी
याद फकत तिची मनांत ।
मोगाचे वालीर फुलिल्लीं फुलां
तिजे बगर बावून गेल्लीं,
दुख्खाचो वयर धग लागून
सुकून गेल्लीं, करपल्लीं ।

पिसोळ्याक ना हाची चिंता
जाल्ल्याचें दुख्ख, जातल्याचें भंय
काळजाची राणी सोडून म्हाका
गेल्ल्याची ताका खबर खंय?
उगडासांच्या गोड फुलार
म्होंव चाखत बसता तें,
मंद वास, मोव पाकळ्यो
तांचेर धोलत, चाळयता तें ।

तिडकीन धरूंक फुडें सरता
कोडू यादीचो कांटो तोपता,
नाजूक काळजाक जावन घाय
दुकांचें रगत व्हांवत रावता ।

पूण अजाप खरें जाता म्हाका
फूल-फूल फुलता जेन्ना,
आनी पिसोळ्या वांगडा हांवूय पिसो
म्होंव चाखूंक लागतां तेन्ना ।

## अशींच केन्ना

अशींच केन्ना बसून एकलीं
सुखा-दुख्खाच्यो केल्यो गजाली
गेलीं विसरून तेन्ना दोगांय
भोंवतणची सृश्ट सगळी

असोच केन्ना वाऱ्यान गायलीं
कोणा कवींचीं म्होंवाळ कवनां
तुज्या दोळ्यांच्या तळ्यांत हुबलीं
संवसाराचीं सुखाळ सपनां

असोच केना कुपांफाटलो
चंद्रीम अचकीत दोळ्यार आयलो
अर्दी उरली भेट ओंठांची
छाप अर्दो चंद्रार उदेलो

## यो बेगीन

उज्या केणांत जळटा जीव
कळचें हें कशें तुका
अंदला गळ्यांत प्राण
अंत आतां पळोवं नाका

तुजे विरयत व्यर्थ जीण
संवसाराचो सर्ग हीण
शिंपतना एकेक याद
सुकलीं गे दोळ्यां दुकां

अमृताचे घेतले घोंट
आयज तेच सुकले ओंठ
संजिवनी तूंच म्हजी
यो हांसय मोन्या सुखा

उमाशेची काळखी रात
पालवता आशेची वात
स्राप दिवंक आयली तरी
यो, कळाव करूं नाका.

## जिवीत

दर्यांतलें व्हडें कशें
जिवीत म्हजें चल्लें फुडें

वादळांतल्यान वाट काडीत
फुडाराचेर नदर मारीत
आलतडसून पलतडी
तुरू तुरू धांवता अशें

पयलो वयलो हावेस ताचो
वयर वयर उडटा कसो
नकळटना ताच्या मना
सासायेचें गीत जशें

रंगरंगयाळीं ताचीं शिडां
कातरीत अशीं वादळा मोडां
दिल्लें उतर पाळतलें
सैमाचें राखून हांशें

## उजवाडाचो दिवो

पयस असो उजवाडाचो पेटला दिवो
तेच दिकेन मारतां पावलां दीसरात
वाट आसा सताची, निधर्माची
वळखना हांव जात, कात, पात

हावेसाचो हुमरो हुपून येता सुर्या
ल्हारां उचांबळून कर्तुबांचो गाजता दर्या
शांत अशा मनाचो आसा म्हाका सांगात

सपनांत दिसता क्रिश्त सोडटना प्राण
खिणांत तोखेता रामाचें कार्य म्हान
अल्ला, महमद, बुद्ध दितात हात

आयज म्हजें काळीज येता फुलून
एकवटाचें दायज वता भुलून
गोंया वांगडा देशाची पेटयत वात

## नमन तुका दशणी

दशणीचे दशणी गो
जिबली तुजी लांब लांब
तुजोच रुपकार नियाळीत गो
चलतां वाट सगली सांज

दशणीचे दशणी गो
रत्ना रतन रंग तुजो
काळीज म्हजें जळटा गो
दिसता ताका पेटला उजो

दशणीचे दशणी गो
सोबीत तुजी न्हेसण बाय
आंगार तुज्या तांबडी चोळी
शेजान्नीक गे बाये कित्याक नसाय?

दशणीचे दशणी गो
तुकाच पळोवन मेळटा सूख
शेवण्या पील गायता गीत
'तूंच म्हजी मारता भूक'

दशणीचे दशणी गो
सदांच निर्मळ तुजें आंग
जीब कितलीय आसल्यार लांब
चाडयेकान्न कोणूय म्हणीत सांग?

## नशिबाचें व्हडें

नशिबाचें व्हडें गा
सुटलां वचूंक पलतडी
उबत उडत सगलो संवसार
उबारिल्लो आलतडी

आलतडचे न्हंयेचें उदक
नितळ तशेंच निर्मळ जरी
पलतडचें दिसलां ताका
गोड, गोड, म्होंवा वरी

आलतडचे आंबे पणस
रुचीक ताका लागलेनात
पलतडच्या खाजरां आशेन
पयस वच्चें सोडलेंना

घर आपलें बांदचे खातीर
पिकास हातांत घेतलोना
रावलें वाऱ्यार उबयत पतंग
हालयत वाजयत पायजणां

नशीब आतां सुटलां गा
सूख सोदूंक पलतडी
पाळांक मुळांक अशींच सांडीत
रडचे खातीर आलतडी

## गुलाबाच्या फुला गो

गुलाबाच्या फुला गो
तुजीच म्हाका अपुरबाय
कांटे तुजे तोपले तरीय
म्हौंवाळ दुखीक ना पर्याय

गुलाबाच्या फुला गो
थकिल्ल्या जिवाक आसरो जाय
तुकाच वेंगेंत घेवन गो
सुस्त म्हाका न्हिदूंक जाय

गुलाबाच्या फुला गो
दोळोच तुजी करता नसाय
परमळूच तुजो पुरो म्हाका
उरिल्ल्याक उजो लाय

गुलाबाच्या फुला गो
दंवा थेंबे चोखीत राव
म्हजोय ताळो सुकला गो
मोगा तान भागयत राव

गुलाबाच्या फुला गो
पाकळ्यो तुज्यो विलुदाच्यो
यादी कित्याक हाडटाय सांग
शेणिल्ल्या मोगाच्यो

गुलाबाच्या फुला गो
नांव तुजें कितेंय जावं
परमळ तुजो पसरतच
जल्म नवो घेतलों हांव

## हात जोडून

जेन्ना तूं नदरे पलतडी आसता
तेन्ना एकमुळो आसना
तुजे भोंवतणीं भोंवत आसता
राखणेचें वज्र जावन
आमचे मायेची सासाय

तूं जेन्ना कश्टून कश्टून
सामको खासावीस जातलो
कूड विसव घेवंक सोदतली
तेन्ना आमचीं मागणीं आनी
पुण्यायेचें बळ तुका मेळटलें

जेन्ना तूं शिंयान कुडकुडटलो
आंगार कांटो फुलतलो
भंयान अर्दो मेल्लो जातलो
तेन्ना शांतपणान दोळे बंद करून
खीणभर आमची याद कर
तुज्या तनांत आनी मनांत
जोगला वरी तेज संचारतलें

जेन्ना वतान करपतलो
मेंदू उसळूंक लागून
दोळ्यां मुखार काळोख दिसतलो
तेन्ना अजिबात भियेनाका
आमी रूख जावन तुका
मायेचे सावळेंत धांपून घेतलीं

जेन्ना जेन्ना तुजेर विकल्प येता
तेन्ना म्हज्या काळजाच्या पड्ड्याचेर
तुजें हांव प्रतिबिंब पळयतां आनी
तुजे खातीर मागतां हात जोडून

## बापायची मुस्तायकी

पापा, तुजें खोमीस म्हाका
जायते फावटीं भुजांचेर चडयनशें
दिसतालें
तुजे फाटल्यान तें
चडोवचें पडलें तेन्ना
तुजे फाटीच्या कण्याक
कित्या खातीर बाग पडल्या
ताचें गुपीत समजलें

पापा, तुजें काल्सांव म्हाका
न्हेसचें दिसतालें
पिराय जातकच न्हेसलों तेन्ना
तुजें भेंड कित्या खातीर धरतालें
त्या गणितांतलें सगलें होलमलें

पापा, तुजी तोपी
एक दीस तरी माथ्याक घालपाची
मनांत इत्सा आसली
जेन्ना हांवें ती म्हजे
तकलेचेर दवरली तेन्ना
म्हजी तकली चिड्डली आनी
तुजे तकले वयले केंस
कित्या खातीर गेल्ले
ताची काणी लक्षांत आयली

पापा, आतां म्हाका
तुजे बूट घालपाक जाय
म्हजे बूट आतां म्हाका वचनात
रस्तो लांब आसा
जिविताचो पर्वत ऊंच आसा
तुजे बूट घालून
सडसडीत तुरतुरीत चलपाक जाय

## माये

ईश्वराचे तेज सदां
भितर म्हजे नंदता
उतरा उतराक पावला कणीक
नवी वाट गायता ।।धृ।।

तेजवंत देवा म्हज्या
त्रैलोक्याच्या राया म्हज्या
दर एका वळणा वेळार
हाताक म्हज्या धरता ।।1।।

सोंशीकताये माये म्हजे
भवसागरांतले नावे म्हजे
सुकते आनी भरते वेळार
स्फूर्त म्हज्यांत भरता ।।2।।

कोटी सूर्य प्रकाशमया
ज्ञान आनी सज्ञानमया
दर दिसा शांती सुसेग
कृपादान करता

सगूण निर्गूण निराकारा
परम पिता सर्वेश्वरा
निमाण्या वेळार मुक्ती दिवन
आपल्या रुपांत व्हरता

## किरण

कश्टांच्या घराक
भरवंशाचो आदार
मोगाच्या थाऱ्याक
काळजाचो श्रृंगार
सपनांतल्या झऱ्याक
व्हांवते न्हंयेचे वाटेर
आशेचें किरण

चिंतनांच्या दोऱ्याक
सवस्तकायेचें मुणें
त्रासांचे वाटेर
फुलां भरून दोणे
संयम राखतल्यांचे
मजबूत कणे
ईश्वराच्या भक्तांक
सगलेंच सारकें
तुस्त तोखणाय
तशेंच उणेंदुणें

धरतरेचेर धाडून आमकां
जिवीत दिलां ताणें
जाच्या मनांत आत्मविस्वास
थंय कितें उणें
ईश्वर जाका पावता
जाचे कश्ट फळटात
ताचें सुखी जिणें

## म्हजे बागेंत

तरेकवार फुलां म्हजे बागेंतलीं
रंगरंगयाळीं, परमळान भरिल्लीं
आतांय फुलतात आदलेच उमळशिकेन
निरशेता जेन्ना मन म्हजें
तेन्ना शिंपतात परमळ दितात
मनाक आथवेच तरेचें ताजेपण

लांब काळ मेरेन हांव
काळजांत तुज्या रावन आयिल्ल्यान
मन म्हजें आतां
फुलांच्याच मदीं रावप पसंत करता
तुज्या परमळांत आनी
फुलांच्या परमळांत म्हाका
कांय फरक दिसना

तुज्या उस्वासाची हुनसाण
फुलांच्या परमळांत मेळना
हीच जाणवीक एके उणिवेची
जाणवता म्हाका तांचे मदीं
समजायलें जायतें मनाक
जायत्याच तरांनी तरी पूण
येत रावता याद तुजी

काल जेन्ना हांव
गेलों फुलांच्या मदीं तेन्ना
जालों हांवूय एक सोबीत फूल
म्हाका नांव दिलें गुलाब
आयलें तुंवूय बागेंत त्याच वेळार
तुज्या स्वागता खातीर
ज्युस्त म्हाकाच वेंचलो माळ्यान
आनी दिलो हातांत तुज्या
मुरगुटलें तूं भितरले भितर
आनी हांसलें मुमुरखेंच

## भास

आदल्या जाणटेल्यांनी
कांय कुरवो सोदल्यो
तांकां अक्षरां म्हणलीं
अक्षरां जमयलीं
तांकां उतरां म्हणलीं
अश्या उतरांची
भास केली
तेच भाशेचीं
शस्त्रां घेवन
आमी मात झगडीं केलीं

## पाखो

आडाय आडाय
त्या म्होंवामुसाक
तो पळय बागेंत
वचूंक भायर सरला
साब सुबो पाख्याचो
जीव वतलो!
मूस बागेंत वचून
पाकळ्यो चुमतलो
म्होंव चोखतलो
पोळें करतलो
खंय तरी!
मनीस म्होंव व्हरतलो
उरिल्ल्या मेणाची
वात करतलो
ती पेटयतकीर
घात करतलो
पाख्याचो
खंयच्या तरी!

## मोगान

कितल्योय चादरी ओडल्यो तरी
भुरग्याक ऊब मेळटा
ती आवयच्या गोपांत

कितलींय गितां गायलीं म्हूण
काळीज धन्य धन्य जाता
तें भक्तीगितान

केदोय उजो पेटलो तरी
सगलें थंड थंड जाता
दोळ्यांत दोळो घालून उलयल्यार मोगान

## काळसावळी ही वेळ

काळसावळी ही वेळ
काळसावळेंच झाड
पयस सुकण्यांची वळ
जाता दोंगुल्ल्यांच्या आड

काळसावळे हे वेळेर
मिरयो उबारीत रात
गच्च झाडांनी घुसपल्ले
तिचे काळखाचे हात

## शिंपीभर दोळ्यांत

शिंपीभर दोळ्यांत
मळबाचो गांव
सपनांच्या चोरवाटांक
खबर ताचें नांव

शिंपीभर दोळ्यांत
लखलखती पाती
रसमाच्या केंसरांची
नकळटींच नातीं

शिंपीभर दोळ्यांत
शिंपी कसो हांव
मंयडोळ्यांच्या गांवचो
नागवल्लो थाव

शिंपीभर दोळ्यांत
भोंवर पिसो कळो
भोंवर पिशा कळ्याक
मोगयाळो चाळो

## थेंब

थेंब
थेंब दोळ्यांतुलो तुज्या
जाला म्हजो वलो
ताण
ताण पाणयार म्हाका
तारी तांणी केलो

गेलो
गेलो पाणयाचो तोल
ताचो जालो मगा बोल
खोल
खोल खोलायेची ओल
तुज्या ओंठांनी गो सोल

सोल
सोल खरायेची ओल
घे गो दोळ्यांतुलो वलो
तुज्या
तुज्या थेंब्यांतुले वसाडीन
तोल भोंवऱ्याचो गेलो

## रूंव रूंव पेट्टा

म्हजें रूंव रूंव पेट्टा
तरिकूय म्हाका दिसता
हो दिवाळेच्या पणट्यांचो थाट
अडीअडचणींतल्यान
काळखा हुंवारांतल्यान
जेन्ना तूं म्हज्या मागार येतलें
तेन्ना ह्याच तांबशा उजवाडांत
तुजीं कानसुलां तांबडीगुंज जावंक जाय..
जोतींच्या परजळान
तुजे ल्हंवे कणकणीं
हाते फुलोवन
परमळाची रास करून
नागांकूय नागवण जावची
अशी नागशेर
तुवें वाजोवची
हेच खातीर
म्हजें रूंव रूंव पेट्टा
देखूनच म्हाका दिसता
हो दिवाळेच्या पणट्यांचो थाट...

## कविता एका जन अरण्याची

शिमिटाचे घोंटेर
पावला पावला वाटेर

शिमिटाच्या फोंडकुलांनी
हांगा, घरां-दारां भिणकुलां
कोण जाणा खंय कोणाचें
भाग्य कशें वणखलां

पांयांक बांदूंक
रोदां लोक
चल्ला खंयचे वाटे
कोण म्हणटा
चल्ल्यात हात
चल्ल्यात पोटा भेटे

खंय पोटाचो
देंठ आनी
खंय देंठांक
फुलता फूल
फुला माजार
खंयचे सुवाते
सांगात भुकेक
पडटा भूल

कितली वाट जाणा!
वाटेक दवरण्यांनी भूक
भुके सय भोंवतणीं
तट्टटून फुलता दुख्ख

भूक पेखोवन
हात जांणी
हात मातशे वावुडले
तांणी पुता शिमिटाचे
घोंटेर खिणांत घडले

ही वाट घोंटेरांची
काय
ही पोटाची खाट
कोण म्हणटा
म्हणटा हांगा
हांगा कळी घाट

कांय कळना
हांगा कसली कळ
चळचळून येता
धाय दिकांनी
हुरपट्यांनी
मनीस झोंपोवन घेता

असली वाट
असली तीट
असलो कळी घाट
आंगार, खांदार, तोंडार
हांगा
व्हांवता पोटा पाट...

## उतर उतर जालें

उतर उतर जालें
तुज्या गजराचे बोल
गेलें सगळ्यांचें मोल
तुका सोडून

ना गा जाणवली जीण
फुलां फुलां जाले खीण
गेलो सोडून गा शीण
मनांतुलो

कोण असो कसो गा तूं
आगळीच उचांबळ
सोदी मनाची उमळ
पावलां तुजीं

## दिश्टावो सर्वज्ञ सासायेचो

जाला म्हाका दिश्टावो सर्वज्ञा सासायेचो
जाची विशालकाय रावल्या दिगंत व्यापून
ताच्या सुर्यवर्खी सांगाताच्या वातावरणांत
जीण नव्या सपनांतल्यान जागी जावन
उस्फुट्टा म्हज्या अस्तित्वाचे परिमाण

ताच्या स्पर्शान जावन सताड उकती
फिशालकाय क्षितीजरुपी रंगयाळ्या विस्ताराची
जिणे नदरेक कीर्ण-तासांरुपी मोरपांखांचे तेज चडून
आंवळून येवन एकवट्टात सामकीं आशिकुशीक
रुतू वैभवाचीं पिकां काडीत रावपी साम्राज्यां

जाला म्हाका दिश्टावो सर्वज्ञ सासायेचो
जो म्हजो जिणे ग्रंथ बरयता सुवर्णाक्षरांनी
आपणाल्या सुपीक आदेशाच्या कुरवांनी
मौनाच्या अधिराज्याचीं किरणां झंकारायत
फुलयत चिरंजिवी सोबीतकाय प्राणांत

मुखार साकारिल्ले दोंगर आडखळींचे
ताच्या एकाच इशाऱ्यान आपशींच विरगळून
भोगता ताटांत येवन पडिल्लीं तृप्त वैभवां
आसक्ती वीण ल्हवल्हवसो फुलून फुलत रावपाक

## ईश्वराचें भिंग

निराकार-ईश्वराचें जिवें चुंबक्रियेचें भिंग
तानूंतल्यान प्रकटलां लख्ख ब्रह्मांडाचें बिंब
हें बिंब परावर्तीता सजीव चित्रां तासातासांचीं
जल्मून अचळय विस्तारतले आकाशगेंगेची
जाका सांगात कालातीत चैनत्यशक्तीचो

ह्या भिंगाचो घेवचो थाव एकचीत एकाग्रतायेन
भितर थिरायत भव्य अंतराळ दिव्य महासागर
किर्णां शिंवरावपी माणकां-मोतयांचे विशाल दोंगर
अलंकारांनी शिंगारिल्ली शुद्धतायेन फळून पिकिल्ली
झाडांपेडांची नटून थटून सजिल्ली कलाकुसर

ह्या भिंगांतल्यान चिरंजिवी अश्टताशी रंगी-उजवाड
जाता कोटी सुर्यांचें आगटें ब्रह्म निर्मणेच्या रसायणाचें
जें जिवावळींचे काळ प्रसवणे शक्तीप्रवाह पेरून
भोगयता निराकार ईश्वराचे नवे आविश्कार कल्प-कल्पांतराचे
जे जिवेताल्ल सासणा खातीरच्या आदी-अंताचे प्रक्रियेचें

## मन ब्रह्मांड

मन ब्रह्मांड उंचाय
मन ब्रह्मांड खोलाय
मन अनंत अमाप
मन चैतन्य निळाय

मन प्रार्थनेचें घर
तातूंत तल्लीन देव
परब्रह्माची करणी
जो नियंतो एकमेव

उत्क्रांत-उत्थाना धागे
विणटा वस्त्र जिणेचें
प्राक्तनाचें भांडवल हें
जिणे वैभव नवलायेचें

सैमसृश्ट चराचर जिवें
ही ताचीच गा सासाय
आपुणूच आपल्याचो
आसता खरो गवाय

खीण खीण योगब्रह्म
जाल्या कूड उत्तेजीत
आतां उणें कांयच ना
हांव म्हाकाच भोगीत

## महोत्सव चंद्र पुनवेचो

महोत्सव चल्ला चंद्र पुनवेचो
धरतरेच्या तासां-भिंगांचेर
किर्णोत्सवी सृजन-सुवाळो
मन-दिगंत विस्तृतायेचो

चंद्र पुनवेच्या भारा घोंसार
दोळ्यांक धुंदी अलोकिकाची
चिरंतनाचे वाटेर रकल्या
धार लिकलिकीत दुदगंगेची

## एकाच जल्मान दिसता

एकाच जल्मान दिसता देवा
कितलेशेच जल्म जियेलों
तुजीच कृपा आसली देखून
हांव खंयच्यान खंय पावलों

हांवें कितेंय मागचे पयलीं
फावता तितलें भरुभरून दिलें
दिलें तितलेंय चोख भांगर
जिणेचेंच गोड भांगर केलें

चराचरांतल्यान गोचर जावपी
उत्क्रांतीचो तूं स्वयं दिव्यात्मो
शाश्वत काळाशीं नातें जोडूंक
तेजान विशाळटा म्हजो जिवात्मो

## कुरूक्षेत्र

जल्म-मरणाच्या कुरूक्षेत्रार उदेल्लीं
काळपुरसाचीं उत्क्रांत पावलां
सुचयतात मनीस जिणेचें निमाणें जैत

सुर्यूय परजळटा करून पेरणी उजवाड-वर्सांची
आनी दिता आस्वासन
विस्तारत रावतल्या ब्रह्मांड-ब्रह्मांडांची

## देवा तुजी गोडी

देवा तुजी लागल्या गोडी
मेळटा समाधी ध्यानान
सोंपता जिणे काडाओडी

वचत थंय तूंच दिसता
तूंच भितर सांसपिता
कातकुल्यांनी सहज हांसोवन
मारता मायेची बडी

ध्यान तुजें भोंवतना
गळोभर कामांत आसतना
आवय जशी सानुल्याची
करता याद घड घडी

आतां चड उणें खंय
मुक्त अनंततायेची वंय
आलतड पलतड जाल्या एक
ना कसली चडचडी

## अनादी अगम्य परतत्व

अनादी अगम्य परतत्त्वांतल्यान
म्हजे मेरेन पाविल्ली ही
रंगरंगयाळ्या लखलखीत दिव्यांची रांक

ही रांक एका एका दिव्याक
क्रमाक्रमान पेटोवन
आनी फाटल्यान एका एका दिव्याक
पेटपाचे तयारेंत दवरून
गेल्या शेणून वयर
अनादी अनंत परतत्त्वांत

काळाच्या हुंबराचेर
ह्या दिव्यांक अखंडीत पेटत दवरून
सृजनाचीं अजापां करपी
हो कोण अनामीक कलाकार?

ह्या दिव्यांची जिवसाणीची उर्जा
पातळायता म्हजेर चुंबकी किरणां
आनी हांव हालून जातां
उर्जेचो सृजनकार
सैम-सृश्टीक लसलसत दवरपी

हो अनामीक कलाकार
अनादी अनंत परतत्त्वांतल्यान
एक एक उत्क्रांत दिवो पेटोवन
घालता उत्थानाचें उमाणें
जाची जाप तोच जाणा

## म्हजें काळीज

घडयाळाच्या
टीक् टीक्
आवाजा भशेन
काळीज म्हजें
दिसाचीं
चोवीस वरांय
उडून उडून
आसा
आनी खिणान खीण
हांव
जिवंत आसां म्हूण
म्हाका तें जागयता!
म्हजें आवक
घडयेन घडी
उणें उणें
करीत येता
पूण
म्हज्या काळजाक
म्हजो मोग ना
कित्याक तें
म्हजे लागीं ना
तें
अरबी गांवच्या
भांगरांत आसा
तें
आधुनीक चलयांच्या
शृंगारांत आसा
तें
इगर्जेंत भोंवचे
इजमोलाचे वाटलेंत आसा
सोऱ्याचे बाटलेंत आसा
तें
बँका भितरले
तिजोरेंत आसा
पंचतारी
होटॅलांत आसा
विलासी क्लबांत आसा
पूण
म्हजे लागीं तें ना
काम क्रोध
सुरात-हंकार
हगें मोसरान
भरल्लें काळीज
सगळ्यांत आसा
पूण
म्हजे लागीं मात
तें ना

## पाडसा वयलो कुंवाळो

तूं
पाडसा वयलो कुंवाळोय न्हय
खळांतलो आंवाळोय न्हय.
एक तारखेचो नोटीचो कवळो
आनी तुजो लग्न सुवाळो सोडल्यार
तुका कुसकुटाचो ना दुवाळो
तूं फकत धरतरेक भार
आनी अन्नाक खार.
तुज्यांत ना उतर ना शाय.
तुजी जीण म्हणल्यार-
तूं, बायल, बाबा आनी बाय.
... आरे तुज्यांत बींच ना उतराचें
आसा तें दुस्वासाचें
आनी तूं शिंपता...
किल्लतलें कितें? रोयलां तें!

तुजे उजवे कडली
तुज्या माथ्यार चडत म्हूण
आपशे आपूण वाडलेली
चडटी वाल तुवें हुमटिली.
जोतीच्या धगान तूं हुलपतलो म्हूण
पेट्टी जोतूच तुवें पालयली,
आनी आपूण काळखांत पडलो तेन्ना
दुसऱ्यांचे जोतींत हात भाजून घेवपी
एक विद्वाटो
कितें निर्माण करतलो?
... बोल्सांत हात घालून
हड्डें फुडें काडून
शेणिल्लें बेगडी जैत
जोडिल्ल्याचो आव हाडून
लोकांक फटयिल्ल्याचें समाधान मानून
स्वताकूच फटोवपाचें

एक सादें सवंग लेगीत
तुका जमलेंना.
कलावंताचें धोंग घेवन
एका कलाकाराचें नितळ सवंग
सासणाक पुसून उडोवपाचो
अभिनय मात तुवें बरो उडयलो...

पूण पोरा,
तुवें कोंबो धांपून दवरलो
म्हूण उजवाडचें रावलें?
... आनी तुजें चुकलेंच तें!
कोंबो रडले उपरांत,
उजवाडले उपरांत
तुवें कोंब्याक धांपलो.
त्या कोंब्याचो साद
धांपचे आदींच गाजलो.

## हांगचें हांगा

हांगाचो मोग
हांगाचो राग
हांगाचो रोप
हांगाचो दाग

तुजी व्हंटी
तुजी जोड
हांगाच दवर
हांगची दोड

हांगची कूड
हांगाच घांस
हांगचो जळोव
हांगाच लास

तुजो उजो
तुजी कूड
तुजोच हात
तुजीच चूड

हांगचो गोबर
हांगाच कोयर
हांगचो धुंवर
वयर वयर.

## किण्ण दोळ्यांनी

उनाड भुरग्या वरी
उजवाड कसो आत्र्यापयऱ्यान छळटा,
तिगय तिगय तिगयिल्लो काळोख
खदळून उडयता हो उजवाड तनामनांत...

कोण म्हणटा कालूच आषाढ आयिल्लो
कोण म्हणटा
आयजच्यान श्रावणाचें बोट लागलेंशें दिसता
आसमंताक
तेन्ना खळखळून उठ्ठात खीण
असंख्य काळखांच्या पावसधारांतले
तनांमनांत...

हालीं आंगार आंगां दिसतात
उजवाडाची झड पडटकच,
श्शी! कितलें घाण बुट्टाण शरीर हें,
अंतीम व्याख्याच नाशिल्ली नीत-अनीत रिगत येता
तनांमनांत...

हांव हें किण्ण दोळ्यांनी नियाळटां
आनी काळखाक समर्पीत जावंक
मजत करपी देवाक शरण वचूंक लागतां तेन्ना
अर्दकुटी आंगवण केल्ले वरी आत्मो तळमळटा
तनांमनांत...

## आलोक

करुणेची प्रभावळ लिकलीक
कल्याण लालिमा काळजांतल्यान
निरव जावन येता
शरदधुंद छाया घेवन
रूपकार जाल्लो आलोक
चोंयवशींनी फुलां कशीं मुड्डतात
घडी-सूख घेत..

आनी सृश्ट अनाघ्रात व्योम-ओमकार
आनंदवर्तमानांतलो
जावन महाकार आलोक

## ट्रेपीझ

आनी ह्यो ताळयो...
कित्याक काय, दिल्ले दुडू भरले देखून?

हांवें दुळी घेतली,
हांवें सुरयो तोपून घेतल्यो;
म्हज्या रसरशीत रगताक आशेल्ले हे
भोव बरे दिसतात सुसंस्कृत!
घडये नाशिल्लें कांयच हातूंत भंयदिणें
जाल्यार मेजतले आशिल्ले ते दुडू?

भर मध्यानीच्या कडार म्हज्या रक्ताचो हुंवार
आनी म्हज्यो लुसलुशीत मांडयो पळोवंक
हांवेंच तांकां आपयिल्ले काय?
म्हाका खऱ्यांनीच आंवडेता हो गजर?
की नितळ काळखांत रिगिल्ली नदर?

म्हजे घाय, हुमकळिल्ले पांय
उबोवन दवरिल्ली म्हजी कचकचीत कूड
म्हजें साळीक आनी पालवांत न्हिदिल्लें मर्ण
आतां सगळेंच सुटावें जालें
चोंयदिकांनी पातळूंक लागल्यांत
हीं सवणीं रंगदिवणीं...
आतां नात ते इंगळे रिंगमास्टराले
आनी ना तो मातये-तळ
आतां ना ती देग अंदल्ली केन्ना सावन
आनी नात त्यो वेंगो चरचरीत नदरेन मारिल्ल्यो
लुसलुशीत आंगां-प्रत्यंगांक

साबार संवसार हुपून येतकच
आतां ह्यो ताळयो
कित्याक काय?
कित्याक काय?

## कागदाचीं व्हडीं

भाव गेले भयणी गेल्यो
यादींच्यो रोयणी गेल्यो
सोबीत सपनां राती गेल्यो
देवा फुडल्यो वाती गेल्यो

धोंपर फुटत खेळप गेलें
एकामेकां फाटल्यान धांवप गेलें
रडटां रडटां हांसप गेलें
हांसता हांसता रडप गेलें

खंय गेलीं कागदाचीं
उदकांतलीं व्हडीं?
आमी आतां उस्तितात
एकामेकांचीं मडीं

दारां आनी जनेलांच्यो
जाल्यो आतां वणटी
गर्भकुडींत पालवली
एकूच एक पणटी

एकाचीं शाणेपणां
दुसऱ्याचीं पिशेपणां
कोणें तरी घराचीं
खणलीं रे सोंपणां

घरा फुडलो हुमटलो
पार्दिकाचो रूख
दाव्या दोळ्यान पळोवं नजो
उजव्या दोळ्यांतलें सूख

आतां एकामेकांचो
कोणाक ना हुसको
म्हज्या घराक आतां
हांव जालां परको

## वोल्तेर

म्हज्या घरांत एक पोरणें वोल्तेर आसा
पयलीं म्हजो पणजो त्या वोल्तेरार बसतालो
एक दीस तो त्या वोल्तेरार बशिल्ले कडेन मेलो
मागीर म्हजो आजो वोल्तेरार बसतालो
तोय बी एक दीस तसोच मेलो
मागीर त्या रिकाम्या वोल्तेरार
म्हजो बापूय बसूंक लागलो
तोय बी अचकीत मेलो
वोल्तेरारूच
ह्या वोल्तेराचो म्हाका आतां भंय दिसता
हांव त्या वोल्तेरार केन्नाच बसना

पूण कांय दिसां पयलीं पळयत जाल्यार
म्हजो पूत त्या वोल्तेरार बसला
हांवें ताच्या कानसुलार एक दिलें
आनी वोल्तेर दोडून दवरलें

पूण हांव नासो पळोवन
तो ल्हवूच वोल्तेरार बसता
आतां ह्या वोल्तेराचें हांव कितें करूं?
तुमकां बी जाय वोल्तेर?
तुमगेर बी आसा कोण जाणटो मनीस
नाका आशिल्लो?

## झाड कोंबरेता

झाड कोंबरेता
हांवूय कोंबरेतां
झाड वाडटा
हांवूय वाडटां
झाड धोलता
हांवूय धोलतां
झाड तानेता
हांवूय तानेतां
झाड भुकेता
हांवूय भुकेतां
झाड फुलता
हांवूय फुलतां
झाड फळटा
हांवूय फळटां
झाड दुखेता
हांवूय दुखेतां
झाड सुखेता
हांवूय सुखेतां
झाड परजळटा
हांवूय परजळटां
झाड उडलें दिगंतरा
हांव मात उरलों धरतरा

## दोळे

एका दोळ्यांत सूख
एका दोळ्यांत दूख

एका दोळ्यांत दर्या
एका दोळ्यांत सुर्या

एका दोळ्यांत उजवाड
एका दोळ्यांत काळोख

एका दोळ्यांत वत
एका दोळ्यांत पावस

एका दोळ्यांत मोग
एका दोळ्यांत भोग

एका दोळ्यांत जल्म
एका दोळ्यांत मर्ण

एका दोळ्यांत तूं
एका दोळ्यांत हांव

म्हज्या दोळ्यांत तूं
तुज्या दोळ्यांत हांव

## रोजालीन मांय

रोजालीन मांय
तूं आसता
सगळ्या आवयांच्या
काळजांत
राबितो करून
केन्ना सावन

आनी
दर आवयचो पूत
हांव
रस्त्यार
अपघातांत मरतकूच
दर आवय अशीच
तुजे सारकी
तीळ तीळ तुट्टा
हुडकेवन हुडकेवन
जीव सोडटा

म्हजे रोजालीन मांय
तूं वसता समस्त
मनीसजातीच्या काळजांत
आनी सगळें सगळें
मायामोग धरून वसता
तुज्या काळजांत

तुज्या दोळ्यांचो
तुज्या हुसक्यांचो
काळजा दिवो
ह्या मार्गार
पेटोवन
तुका आनी
रस्त्यार मेल्ल्यांक
आर्गां ओंपतां
आनी तुज्या
उजवाडाच्या दिव्यान
सगळ्यांक बरो मार्ग मेळूं
म्हूण मागतां

## मळब भरून

मळब भरून काळोख उरला
नखेत्राच्या किर्णान तोलून धरला
धरतरे वयलें पाप व्हांवता दर्यांत
रूच जिविताक इल्ल्याश्या पुण्यान
सोबीत पेलो विखान भरला
ओंठांक लायतना कृष्णामृत पडलां
कृष्णामृतान वीख कृष्ण जालां
काळोख भरून कृष्ण उरला

## बोंगे दोळे

गुडूप काळखी दर्या कांठार हांव
हांवें देखले
बोंगे दोळे विश्वंभराचे
पयस दर्या मळबा कांठार
कितें मागूं?
हांव पळयतूच रावलों
फांतोडेर, म्हज्या साळका पोशांत
उजवाडाचे दोळे

## स्राप

तुज्या धनाच्या पोशांत
म्हजी तट्टली आस
सुवार्थाचो स्राप
जिणे म्हजे...
खिणा धन्य जाली दिठी
अशी ब्रह्मांडाक मिठी
उगड मूठ धांपले दोळे
जल्म जल्मांचे दुवाळे
पर्थी रखरखुंदी तळी
आतां फुटूं दी रे झोळी...

## अक्षरां! गोरवां कशीं!

हांवें खूब तेंपान,
हय, बऱ्याच वर्सांनी
अक्षरांक उलो मारलो.

तीं धांवून आयलीं.
धडपडत, आडखळत,
आंगा वयली मरगळ झाडीत

हांवें म्हणलें, अशीं न्हय.
पयलीं कशीं येतालीं?
गोरवां जावन, हांबेत, शेंपड्यो उबयत,
किरयत, तशीं येयात.

उतरांच तीं!
उलोवपाक फाटीं रावतात?
म्हणपाक लागलीं,
तूं पयलीं राखणो जा.

## कविता रुसून आसा

कविता म्हजेर रुसून आसा
व्यभिचारी घोवाचे बायले भशेन.
होरावणी, विनवणी व्यर्थ,
तिचें वर्तन अतर्क्य.
तिचे नदरेंतूच प्रस्न-
काल गिताच्या तालार
धुंद-फुंद जावन नाचतालो
तो तूंच न्हय?
आनी पयर, कथेची किरंगळी धरून
गर्दींत भोंवर मारतना
आपलो आपणाकूच शेणोवन बशिल्लो!
आनी अयर,
नवरंगी फूल गाविल्ल्याच्या आनंदान
आख्खी रात
नाटका वांगडा खेळ करतालो!
आनी अयरच्या अयर,
कादंबरो वांगडा आपणाक
पणाक लावन,
आपलेच जिणेचें कपयाळें जोडीत बशिल्लो!

कविता म्हजेर रुसून आसा
व्यभिचारी घोवाचे बायले भशेन

## विनंती

यो यो यो; येवन
ह्या गांवाक राख
मनीस मनशांक
साबाव जिवेशी मारता
आलतांत-पेलतांत लोकटों काण
भुरग्यां वरी खेळटात;
दादल्याक खेळूंक धुवेक
आवसूच दिता;
भुरग्यांक सांतेंत विकून
आवसूच दवरता!
भूक, भूक, भूक म्हूण सांगून
मान विकून खातात,
गुरबीण जातात, बाळांत जातात
चेरडुबाळांक विकून खातात.
देवळांतुल्यो दिवल्यो
फारनू व्हरतात
देवालें पेजेंत
फातर घालतात
यो यो यो; येवन
ह्या गांवाक राख; येवन
ह्या कुळाक राख; ह्या
कुळाव्यांक राख!

## आत्मायन

कविता म्हूण कविता न्हय,
अंतर्मनांतुले दर्यांविळे वयले
हे उणेच उतरांचे कुटके -
छंद म्हूण छंद ना,
फुलां-सुगंध ना,
किरकोळ कुटके उतरांचे-

एकटेपणांत हे घांशितां पुशितां,
वळखतल्यांक विकितां-
वैदूर्य माणिक्य खंयच्यान दितलो
रस्त्यांनी भोंवपी बंजारो!

कविता म्हूण कविता न्हय,
अंतरंगाच्या अटंग्या वनांतुले
हे उणेच उतरांचे कुटके -
नेणटांशे वेंचलेले, झोळयेंत भरलेले
किरकोळ कुटके उतरांचे

झोळी ही घेवन हांव वाटेन वतना
सूखदुख्ख म्हऱ्यांत येता-
सूख चिके हांसून आंगाक थापतनाय
दुख्खाचें मौन निर्शायता -

तरणे हे दोळे, हरवें हें हड्डें,
संवसारा तथ्यांनी पेट्टा-
अस्वस्थ जग जिणेंत जीव घुसमट्टना
संथ ही झोळी उजरायतां-

खंयचे की पुर्वजल्माचे यादींतुल्यान
कुटके वेंचून गांथितां-
दोळे हे भरतना, जी थंडेतना,
उजो काळजाचो पालवता-

काव्य न्हय, कविता न्हय,
जिविता सार हें
फुटक्या उतरांनी रचिल्लें!
आत्म्याचें सत हें
आत्मसंकोचान
पुरतें ना पुरतें सांगिल्लें!

## समर्पण

तुजे खोल खोलायेंत
हांव म्हजो पुराय गेलों
धरतरेचो खूंट
मळबाक तेंकलो,
कांयच कळ्ळेंना
एकामेकाचो आत्मो
कोणें कोणाक
केन्ना विकलो

## जिवीत

एक उदकाचो थेंबो,
जितलो सूर्य उदेता
तितलो तो चकमकता,
पाचव्या, तांबड्या, बी
रंगांनी लिकलिकता.
पूण कटा!
जितलो वेळ सरता
तितलो तो वाफ जावन वेता,
संवसाराक नाच जाता.

एक बागेंतलें फूल,
जितलें फुलता
जितलें तें रसरसता,
परमळ आनी स्वरुपायेन
सगल्यांक भुलगायता.
पूण कटा!
जितले दीस धांवतात
तितलें तें बावता,
संवसाराक काबार जाता.

एक मनीस
जितलो वाडटा
तितलो तो नावाडटा,
जाणवाय आनी गिन्यानान
समस्तांक दिपकायता.
पूण कटा!
जितलीं वर्सां बालांडटात
तितलो तो जाणटो जाता,
संवसाराक अंतरता

पूण...
बऱ्यो करण्यो आदारल्यार
सासणाक अमर उरता.

## फुलाची भास

फुलाची भास
मोगाचीं
उतरां ताचीं
घमघमीत
सगल्यां कडेन
उलयता
पाकळे पाकळेन
भुलयत.

फुलाची भास
खोशेची
उतरां ताचीं
विवीध रंग
खांदयेर नाचत
वितरायता
पाना कडेन
करून संग.

तुका मोगान सांगूंक जाय?
- फूल दी.
काळजाची पाचवी ताळी
चंवरतली
मोन्यांनी उलयतभुलयत
सर्वकाळी!

## काळी काळखाची माती

काळी काळखाची माती
हांवें कोंबायल्यो राती
रीग म्हजे कुशींत
प्राणांच्यो लावन वाती...

दोळ्यांचीं भिरीं म्हजीं
पयस गेलीं परगांवां
वाट काडीत आयलीं घरा
म्हजीं आंधळी तारवां...

काळखाचे मातयेंत
हांवें सपनां रोयलीं
काळजा पयलीं नागडीं
रानां चान्यांत पालेलीं...

## काळे काळे थिपके

काळे काळे थिपके कावळ्यांचे
शिंवरिल्ले गांव भिऱ्यां पावलांचे
नदर मोखून घेतलो थाव
आलतडयां पलतडयां मांडले डाव...

मनाच्या पाण्यांत कालयले रंग
पालेल्ल्या हाडांक फुटले अभंग
अद्दश्टाक खाऱ्या दुकांचे दोळे
तुडुंब घायांक चान्याचें तळें...

## पाचवें कापड

रेशमी कापड हाड रे म्हाका पाचवें कापड हाड
स म्हयन्यांनी आयज म्हाका कुळारा धाड
जाणा तुजो मोग म्हजेर
कित्याक करशी ताचो गजर
धाड कुळारा धरून मनांत जाणटेल्यांची चाड ।।

आवयबापायन केल्ली माया
विसरूं कशी सांग राया
ल्हाना व्हड केली म्हाका जपून जिवापाड ।।

सोडून तुका वतना पळय
दुख्खान म्हजे भरले दोळे
खिणा खिणाक याद जाता केल्ले तुवें लाड ।।

जरी गेलीं हांव कुळारा
याद येतली वरावरा
दोन दिसांनी खुशालेची चीट म्हाका धाड ।।

काळजाच्या विलोदाचेर चित्र तुजें रेखतां
बावलें तुजे पुण्यायेचें पोटांत म्हज्या राखतां
येत कशी यादीन तुज्या न्हीद म्हाका गाड ।।

## कुणबीण

तांबडेंगुंज कापड ताजेर पाचवीच चोळी
गळ्यांत गळसरी आनी माथ्यांत पिसोळीं
कोंपरा वयर घालून चुडो
तांबडे ओंठ खावन विडो
कोणा पापयाक भुलोवंक वता कुणबीण सुंदरी ।।

वांकडो घालो खोंपो ताचेर चांफ्याचें फूल
शाण्यासुर्त्या चेड्यांक लागत तुका पळोवन खूळ
नदर वांकडी करूं नाका ओगीच भोंवी मोडूं नाका
लागत पिशें पळोवन आमची कुणबीण सुंदरी ।।

धोलता तुजी काया कशी माडये वरी
भिरभिरता नदर कित्याक हरणा वरी
ओगीच जीव मोडूं नाका पावलां मेजून घालूं नाका
वांकडें पावल पडत सांबाळ कुणबीण सुंदरी ।।

## एक खालतें मागणें

ताळ्याक म्हज्या सुमधूर स्वर दी देवा
कित्याक तुजी व्हडवीक, तुजी कीर्त हांवें गांवच्याक!
मतींत म्हज्या निर्मळ चिंतनां दी देवा
कित्याक तुजी होगळीक धाराळ हांवें उच्चारच्याक!
दोळ्यांक म्हज्या सुक्ष्म दृश्टी दी देवा
कित्याक संवसारी फकत सर्व नितळ हांवें देखच्याक!
जिवाक म्हज्या बरी शक्त दी देवा
कित्याक भूलोकीं म्हजो खुरीस हांवें व्हांवोवंक सकच्याक!
जिबेक म्हजे त्राण घटाय दी देवा
कित्याक तुजी पृथ्वी हांवें प्रबळ पाचारच्याक!
पांयांक म्हज्या बळ थिरासाण दी देवा
कित्याक तुवें सुचयिल्ले वाटेन हांवें चलच्याक!
कानांक म्हज्या सुडाळ आयकुचें भाग दी देवा
कित्याक तुजें गुणगान हांवें सरळ आयकुच्याक!
हृदयांत म्हज्या निरंतर स्वास भर देवा
कित्याक शेवट पऱ्यांत तुजें नांव हांवें गळसून होगळसुंच्याक!
अंतस्करणांत म्हज्या भक्तीची शक्त दी देवा
कित्याक सदां सर्वतां तुका हांवें वरणूंक आनी हरसूंक!
आत्म्याक म्हज्या निर्मळच दवर देवा
कित्याक सासणाच्या सासणाक तो तुजोच उरोंक!
वोडतांत म्हज्या सुंदर फुलां दी देवा
कित्याक तातूंतलीं विंचणार तुज्या पायां थळा दवरच्याक!

## जण एकल्याचो देव!

हांगा जण एकल्याचो
एक देव आसा
एक मनीस एक देव
दोन मनीस दोन देव
तीन मनीस तीन देव

गांवागांवांत देव
वाड्या वाड्यार देव
तिठ्यार देव
तिस्कार देव
आतां देव रस्त्यांचेरूय पावल्यात.

देवाचे हांगा वांटे घाल्यात
हे जातीचो देव
ते जातीचो देव
मनीस श्रीमंत जाल्यार
श्रीमंत देव
मनीस गरीब जाल्यार
गरीब देव.

इतलेय देव उणे म्हूण
थोड्या मनशांकूय हांगा
देव केल्यात
तांकां पालखेंत बसयतात
तांकां रथांत बसयतात
तांकां खांदार घेवन मिरयतात
तांच्या पांयां कडेन नाकां झरयतात

हांगा देवा खातीर
झगडीं चलतात
देवळांच्या हक्का खातीर
मारामाऱ्यो चलतात
देवाचेर शेक गाजोवंक
झुजां चलतात

हांगा मनिसूच
देवाचेर नदर दवरता
देवळांतल्या पुजाऱ्याचेर
नदर दवरता
देवळांतलो पुजारी
ताटांतल्या पयशांचेर
नदर दवरता
देवाक भजपाचें मात
कुशिनूच उरता.

हांगा इतले देव जाले तरी
मनीस अजून देंवचारूच उरला
आपलें देंवचारपण लिपोवंक
देवाक हाणें दावणेक बांदला.

## फितां

कोणें कोणा कलाकारान
मळबार वतलीं तिंतां
देखच्यो दिश्टी गाबो जाल्यो
देखतां रंगाळ फितां

कोणें कोणा दिलें पोटा
खिरलों भुके लासा
मोडक्यो धुल्यो, उतरां भाल्यो
सोंसल्यो दिसान दिसा
मरचे आदीं जेवचे मालतेंत
पडलीं भांगरा शितां
देखच्यो दिश्टी गाबो जाल्यो
देखतां रंगाळ फितां

कोणें कोणा दिलें काळीज
कैदी मोगा पासा
शिरेन शिरो शिरकलों हांव
जयशें झांटां केंसा
जळचे आदीं पिरलूक चली
गावन आयली गितां
देखच्यो दिश्टी गाबो जाल्यो
देखतां रंगाळ फितां

उचांबळ्ळी जिणे दर्या
खिणा खिणाक ल्हारां
दवरिल्लीं पावलां पोकळ
अथीर हरयेक वरां
ल्हारान एका पोसो भरून
मोतयां हाडून दितां
देखच्यो दिश्टी गाबो जाल्यो
देखतां रंगाळ फितां

आसल्यार आसों काळीं सदां
मतींत रंगय तिंतां
दिश्टी तुज्यो गाबो जातीत
दिसतीत रंगाळ फितां

## घेटे जावचें जोगफोल्स

आन्येक रात उदेल्या
व्हाळोन नाचोन वेच्या
सुडसुडीत,
उमेदीन भरून वोमतोंच्या
उदकाकय घेटे करच्या
आंकुडच्या हिंवाची!

ह्यो राती
म्हज्याच जिविताच्यो इश्टागती जोडूंक
तानेतात कित्याक?
म्हज्या जिवितांल्या 'जोगफोल्सा'चेर
तांचो असोय
दोळो कित्याक?

येदोळच-
जिविताच्या फुडल्या पांवड्यांचेर
म्हाका न्हाणयिल्ल्या
म्हजीं राजा अनी रोकेटाक
पुसून सोडल्या
ह्यो राती लागीं
ही खंयच्या कुसडेपणाची हिंवसाण?

जिणेच्या ह्या हुंबरार
'रोररा'चे म्होंवाळ वेंगेंत
म्होंवाळ न्हाण न्हातना
ताचे आदले सुडसुडायेंत
म्हजे कातीर फुलचीं फुलां
तांचो तो माट करचो परमळ
आनी हरयेके पाकळेंतल्या तेलतेपणान
आंग वयले लोंवे लोंवेक
उबी करची कला
सगळे मायाग जालां चिंताना
हे रातीचे भिरांतीन कुलकुलतां
आनी त्या कुलकुल्या मदेंय
ताचे सुडसुडायेचीं सकत
पांटीं हाडूंक
म्हजीं वस्तुरां निखळायतां
आनी न्हातां, सुसेगाद न्हातां
ताका घेटो जावंक सोडिनासतां!

## म्हजें घर

हांवें म्हाका व्हाजांत भरलें
हांणी तांणी घेतलो परमळ
सोरया, पिका, पुडी तोंडां
एकय ना निर्मळ

म्हाका तुज्या केंसांत पुरलें
मोगाक घाली भूल
मोगान तुका वेंगेंत धरतां
म्हजी जाली धूळ

दारार तुमच्या कित्या नाचूं?
झाडार म्हज्या उरतां
म्हज्या घरांत पेज ना तर
उपाशींच मरतां!

## खुरा वयलो बुडकुलो

मध्यान रातीच्या खुरा वयलो
बुडकुलो हांव
रांदणीर बारीक कोलीत
जळोन आसां
ताचे उबेक हांव
उबेवन आसां
कांट उगतो
कांटा भितर
उज्याचे दावेक
भरतेक पावल्लें दूद
कोण बोकूल कोण जाणा
पियेवन आसा
सुसेगाद
काळखाचे धुंवरे मदीं
आपल्या दावल्यांनी कांट उसोवन
आनीकय लेंवोन आसा
होरबोसान?
कांय नेणा
मयपासान?

## उपहारू

तुका दिवच्याक
मोगू दाखोवच्याक
पोरसांतुले झाडा वयलें
सगडापशी सोबीत फूल
मोडून हांवें दवरलें
पण,
तूं आयलोच ना
- उपहारू तुका आवडलोना काय?

बावलेले फुलाक देखताना
पश्चात्ताप जालो
तुका दिवच्याक
मोग दाखोवच्याक
फूल हांवें काडिल्लें
झाडारसून मोडिल्लें
आयू सरचें फुडें तुंटयलें
ताका जिवेशीं मारलें
हांवें घात केलो
प्रिती तुजी जोडपा खातीर
चुकी हांवें केल्ली
पूण,
तूं आयलोच ना

फूल बावन गेलें
आनी
हांवें शिराप घेतलो
- हेंच तुका साजता?
जगा खातीर तूं दिल्लें
परतून हांवें तुकाच दिल्लें
आनी -
तें तुका आवडलेंना काय?

तूं दिल्लें तें
तुकाच दिल्लें
देखून-
तो उपहारू जायना काय?

तूं दिता
तुकाच दिता
आनी -
ही रिती साजना काय?

तुका दिवच्याक
मोग दाखोवच्याक
तूं दिल्लें तुकाच दिवची
रिती तुका साजना जाल्यार
तुका दिवच्याक
मोग दाखोवच्याक
तूं नेणटा
काय आसा?
हांव तें सोदून आसां
अजून हांव सोदीत आसां..

## तूं नासल्यार

तूं नाशिल्लें जाल्यार
सूर्य उदेवचो नाशिल्लो

तूं नाशिल्लें जाल्यार
चान्नें फुलचें नाशिल्लें

तूं नाशिल्लें जाल्यार
फूल परमळेवचें नाशिल्लें

तूं नाशिल्लें जाल्यार
सुकणीं गावचीं नाशिल्लीं

तूं नाशिल्लें जाल्यार
हांवूच आसचों नाशिल्लों

## सपन

मांडवी न्हंये वयलो
पूल जसो
आयज जाला
सपन म्हजें
कांय वेळा
मांडून येता
कांय वेळा
मोडून वता

## सकाळ सकाळीं

सकाळ सकाळीं नवीं किरणां फांकतना
दिसलें तुजें पुनवरूप चंद्र लिपतना

वाट तुजी वळटा थंयच कांयच दिसलेंना
छबी एकूच दिसली तालान पावलां मारतना

सांगूं कशें घडलें कितें मन फुलतना
नखलामेन लजलें फूल भंवर भोंवतना

आंब्या रुखार फुल्लो चंवर कोगूळ गायतना
काळीज लागलें ताल धरूंक शेनाय वाजतना

लागली नदर पावलां मेजूंक चलता चलतना
खेळ्ळी विणी बोटा बोटांत भुजार देंवतना

भरले जिणेंत पुर्वरंग किरणां फांकतना
सपनां खेरीत आयलीं नाचत वाजयत पांयजणां

## बाळकधारी

घालचे खातीर चार वांटे
एका भुंये कुडक्याचे
उबे जाल्लीं चार दुरगां
मेळटात एका बिंदूचेर
घडयत आपलो संगम
एकामेका ओडीन

बिंदू कुशीक एका वांट्यांत
रावला उबो पाशाण काळो
रूख एक पणसाचो
दिसचो एक अवतारसो
पंढरीच्या विठ्ठलाचो
दोन खांदे, कमराचेर
हात धरून रावलासो

## उ ऽऽ च्यूक!

उ ऽऽ च्यूक म्हणून तें लिपलें
आनी हांव अजून पिसो कसो सोदतां...

भुरगेपण सोंपलें
जुवानपण गेलें
आनी आतां हें जाणटेपण दारार मारता
हांव सोदीत रावलां
ते भुरग्या सारके लिकलिकपी दोळे
तीं पेजाद थानां
तें जाणट्यांचेय बारशें जेविल्लें शाणें नेणटेपण...

सोदतां सोदतां
हांव रानांत पावलों
झाडामुळांत बसलों
बसल्या जाग्यार म्हजीं पावलां
मुळा वांगडा खोल खोल खोल गेलीं

...आ ऽऽ हा ऽऽ हें कसले झरीचें उदक
पांयामुळांतसून रक्तान रिगलें
वयर वयर चडत रावलें
सगळ्या आंगाक खांदयो फुटल्यो
तांतले एके बळिश्ट खांदयेक लोंबता तें फळ कसलें?
हो कोण ॲडम कसो म्हज्या पांयांसरीं बसला?

हांवें उ ऽऽ च्यूक केलें
आनी फळ लिपयलें

## कुसकूट

म्हजें कुसकूट गेलें
ताजें मळब जालें...
मळबांत कुपां आयलीं
कुपांचो दर्या जालो
वयर एक दर्या
सकयल एक दर्या
मदले मजगतीं
ब्रह्मांडाचें एक येदें व्हडलें कुसकूट
तातूंत भितर हांव, तूं, तो ते तें...
अख्खे पृथ्वी सयत.

प्रलयाच्या पाणयार निमाणें
एक कुसकूटच उफेलें
तातूंत हांव झेतान
शेषशायी विष्णू कसो...
मळब अजाप जावन
पळयतूच रावलें!

## शिगमो

घणचे घणर
वाजपा तालार
शबै शबै
घुमतात उतरां
शिरंतरांनी
चेव येवन
गांव नाचता
व्हडल्या शारा
माथ्या फेटे
हातां तोणके
तरातरांचे
भेस कितले!
शिगम्या मेळ
पळय कशे
वाजत गाजत
नाचत आयले

वाजपा नादान
नाचपा चेवान
शारां रस्ते
चंवरले रे
जैता बनेर
फाटीं फुडें
वाऱ्या ल्हारार
फरफरलें तशें
गुल्ल जावन
नाचतात पळय
कितलेशेच
खेळगडे

नाचतना तांच्या
आंगाक हूम
पावळ्यांनी
पावशेता
ताशार बेतां
ताशयतना
धोलार तोणयो
घणघणटात
घणर कट्
घण घण घण
घणर घणर
घणचे कटर घाऽऽ!!
शबय शबय ऽऽ
ओऽ स्सय ओ ऽ स्सय
तू ऽ ऽ तू ऽ ऽ

शिंगा फूक
आरपार
विरीत गेलो
जळामळा
शिंपडिल्ल्यांक
शिटकायत
जागयत गेली
नाचतल्यांचें
खुबळायत रगत
तांकां लेगीत
पेटयत गेली
गायतले रे
गडे आमचे
हाडांचे सापळे ते!
भितरले भितर
धुमसत धुमसत
सर्वांगान भारावल्ले
वळख आपली
दाखयतना दिपकले लाख दोळे!

## शेत

युगायुगाचें
शेत सासणाचें
लाख जिवांचें
पोशणकरतें
कालचक्राच्या
फेऱ्यांत रुतलें
पडींगपणाचें
श्रापीत जिणें
नडणी हुमटितां
गळ्यांत गाणीं
दोळ्यांत ओल
ओंठांत काणी
चिखल नांगर
खेळ कश्टांचो
मातयेंत फुलतालो
भांगर दाणो
वंशकुळाचें
दायज चलोवपी
भुजां बावलीं
ऐन वेळार
देवा लागचें
शेत फुल्लें
रथ भक्तांच्या
फोंडार उबे

## झेमेची कविता

तूं जागो जाले उपरांत
तुका पडटलें एक सपन
सपनांत तुका दिसतलें की
तूं निकतोच जागो जाला

आतां ऊठ
ऊठ आतां

दोळे उगड
पळय

पळय
ही निसण
ही मडकी
हीं फुलां
हें पेत्रोल
आनी ह्या लांकडांचे राशीर
न्हिदिल्लो तूं

लांकडांनी पेट घेतला
आनी तूं परत एकदां सोदता
जागो जावंक

## आजयेचें मर्ण : तीन कविता

1.
हांतरुणार पडून
आजी मेजीत आसा
आपले निमाणे दीस

आतां कितें?
कांय ना.
आतां फकत
एकामेकां कडेन पळयत रावपाचें
दोळे भरून

2.
ल्हानपणांत आजी म्हाका विचारी:
हांव मेल्यार तूं रडटलो रे?
आयज आजी खरीच मेल्या
सगले रडटात
आनी हांव म्हाका रडूंक येवपाची वाट पळयतां
जसो कितें हांव म्हज्या मर्णाची वाट पळयतां

3.
तूं मेली अशें कोण म्हणटा?
तूं तर म्हज्या काळजांत
अजुनूय जिती आसा!
आतां हांव मेले उपरांत मात
कांय सांगूं नजो

## चूड

दर एका
भूंय पुताच्या काळजांत
शेंकड्यां वर्सांची
शेंकड्यां युगांची
धुंव धुंव धुंवपी
ही चूड,
आयज अकस्मात पेटली.
कितलीं वर्सां जालीं
ही चूड धुंवली
हे चुडींत कोणेंच तेल ओतयलेंना
ही चूड, कोणेंच पेटयलिना

वाट पळोवन पळोवन
काळजांत इंगळे रसरसले
आनी चूड आपशींच पेटली!
ही चूड, रगत आटोवपी
ही चूड, लोखंड कडोवपी
ही चूड सगळ्या नाडांचें भस्म करपी!
ही चूड फायच्या उजळ फुडाराची
बियां रुजोवपी!
ही चूड, म्हजे मायभाशेची

आयज हात जरी हुलपले
चूड आमी सोडचे नात
ह्या नाडांचें भस्म केले बगर
चूड आमी पालोवचे नात
चूड! चूड पेटत रावतली...

हे चुडींतल्यान शिंपडपी
दर एक किटाळ, फाल्यां
भुंयेर भांगराचीं फुलां फुलयतलीं
चूड पेटत रावतली...

## तोच म्हजो कोण तरी लागतालो

तो म्हजो
कोण तरी लागतालो
भुरगेपणांतच तो वाट चुकलो
आनी खंयचे खंय पावलो
सोऱ्याच्या घोंटा खातीर
वसवसलो आनी दारादारांत
भीक मागूंक लागलो
आमचे सारके उजू वाटेन चलपाचें
नाटक करप्यांनी ताका
फकत खेप खेप खेपलो
पूण वाट दाखयलीच ना.
म्हाका जाल्यार ताचो केन्ना उगडासूय जालोना
लग्न आसूं, बारसो आसूं,
वाडदीस आसूं
हांवें ताका कित्याकच केन्ना आपयलोना
म्हाका ताची लज दिसताली
पूण, म्हजें पेपरांत
नांव लेगीत आयलें जाल्यार
तो खंय पेपर माथ्यार घेवन नाचतालो
हें म्हाका तो मेलो
तेन्ना कळ्ळें...
खऱ्यांनीच, तोच म्हजो
कोण तरी लागतालो.

## शांत सांजे

गांवचे म्हजे शांत सांजे
तुळशी पेडयेर पेट्टा वात
युगां युगां जगय

सृश्टी आंगार
चैतन्याचे येता कळे
सदांकाळ फुलय

मळबांतल्या
नखेत्रांचो आपालिपा
नित्यनेमान खेळय

## गांवांतली सांज

तुळशी पेडये वयलें
निरंजन पेटोवंक
आवय म्हजी आंगणांत येता
दीसभर झाडाझाडार हेडपी सवणीं
पांखा पांखातले रंग ओतीत
भिऱ्याभिऱ्यांनी घोंटेरांत येतात
देवळांतले नबतीची शेनाय
वाजूंक लागता
तेन्ना म्हज्या गांवांतली सांज येता

फटी खोंकीत खोंकीत
कोप मारूंक मांयले गादयेर वता
आनी तेच वाटेंतल्यान
शेजारचो चंद्री कीलभर तांदूळ,
च्याचो पालो, साकर आनी
फांतयेच्यो बिस्कुत्यो घेवन
घरांत भितर सरता
आनी चैत्रांतलो चांफो कसो
ताच्या बायल भुरग्यांच्या ओंठांचेर
हांसो फुलता
तेन्ना म्हज्या गांवांतली सांज येता!

सांकवा सांकवार
कुळवाड्यांची गर्दी जाता
विडये, शिगाराचे झुरके मारीत मारीत
तिठ्यार चकाटां रंगार येतात
आनी विठ्ठलाच्या भज्यांच्या वासान
सगळ्यांच्याच तोंडाक लाळ सुट्टा
तेन्ना म्हज्या गांवांतली सांज येता

गांवचे म्हजे सांजेक
लय आसा ताल आसा
मळबांत लुकलुकपी नखेत्रांचो
उजवाड आसा
खोबरें मळपी पारकाराल्या घाण्याचो
ठेको आसा
गांवची म्हजी असली सांज
तुमकां शारांत केन्ना दिसल्या व्हय?

## याद

तुजीं यादीं कुपां
दाटलीं अंतरंगी
दोळ्या इंद्रधोणू
उदेलो सप्तरंगी ।।

आषाढ पांवळी
जाल्या मोनी मोनी
पोल्या दर्या मोरपांखां
भिजल्यांत दुकांनी
अचकीत भेट ही
आनंद श्रावणी
सपनां गांठवलां
करीत सदळ जागीं ।।

फुटत काळजा तळा
पुनः आश्वीन पाझर
नाका पडबिंबा खोस
उठत तरंग खर
आसूं अशीच बोडकी
शिशिरांतली ही सांवर
झडूं दीस दीस दीस
हो वसंत अभागी ।।

तुजीं यादीं कुपां
दाटलो अंतरंगी
दोळ्या इंद्रधोणू
उदेलो सप्तरंगी ।।

## कविता

तटास चोळी
उपाट तळीं
नदरेंत नदर
जाळी...

कोणाची
उपाट...
कोणाची उरली
रितीच झोळी...

## प्रकाश दत्ताराम नायक

### वाट

आंगणांत पुनवेचें चान्नें लख्ख पडलें
चंद्रिमाचो म्हज्या हांसो वाडलोच ना

हें कितल्या तेंपान पेटलें दिवले मालें
पोंदचो काळोख पयस जालोच ना

काळखांत रावून उजवाडार नदर मारली
मुखा वयली वाट सामकीच धुसर जाल्ली

हावेस आसलो उजवाडाचीं फुलां वेंचपाचो
तीं वेंचतना फुलां न्हय, केणां जाल्लीं

गत आतां जाल्या म्हजी बेबद्याची
झिडपत लेगीत उबो रावपाकूच जाय.

मुखा वयले वाटेची लांबाय-रुंदाय
आतां संवकळीची करपाकूच जाय.

### याद

आलतडच्यान साद उले
पलतडच्यान नाद वले

कितलो सोंसूं विरह तुजो
आतां येत मागीर येत
अजून कितली वाट पळोवं
वाटेकूच फुटल्यात दोळे

रकलीं दुकां, मुदये थिकां
खंय कशी सांबाळ करूं
तुजे अस्वडीं रातदीस
यादींचे तोपतात भाले

यादींच्या वज्याक तुज्या
कितलो वगत माथें मारूं
दोळ्यांतले न्हंयेक म्हजे
हुंवार उपाट आयले

काळीज तुजें कित्याक पाशाण
म्हजें मात उरलें मेण
फायचो दीस गेलो जाल्यार
पावत घडये दिवले मालें

आलतडच्यान साद उले
पलतडच्यान नाद वले...

## एक खेळ : एक प्रयोग

तूं एक खेळ खेळ
तुजो सगळो उजवाड तूं एकठांय कर
आनी जोख
तेच परी तुजो सगळो काळोख एकठांय कर
आनी जोख
नक्कीच तुजो काळोखूच चड आसतलो...

आतां तूं तुजो उजवाड
तुज्या काळखा मर्दीं दवर
आनी पळय
तुजो काळोख मात तरी कमी जाता जाल्यार
जर काळोख कमी जालो
जाल्यार आनीक उजवाड मेळोवपाचो तूं यत्न कर....

मागीर तूं
तुजो काळोख तुज्या उजवाडा मर्दीं दवर
आनी पळय
तुजो काळोख तुज्या उजवाडाक गिळटा जाल्यार
जर उजवाडाक गिळ्ळो
जाल्यार तूं स्वताच रसरसून पेट
आनी तुज्या काळखाक घट्ट वेंगाय
नक्कीच तुजो काळोख सासणाचो पयस जातलो

काळोख सासणाचो पयस करपाक
हो एक सोंपो खेळ : एक प्रयोग

## मळबांत काळीं कुपां दाटल्यांत

मळबांत काळीं कुपां दाटल्यांत
वारोय सुटला
सेर्त पावस पडटलो.
पूण बरोच वेळ जालो
पावसाचो थेंब लेगीत पडूंक ना

दमट जालां
कोणा सांवाराचो उजो जाता
पावसाचीं चिन्नां उपरासल्यांत
पूण पावसाचो पत्तो ना...

जोगलावता
गडगडूय मारता
आकांताचो वारो सुटला
आतां मात दडकांनी पावस पडटलो
पूण पावस पडलोच ना

हालीं हें अशेंच जावंक लागलां
पावस पडपाचीं चिन्नां उपरासतात
आनी मागीर खंयचे कडेन नाच्च जातात.
पयलींचें आतां कांयच उरूंक ना
पयलींची इत्साशक्तूय नाच्च जाल्या...

पावसान आपल्याली चौकट मोडून
केन्नाच उडयल्या
तो आतां
आपल्याक जाय तेन्ना
जाय थंय घालून घेता
दिट्टो तुजे भाशेन...

## रात

न्हिदला कोण घेवन कुशीक मिरेचें मळब काळें
रात पिशी माई कशी देंवता घेवन भुतां ताळे
पेटला खांबो हालता तळी कोणें बाये जीव दिला
शिंपणें सोंपून सानमारत्या चेडवाचो घात जाला
गळटा शेनाय लाळ जशी भुरग्याचें सानवारें
शिंपता आवय सांजवेळा दुदासाये हून झरे
सासणाची पडल्या पाल लायता आवय तुपा दिवो
मरणाचे पालखे मुखार जाणटी भावीण नाच नवो
शेणलां गोरूं कांचवेलां रे सड्या वयल्या देंवचारा
खोंटलो घेवन पालवा पोंदा कोण गेला प्राकारां?
चेराफुलां गोजडी घेवन न्हिदला देव सान झेमेत
झिलीं आड घुंगुरदाणो जागता बेताळ किणकिणीत...

## दिवली

अशीच देंवतना तिनसना
कातरेकळ्यार नबत कशी
न्हेसणाच्या पालवा पोंदा कापराची दिवली घेवन
कुळकुळीत सोंपणांचेर माई तुजी दिवली गेली...

तरीय सरता कोण प्राकारां
सान झेमेंत घुसपडत शेणिल्ल्या काळखा भितर
हें देवुळूय गाय कशी मेणाळून थिजिल्लें...
पयलींच तूं कुड्डी आनी तातूंत तुजी दिवली गेली;
सोंपणांचो एक काळोख पागडी मारून पडिल्लो
ह्या तुज्या नागड्यांनी करचें कितें सांग आतां?

शिरांतली वात एक एक काळखाच्या जळटा भंयान
मुये येदें एक वादळ, भुरग्या मुठीं जमिल्लें
वादळाचें वाडटें पेर : मळबखोल, उजेल्लें
माई, जनेल उगडून सवकासायेन मातशें भितर घेवचें तुवें

## मोगऱ्या कळ्या

मोगऱ्या कळ्या मोगऱ्या कळ्या
उकते कर दोळे
रात सोंपून सकाळ जाली
फुलूं दी कळे

मोगऱ्या कळ्या मोगऱ्या कळ्या
कोंब्यान घाला साद रे
अजून आसा दंवा वोलींत
कसली तुजी न्हीद रे?

मोगऱ्या कळ्या मोगऱ्या कळ्या
फुल्लीं रे सक्कड फुलां
जाय, आबोलें, गुलाब, शेंवतें
हांणी कितेंय म्हणलां?

मोगऱ्या कळ्या मोगऱ्या कळ्या
कित्याक तूं ओगो?
बावली म्हजी हाडून दितां
जा रे तूं जागो

## वाट

म्हजे हे दोळे न्हय
ते तुजे वाटेचे स्रोत
म्हज्या दोळ्यांतल्यान
एक अळंग वाट
तुज्या दारा मेरेन वता
ते वाटे वयल्यान
तुजीं नकसूद पावलां
वाट चलतात
म्हज्या काळजाची

## वाट

वाटेक वाट
तुजी वाट
म्हजी वाट
दोनांचीय मेळून
जुळटा नाट
कोणाची वाट
कोण लायता
तुजी वाट
तुजोच थाट
म्हजे पासत
पवित्र घाट

## सांवर

तरणी आंकरी लवलवीत पाचवी
सांवर वाऱ्या वांगडा पिशी...

सांवर बोडकी कांट्यां कुंट्यांची
गळ्यांत माळ कळ्या-कळ्यांची...

रक्तरंगी खवदळ बावळ्यांनी
सांवर चंवरली तांबड्या फुलांनी...

शिबऱ्या काळशा बोंड बोंडांची
सांवर जाली जडा जिवाची...

सांवरी श्रृंगार सुकून फुटून गेलो
गुंजी कापूस वाऱ्यान नाचत व्हेलो

## जीण

जिणेच्यो गांठी सोड्य-सोडयत
हांव समेर पावलों
पूण एक गांठ
कशीच सुटलिना
ती सोडयतां सोडयतां
गांठींतले गांठींत घुसपलों
शेवटाक ती गांठ उरलिना
एक जीण जाली.

## जोत

केन्ना तरी कोणें तरी
कित्याक तरी पेटयली ही
चंद्रचुडी चंद्रचुडी

फिती-फिती नखेत्रां तीं
केन्ना तरी कोणें तरी
कित्याक तरी शिंपडल्यांत अशीं

चकचकतीं लिकलिकतीं
नखेत्रां तीं भुंयेर म्हजे
पडनात कशीं झडनात कशी?

दिशीं-दिशीं रात निळी
रात पिशी मिणमिणटी
पणटी म्हजी वांगडी सोदी.

केन्ना तरी कोणें तरी
कित्याक तरी पेटयली ही
जोत म्हजी जोत म्हजी.

## पुस्तकां

पुस्तकांनीय आसता गच्च भरिल्लें
एक सनातन मळब
म्हणुनूच उतरांच्या कुपांनी उमाळून येवन
तें घसघश्यांनी बरसत रावता
तेन्ना मात आपणें धरतरेचें रूप घेवन
पावसाचीं पावलां रिगोवपाचें सामर्थ्य
दाखोवचें पडटा, शब्दांत शब्द मुंगरून
नव्या समीकरणा खातीर
नाजाल्यार पुस्तकां आनी आपल्या आसपांतले
जाणिवेचो संदर्भ खंयच उरना
अनी उतर मागीर उतर उरना
उतर बोंतर जाता
म्हूण दरेका उतरांतल्या गाभ्यांत वचून
विस्कटावन मेकळीक सादपाची आसता
नाजाल्यार तिनूय काळांची नोंद
मागीर एक फकत फटास जाता.

पुस्तकांचो आसता आदार
अपेक्षीत पावलांचे दिकेन
घडये उजवाडाचीय सुलूस घेवन
तेन्ना आपणें फकत मनाच्या अवकाशांत
घोंटेर बांदपाचे तयारेक लागून
अवकाशाकूय पालय आयिल्ल्याचें पळोवपाचें आसता
पालय नव्या रुखाची
घडये नव्या संस्कारांची
नव्या विचारांची
आनी नव्यान जाणवल्ल्या संदर्भांची

पुस्तकांकूय आसता स्पर्श आनी दृश्ट
पूण ते खातीर आपणें आपलें मन
तयार करचें पडटा
संवेदनांच्या सांच्यांत घालून
मागीर पुस्तकां कशीं शिंवरायतात
चारूय रुतूंच्या चारूय सुवाळ्यांची खोशी
हें आपणें अणभवप आसता
पुस्तकांत काळीज दवरून.

काळखांतूय पुस्तकां आपले दोळे उकते दवरतात
आनी कोणाचोय हात धरून पळून वतात
कोणा बाराबर रिगचें
हाचें भान दवरिनासतना

पुस्तकां आदार दितात
पुस्तकां दुख्ख दितात
तरीय तीं येत रावतात
बदलत्या हवामानाक अणसरून

पुस्तकांच्या मळब मनांक शीम नासता
तेन्ना कोणें वादांत वच्चें न्हय
निश्काम कर्मयोग्याच्या
जंय मावन यार्दीचें इंधन घाळ पडटा
थंयच्यान पुस्तकांचें फुडारपण जाणवता

पुस्तकां रान रुखां पेडांचे
आपलें मतींतल्या झिलकुटांचें तर न्हयच

म्हूण आपणें कांय वगत
भोंवडेकार जावन रुखांचे सावळेचो
आडोस घेवन बसपाचें आसता
शब्दांतल्यान उजवाडा कडेन वचपा खातीर
तेन्ना घडोवं येता साक्षात्कार
बुद्धम् शरणम् गच्छामिच्या सर्वस्पर्शी मंत्रघोशाचो
गुरुत्वाकर्शणाचो

पुस्तकांय रचयतात आपलेंशें एक जग
त्या जगांत आपणेंच आपले नदरेंत
वलसाणीचें सपन पळोवपाचें आसता
काळजांत सुर्याचें शेत पिकोवपाचें आसता
उरता जाल्यार जीण वाचून जाल्ल्या
पुस्तकांच्या पानार दवरपाची आसता
कानफोडीच्या पानां भशेन
अशी जीण पयलीं सोंपता
आनी फाटल्यान पुस्तकां वाचपाचो ध्यास उरता
चिरंतन

## हवामाना विशीं

हवामाना विशींची आमची भासाभास सुरू जाली
जाचे विशीं आमकां सगळ्यांकूच उमळशीक आशिल्ली
तशें पळोवंक गेल्यार हांव आनी आमचे मदलो कोणूय
हवामाना विशीं किदेंय उलोवंक शकतात
आदार आनी आदारा बगरूय
घडये तर्कानूय
मागीर करूं तुमी तुमचो तर्क, शास्त्रशुद्ध

हांवेंच सुरवात केली कपला वयलो घाम पुशीत
गरमी इतली जाता की पावस पडटलो नक्की
तशें हांवें पळयलां सपन
मळबभर कुपांचें
दोळेभर पावसाचें
म्हाका घेराव घालून म्हजे सरभोंवतणीं
म्हज्या शिरंतरांनी झडटना
म्हज्या विचारां भशेन
आनी जीवसृश्ट परत संवसार रुपांत येतना
नागड्या झाडांक कोमरी येतना
आनी जीव-जंतूंच्या रुपांतलो मनीस संवसार मापतना

एक मनीस म्हाका चूक म्हणीत
जनेलांतल्यान भायर पळयता
सध्याच्या हवामाना वयल्यान
आनी ह्या उबाळांत तो मुखा वयल्या
धा-पंदरा वर्सांचें अंदाजपत्रक सादर करता

जानृंत पावसाचो आसपाव खंयच नाशिल्लो
म्हजें कुपांनी भरिल्लें मळब ताणें निवळ केल्लें लख्ख उजवाडाचें

नागड्या-उगड्या जमनी वयल्यान
एका पोंता वयल्यान दुसऱ्या पोंतार
आमी पळोवंक शकतले एकामेकांक
मेंडांत बाग घेवन लेगीत
तरीय जगतलो मनीस किड्या-किटाणूं भशेन
समर्थां खातीरच्याच अधिकारांचें आरक्षण करून

दुसरो एक मनीस आवाज वाडोवन
जमनीचे अवस्थे विशीं उलयता
नागड्या रुखा विशीं सांगतना
गाडलेले, सांडलेले संदर्भ तो उगडास करता
ताचे कालेती प्रमाण मोटवे जाल्ले ताचे विचार
तो मांडूंक शकना सारके
तरीय ताच्या विचारांचेर उक्तेपणान चिंतपाचें
तो आवाहन करता
दुर्बिणीच्या हारशांतल्यान आतां आमी सगळ्यांनीच
हवामानाचो वेध घेवप गरजेचें

आमचे भासाभाशेंत
आमी केन्नाच रावलेनात आमचे भितर ओगी
म्हणूनूच आमी विचारविनिमय
चालू दवरूंक शकले हवामानाचेच गतीन
सगळ्यांचो एकूच सूर आशिल्लो
सगळे खुशालभरीत आसचे
बऱ्या खिणांक वेधून घेवन
संवसार संतुलनांत रावचे

## बरे दीस

बऱ्या दिसांच्यो यादी आमकां जिवितांतली
उमेद दीत रावतात
म्हूण अदींमदीं आयिल्ल्या वायट खिणांचे
लावन घेवप नासता
बऱ्या दिसांची आस आमचे जगपाचे खीण
लांबयत रावता
घडये सपनांचोय संवसार उबो करता म्हूण
तशें सपनांनी भारावन वचप सारकें न्हय.
आशेरूच मनीस जगता म्हूण नव्या दिसाचो
नवे उमेदीन येवकार दिवप चलता
बऱ्या दिसांचें येवप सकाळच्या उदेल्ल्या सुर्या भशेन
आसताच अशें आसना
रातीं फाटल्यान दिसा भशेन नासता
गिमा फाटल्यान येवपी मिर्गा भशेनूय नासता
बरे दीस येतात घडये आमच्यांतलें बरें घेवन
आमकां बरें घेवन
आनी आमी खोशेन फुलतात
खूबदां पयलीं कळयनासता
जें फुलता तें बावताच
जें बावना तें फुलचेंच नाशिल्लें
म्हूण बऱ्या दिसांक घट्ट वेंग मारून रावंक मेळना
सोंपेपणान हिशोब दवरपाकूय जमना

बरे दीस येवचे म्हूण तांच्या सोदांत आमी हेडत आसतात
जळामळा आपटत-धपटत आमचे यत्न चालूच आसतात
त्या यत्नांनी आमी तुटून लेगीत शिंपडटात
आनी तुटपांत सरभरसून लेगीत वतात

मिरसांगेंतले तिखसाणी भशेन
खोबऱ्यांतल्या तेला भशेन
काळजांतल्या हुस्कारा भशेन
आनी धरतरेंत पावसाच्या उदका भशेन

बरे दीस:
15 ऑगस्ट
19 डिसेंबर
दिवाळी, नातलां, ईद
तशेंच भुंयगत जाल्ले आतंकवादी सांपडटले
तेवूय बरे दीस आसतले
पूण ह्यावूय दिसांचो मना आवन विरोध करपीय
हांगासर आसात.
म्हूण सगळेच बरे दीस, सगळ्यांकूच बरे आसतात
अशें आसना

बऱ्या दिसांनी आमकां पालय येत रावता
आनी घडये खांदये-खांदयेन
मळबभर शिंपडपाचे आंवडे
गळ्या मेरेन पावतात
तेन्ना पाड दिसांच्यो यादी हुलपावन वतात
हें सगळें आमी बऱ्या दिसांक कसो फुडो करतात
हाचेर आदारीत आसता

मुखा वयल्या दिसांची धडगत नासता म्हूण
बऱ्या दिसां खातीर फुडाराक आंखचो न्हय
पूण बऱ्या दिसां खातीर आमी झुजत रावपाक जाय
त्या झुजपांतूच आमकां घडये मेळूं येतीत
बरे दीस

## आशाढ पांवळी

आषाढ पांवळी
वज्र वेगळी;
हर हरयाळी
चारी दिका...

चुड्याचो चमचम,
जायांचो घमघम;
सतारीची धून
रंध्रारंध्रांत...

कुळाराची वाट
आतां अनवळखी;
यादींची पालखी
जड खांदार...

## बळगें

झाडाक जेन्ना खांदयो फुट्टात
वतांत उदकांत जियेतात
एकामेकां खातीर

झाड जेन्ना जाता व्हड
एक खांदी मारल्यार
दुसरे खांदयेक जायना बादा
कित्याक जाणा?
ती आपल्या बळग्यार उबी रावता

आवयबापायलीं काचींबुचीं
शिंपण्यान तांच्या मोगाच्या
हांसत खेळत व्हडलीं जातात
तेन्ना-
एकामेकांक पयसावतात
आनी केन्नाय
एक भाव दुसऱ्याचो जीव लेगीत
बळगें आंगांत येता तेन्ना
मनीस असो कित्याक जाता?

## पावसर्ड

तूं चल्लो?
वच, हांव तुका राव म्हणचें ना
पूण, वच्चे पयलीं
एक वरभर तरी
पोटभर उलय मरे पापया...

अशें कितें आसा त्या कम्प्युटरांत
जें म्हजे कडेन ना?

तो तुका व्हरता आसत
संवसाराच्या ह्या पोंता वयल्यान
त्या पोंतार खिणा भितर

म्हज्या पुता,
कम्प्युटरा वयलो संवसार
म्हणल्यार संवसार न्हय
खरो संवसार तुका आतां कळटलो
तूं आतां घरा भायर पांय दवरतलो तेन्ना

हालीं तुजे मांडयेर सदांच लॅपटॉप
तशेंच हांवूय बसयतालें रे
तुका लॅपटॉप कसो मांडयेर घेवन
वरांचीं वरां...

आतां गरज नासतना
म्हाका तुज्या भुरग्यांचो हुसको
मेळटली काय तांकां मांडी तुमची?...

खऱ्यांनीच तूं आतां व्हडलो जाला...
आतां तुज्या केंसांचेरूय हात
भोंवडायिल्लो तुका आवडना,
तुजे केंस रोखडेच इबाडटात
तुजेर तापिल्लेंय तुका आवडना?
तूं रोखडोच फूर्र जाता

तूं वच,
हांव तुका राव म्हणचें ना
पूण वतना
तुजो पासवर्ड मात दिवन वच
केन्नाय म्हाका दिसलें जाल्यार
तुज्या काळजांत भितर रिगूंक
तुज्या मनाचो थाव घेवंक

दितलो मरे तुजो पासवर्ड?

## काजुल्यांचें झाड

जोगलांचो नाच चल्ला
पयस दोंगुल्ल्यां आड
पानापानांनी थरथरता
म्हजें काजुल्यांचें झाड

मळबाच्यो देगो सोदी
धरतरेचे उमाळे
मध्यान रातीं फुलून आयले
उजवाडाचे कळेच कळे

वारें आतां वादळ जावन
पान पान हालयता
जिविताचो रूख म्हजो
मुळा सकट उबयता

## चमेली

उटंगारांचो पयलो पावस
पडटा तेन्ना
याद जाता म्हाका
म्हजी भुरगेपणांतली चमेली!

म्हज्या आंगणांतली
पानापानांनी फुलपी चमेली!

हांव झोंपाळो बांदतां
तेन्ना म्हजेर पाकळ्यांचो
शिंवर करपी चमेली!

म्हजे खातीर फुलपी चमेली!
म्हजे खातीर झडपी चमेली!

आयजूय ती पाकळ्यो झडयता
म्हजे यादीन
धवीं धवीं दुकां गळयता
चमेली म्हजी वाट पळयता...

## तटस्थ

ह्या जगांत म्हज्या, ना भावना
शेणल्यात म्हज्यो संवेदना।।
कित्याक दोळ्यांत रेंवट?
आंवडो ताळ्यांत अस्फूट
आटला हांशाचो खळखळाट
सोडल्या हावेसांची बोट
उमेदीचो सहवास ना ।।
घडोवंक मानवी बॉमस्फोट
आत्मघाती बांदिल्लें पेंगट
अक्राळविक्राळ अपघात
खुनी हल्ल्यांनी घाल्ले घाट
कित्यानूच काळीज हालना ।।
सुण्या धनयाची तातातूट
धांवता गाडये फाटोफाट
आडावचेंशें दिसलें उपाट
मनाक, पूण ना नेट
आड्डून आडावप केलेंच ना ।।
गोळ घेवपी ते चलयेक
जाय आसलें एकदां मेळूंक
उलोवपाची संद सादूंक
एकदां तरी समजावंक
तें तशें कशें जमलेंच ना

## उमाळे

म्हजे असंख्य उमाळे
खतखतले
आनी भस्स करून ओतले.
अळंग जाले
कवितां झेले.

## तूं उलोवं नाका

ताजमहाला,
तुजे सर्गीय सुंदरायेची काणी
दर एकल्याच्या ओंठार गितां फुलयतात
सृजनतायेक कोंबऱ्यो हाडटात
अमर मोगाची गवाय सांगपी
तुजे मोगीजन पुजा बांदतात
हेंच एक तुजे वरी सुंदर सोबीत चित्र.

ताजमहाला,
तुका उलोवंक येना म्हणून बरें
तुज्या बंद ओंठां आडचें रक्तरंजीत महाभारत
भितरले भितर घुसमट्टा म्हणून बरें,
तें भायर आयलें जाल्यार
तुजें प्रत्येक उतर उज्या केण ओंकतलें

तुजे पासत जिवदान दिवपी, तांचे वेदनेचे
पडसाद धाय दिकांनी घुमतले.
आनी ते बंदिस्त बंदखणींत तळमळपी तो
निमाण्या खिणा मेरेन रक्तदुकां गळोवपी तुजो रचनाकार
ताचीं दुकां तुज्या फातरा फातरांतल्यान पाझरतलीं.
नाका ताजमहाला, तूं केन्नाच ओंठ उगडूं नाका
तुजे सर्गीय सुंदरायेंत पिशांक पिशें जायत रावं दी
तुज्या जळट्या काळजा मेरेन वचपाची तांक तांकां ना
तो वेर तुजें दुख्ख बंद ओंठा आड खतखतत रावं दी
ताजमहाला, तूं उलोवं नाका, उलोवंच नाका

## सोनमर्ग

पाचवो, हळडुवो पांगरून गालिचो
बसल्यात हांगा कितल्योश्योच दोंगुल्ल्यो
सोनसया तोंडार तांच्या
सार्थ जाता नांव सोनमर्ग
सरभोंवतणीं पर्वत झेलाचे
झीण झीण झीण झीण शिंया कुडकुडो
सुस्त न्हिदिल्लें मानगें
जशी न्हंय ती गोठेल्ल्या झेलाची
टपटप टपटप घोड्यार बसून
भणभण वाऱ्यार भोंवचें फिरचें
जीव धादास जालोना जरी
बसकण मारची खंय फातुल्लेचेर
सोनमर्ग हें मळ भांगराळें
तान न्हिवता पळोवन हे सुवाळे
मनभुलयणे रंगरंगयाळे
काश्मीर सुंदरीचे शेले गळ्यांतले

## राधा-कृष्ण

वेळूच्या गो दाट रानांत
घुमलो वेणूचो नाद
सैरभर जाली राधा
कृष्णान घालो साद

निळ्या निळ्या मळबाचेर
सुकण्यांची गो रांगोळी
नखेत्रांच्यो पेटल्यो पणट्यो
मळबांगणांत दिवाळी.

तीन कातरीर धरतरी
चडटा काळखाची माळी
यमुनेचे काळशे देगेर
राधाकृष्ण खेळटात होळी.

## हीच आमची खोस

म्हजे धुवे म्हज्या पुता
तुमी आमचे इश्ट
आमचे हांडी वयले तुमी
आतां आमच्या खांदार उबे,
हातुंतूच आमकां खोस.

आमचीं सपनां तुमच्या दोळ्यांत
भरपाचे दीस केन्ना सोंपले
तुमच्या दोळ्यांनी आमी तुमचीं
विशाळ सपनां पळयतात
हातुंतूच आमकां खोस.

आमच्या मळबाक आतां शीम-मेर
तुमच्या अमर्याद मळबांत
भोंवपाक तुमचे पांय थीर करप
हातुंतूच आमकां खोस

तुमच्या बोटाक धरून तुमकां
चलोवपाचे दीस केन्ना सोंपले
तुमी घडयिल्ले नवे वाटेन
चलतना तुमकां तेळत रावप
हातुंतूच आमकां खोस

## दल सरोवर

निळनिळशा पर्वतां मदीं
पाचवें-निळें दल सरोवर
कोंदणांत बसयिल्लें वरी
जसो नीलमणी मनोहर
हारसोच तो एक बिलोरी
प्रतिबिंबां पळयतात पर्वतमुनी
चकचकीत त्या सरोवरांत
फिरतात शिकारे दोमळे कशे
चुबूक चुबूक संगीत व्हल्यांचें
तालार तांच्या धोलप आमचें
घरां उफेतीं निळ्या जळांतलीं
मदींच गालिचे रंगयाळ्या साळकांचे
आनी उफेवपी मळे फुलां-फळांचे
तृप्त जायना तान दोळ्यांची
पळयत रावची दाली सोबेची
पाचवें-नीळशें हें दल सरोवर
काश्मीराचें एक सपन मनोहर

## मोलादीक देणें

तुवें म्हाका
आसा ते मेरेन
कितेंच उणें केलें ना

वतना इतलें
दिवन गेलो
तें घेवंक
काळीज आनी हात पावलेनात...

कवनांचो भरजरी
पलंग दिलो
रंगयाळ्या सैमाचें
उबेचें कांबरूण दिलें
हांतरूंक सोबीत सुंदर
मनमळबाची शेंदरी दिली
कथा-कवनां-गितां रचूंक
म्होंवे-म्होंवे सूर दिले

खोशेच्या यादींची
खुळखुळट्या पांयजणांची
सासणाची भेट दिल्या
रातच्यो राती जागोवंक तुवें
मोलादीक देणें दिलां

## चान्नें

तुवें दिल्ले रोंपयेक
फुल्ल्यात आयज दोन कळे
तातूंत दिसता म्हाका
सोबीत तुजे निळे दोळे
त्या दोळ्यांतल्यान हांव
सदांच पळयतां फुडाराचें सपन,
तुजें म्हजें कळये सपन
रोखडेंच लागलें फुलूंक

दिल्ली तुवें रोंपी
घेवन म्हजी गोड पापी
आसा तुका याद?
हें फूल फुलतकच
सांगून म्हाका धाड...

हेच रोंपयेंत भरला
जिविताचो अर्थ
तुजें म्हजें सगळें... सगळें
एक सासणाचें नातें
देखुनूच फुल्ले कळे
सदांच हांव पळयतां राजा
त्या दोन कळ्यांनी
तुजे सोबीत निळे दोळे

## तें चान्नें पळय

तें चान्नें पळय
रोस गळयता
दर्याचीं ल्हारांय गो
तडीर खवदळटात
मन म्हजें वाऱ्या वांगडा
दिशांक गाजयता
तें चान्नें पळय
रस गळयता

चंद्रीम उदेतना
चान्न्या शिंवर शिंवरायता
अळंग रात भरजरून
परमळ गळयता
हांवूंय आतां चान्नें खरेंच
दोळ्यांत सांठयतां
तें चान्नें पळय
रोस गळयता.

फुलां फुलांत नितळ मनां
भोंवर भोंवरता
गुल्ल जावन तोच पिसो
सगळें विसरता
सुरा-सुरांत गीत गायत
सैमाक न्हिदयता
तें चान्नें पळय
रोस गळयता

## सपन

तूं म्हजें रिगिल्लें सपन
देखून तूं फुलयत गेलें
तूंच म्हजें फुलयिल्लें फूल
देखून तूं परमळत गेलें.

भांगरा वरी रूप तुजें
म्हज्या मनाक मोखून गेलें
पाचव्याचार कुळागरान
जिवीत म्हजें घडयत गेलें.

अस्तंतेच्या सुर्या वांगडा
काळखे रातीं फुलां जालीं
दोळ्यांतल्यान व्हांवपी दुकां
रुखा वयलीं फुलां जालीं.

## जाणा आई?

जाणा आई?
तूं कामाक वतना
म्हाका भितर दवरून
दार बंद करून वता खरी
पूण हांव जाणा
तुज्या काळजाचीं दारां-जनेलां
उकतींच आसतात
तूं जंय आसता थंय सावन
खिणाखिणाक जनेलांतल्यान
दारांतल्यान म्हाका
तेळीत आसता
म्हजे खातीर हुसकेत आसता
पोर म्हजें बाबागाडयेन
अशें बांदून उरिल्ले वरी
कितलो वेळ हालनासतना
धोलनासतना उरतलें?
तानेलें काय पोर?
रडटा काय पोर?
भुकेलें काय पोर?
आनी खरें सांगूं आई?
तुज्या ह्या काळजाचे
हुलपावणेचो धग
म्हजे मेरेन पावता
आनी मागीर हांव मोन्यांनी धुमसतां
आनी तूं येनाच
फुडें सगलीं दुकां
तुज्या पोशांत रकयतां
तुज्या काळजाक
मात पूण थंडसाण
मेळूं दी म्हूण

## यो रे पुता यो

ह्या घराचे बरगेल्यात वांशे
सूलच्या नळ्यांचें देंवलां पाखें
घराचें राखूंक घरपण यो रे पुता यो
त्या निबान तुका पळयतां यो रे पुता यो

ह्या कानाप्याचेर उशाक तुज्या सदां म्हजी मांडी
आयकतालो राजां-भुतां-खेतांची काणी
जाग्या वयल्याक सूर-रोंट दिवंक यो रे पुता यो
त्या निबान तुका पळयतां यो रे पुता यो

ह्या आंगणांत रंगतालो कोंयडेबाला खेळ
माड-माडयांनी खेळटालो आखो-माखो-तेल
तुळशीची पणटी पेटोवंक यो रे पुता यो
त्या निबान तुका पळयतां यो रे पुता यो

दारादारांत रंगतलो आतां शिगम्या खेळ
धोल ताशे वाजतले येतलो रोमटां मेळ
शिगम्या तळी दिवंक तूं यो रे पुता यो
त्या निबान तुका पळयतां यो रे पुता यो

कुळदैवत तुजें सांतेरी, हे सांतेरीची जात्रा
जात्रेक घेवन यो रे म्हज्या अपुरबायेच्या नातरां
कुळदेवतेचो कौल घेवंक यो रे पुता यो
त्या निबान तुका पळयतां यो रे पुता यो

लामणदिवो पेटयतां देवा गर्भकुडीं
प्रमादाक मागतां रे तुका उजवी कळी
मूळ पुरुमाक पेटोवंक वात तूं यो रे पुता यो
त्या निबान तुका पळयतां यो रे पुता यो

पयम सादयता फांत्यापारार सर्गलोकी कोंबो
जीव तरासता तुज्या हातचो पियेवंक उदका थेंबो
वतना म्हाका खांद दिवंक यो रे पुता यो
त्या निबान तुका पळयतां यो रे पुता यो

## अशेंच घडटा

पयल्या पावसांत चिप्प भिजून
रतीगंध केळोवपी माती
आनी मातये कणाकणांत
पेटिल्ल्यो धुपारती
ते दीस केन्नाच उलगले
आतां हो मिर्गूच असो
जाला बेभरवंशी
पावस शेनचे आर्दीच
हीं पावशी कुपां
वतात वाऱ्या भेटेक

## जनेल

तुमकां घडये जनेल म्हणल्यार
फकत बुराक एके वणटीक
म्हाका मात जनेल
चैतन्याची पणटी

तुज्यान घालूं येता
मळबाक फासकी
जाय तेदी, जाय तशी
आनी पितारूं येतात रंग
जाय तशे
फकत जनेल उकतें आसल्यार पुरो
केन्ना केन्ना
काळजाक आयिल्लो ओतो
जावं दुख्खाचो
जावं सुखाचो
बंद दारा आड वचूंक फावोना...

जनेलां नाशिल्लीं घरां
घुसमट्टात
आनी उगडटनाच दारां
भरकट्टात

कृष्णाच्या तोंडांत यशोदेक
दिसलें अख्खें ब्रह्मांड
म्हाका तशें
उकत्या जनेलांत दिसता

## तान भूक

हड्ड्यार तुज्या थेयतां तकली
दोळ्यांची खीणभर लकता पापणी
गुपाट काळखांत लख्ख उजवाडाची
एक नवी पेट्टा पणटी आनी पुराय तनामनाक
चिरंतन शांतीची उपाट आनंदाची जाता प्राप्ती

खीणभर धरतरी थिरावता
सूर्य, चंद्र, तारे, गिरे
पुराय ब्रह्मांड म्हजे वेंगेंत येता

हांगा थंय धडपड धडपड
वत माथ्यार इंगळ्यां रखरख

कश्ट कितलेय काडीन हांव
कांटे कितलेय माड्डीन हांव
ज्वालामुखी तोंडांत अमृताची धार
वेळाकाळार सोडीन हांव

नाका गिरेस्तकाय, नाका धन-दौलत
प्रेम तुजें खिणाचें
तेंच मोट्या सौभाग्याचें
प्राणांत शिंपडाय प्रेमामृत
तीच म्हजी तान आनी तीच म्हजी भूक!

## हांव हारसो उलयतां

दाखोवपाचे दांत वेगळे
खावपाचे दांत वेगळे

सगलें जरी लकलकीत
सगलें जरी चकचकीत
अडेच्या हांशा भितर
बेगडी रुपड्या भितर
काळें गुपीत लिपलां

हांव मात घुसमट्टां
सगलें अडेचें पळोवन
हांव नाशिल्लोंच जाल्यार
कितलें बरें जावपाचें?
हीं रुपडीं चडोवंक तरी
मनशाक मनशाचेच
हात लागपाचे
एकामेकाचें खरें रूप
संवसाराक तरी दिसपाचें!

## कृष्णा तूं धांव

उतरांनी बांदूंक येना
मन वाऱ्यार घालूंक येना
आसून नासून सारकेंच
हे काळाजांतले भाव

खिणाखिणांत गुंथलीं जरी
हावेसाचीं फुलां
जीण जपता तुटिल्ल्या
सपनांची माव

आलतड तर सोडल्या
पलतडय दिसना
आत्म्याची लज राखूंक
कृष्णा तूं धांव

## सांग कशें

मळबांतल्यान वा वाऱ्यांतल्यान
ह्या दर्याच्या ल्हारांतल्यान
खंयच्यान आयलें तूं?
सांग कशें म्हज्या मनाच्या
आंगणांत पावलें तूं

ओंठार तुज्या हांशें
फुलान फुलचें तशें
तुज्या रुपाचें चान्नें
लायता म्हाका पिशें
असो फुलांचो चंवर घेवन
चान्न्याचो हो शिंवर घेवन
अचकीत म्हज्या सपनांचे
वाटेर पावलें तूं...

तुजी भुलयता ओड
आनी जिणूच जाली गोड
म्हज्या जिवाच्या उल्याक दी गो
तुज्या उल्याची जोड
सपनाक दिवन अर्थ नवो
जिणेक दिवंक वर्ख नवो
नव्या सुखाचें गुपीत घेवन
काळजांत पावलें तूं...

## मोनेळ

मोनेळ
एक अथांग गूढ डोह
खोल खोल तळांत
कितें लिपलां
सांगूं नजो

मोनेळ
एक तळप
तुटपाचो फुटपाचो
हावेस शेणिल्लें
विरगळपाची इत्सा सोंपिल्लें

मोनेळ
सपनांच्या झुंबराचे
कुडकेच कुडके
तिक्ष्ण, तोंकाळ
रोमपी विखार

मोनेळ
ल्हवू ल्हवू वाडत वचपी
उण्या दाबाचो पट्टो
उटंगार पावसाची शक्यताय
वादळा आदींची खर शांतताय

## काळजाच्या दवरण्यार

काळजाच्या दवरण्यार
कितलीं हीं वर्जी
दुसऱ्यांचींच चड
एक दोनूच म्हजीं

एकेके पोटलेंत
कितली पिडा, कितलीं दुख्खां
ल्हान ल्हान इत्सांचीं
गळूंक लागल्यांत पांखां

मनूच मोडूंक पावलां
आतां खंयची लावं धिगी
खंयचें सपन खंयची आशा
ओडून घेवं लागीं

वाडत आसात तरीय कशीं
म्हणूं वर्जी जड
इतलेंच मागतां जावं दी म्हजें
मन खोल, काळीज व्हड

## रुपड्यांचो खेळ

पाकळ्यांनी घाले घाय
सांगलें नांव फातराचें
उरले नात कांय खंयच
कोणूच खऱ्या उतराचे

भर दिसाउजवाडांत
काळोख रूख मनांत रूज
शांत शितळ मुखा आड
कोण जाणा कसलो उजो

व्हांवता न्हंय उपाट भरून
मोडून शिमो देगो हुपून
घसघश्यांनी ओत्ता पावस
ताच्या जिवार घेता मिरोवन

रुपड्यांचोच खेळ असो
हांगा थंय चल्ला
सत्य नांवाचें अर्भक
अनाथ जावन उरलां

## इंदू गिरसप्पे

### शार

शार मनशा प्रगती
शार मनशा गरज
शार मनशा पिसाय
शार मनशा आवतिकाय ।।

शार भुलभुलय्या भिरांकूळ
शार मुयांचें वारूळ
शार चैनी मायाजाळ
तळागाळा तळमळ ।।

शारांत गगनचुंबी इमले
शारांत सपन मनोरे
गल्लेगल्लेंत शिकारी
शारांत जुलूम पांजिरी

शार कोपिश्ट निश्ठूर
तरी काळीज कोमल
धरी जमखी छातयेर
थकिल्लीं भुरगीं बाळां

शारा तारवडल्या केंसार
आकाश मुकुटा शिणगार
वतान रांपिल्ल्या मुखार
हांसो सोंशीक सोज्चळ

जायना सोडूंक जायना रावूंक
अशें उमाणें हें शार
माये व्हंटयेंत आयसपयस
दिता आलाशिरो शार

## वेधू

चकोरीक चंद्राचो ध्यासू ।।
लोखंडा परिसा सोनस्पर्शू ।।
अणुरेणू विश्वा अंशू ।।
लागलो वेधू ।।1।।

आर्त कोगळेचो स्वरू ।।
वालीक रुखाचो आदारू ।।
काळजा कमळांतू भ्रमरू ।।
अंतरी आस ।।2।।

ल्हारां पुनवे चंद्रा ओडी ।।
बाळा मातेदुदा गोडी ।।
उतावीळ जिवा जोडी ।।
तोची परमेशू ।।3।।

मृगाक कस्तुरीचो शोधू ।।
धुंद करता अमृतगंधू ।।
आत्म्या परमात्म्या ना भेदू ।।
जन्मांतरी ।।4।।

सागरसरिते मिलन ।।
साकर दुदांत विलीन ।।
तसो जीव शिवाधीन ।।
समर्पण ।।5।।

## तूं जर गीत

म्हज्या दोळ्यांत तुका
हांव सजयतलों
तूं जर गीत
हांव तुका गायतलों

मोगाचीं ल्हारां व्हांवत आसात
तुजे मेरेन पावत आसात
पणटेंतली तूं जर वात
हांव तेल जातलों
तूं जर गीत
हांव तुका गायतलों

तुजे विणें कोण गो म्हाका?
दोळ्यांनी घट्ट लिपयलां तुका
तूं सूय जाल्यार हांव धागो जातलों
तूं जर गीत
हांव तुका गायतलों

## आस

सोदतालें काळीज हांसूंक
रावलें तुज्याच येवकाराक दसून
खोशेचीं कारणां आसलीं भोंवतणीं
तुकाच सोदी दोळे पुसून पुसून ।।

दीस उजवाडटालो तुजे यादीन
तिनसांजे कात्रेर येताले दोळे धांपून
रात परमळटाली तुज्या गोपांत वचूंक
झिळमिळ्यार वेंगेंत पावले सपनांत देंवून ।।

एकसुरेपणाचो हुलप सोंसलो
तरी काळीज रावलां परमळूंक
सैमाचे बागेंत फुलप फुलांचें
तशें तें वावुरता परतून परतून ।।

सदचेंच हें जाल्लं बावप-फुलप
नवे बांदावळीन लागता काळीज वावरूंक
तूं येतलो हें सत मानूं
काय रावूं केन्ना तरी बीं येतलें रुजून ।।

## चांद रात

तुज्या सांगाताची
चांदरात
कापूर जावन लागली गळूंक
दंवा थेंब्यांनी
नखेत्रां लागलीं पेंवूंक
परमळाच्या गांवांनी
ओंवाळणेचे साद वले
पावला पावला कणकणीं
अमृताचें म्होंवें तळें
सांगाताचो भिजरो भास
सांगाताची वली आस
नाचता सपन गंधांनी
शियाळ धुकाळ पिकाळ पिकाळ
तुज्या सांगाताची चांदवाट
व्हांवता दोंगर गाळींतल्या
रानावनांनी

## स्वास हरवो

असो धुंद हो वारो
अशी पावसाची झडमड
धुंद मोगऱ्याचो फुलारो
दिका दिकांतल्यान धोलता
प्रितीचो परमळ नवो
निळें सावळें वत जांबळें
घेता मंद मंद झोंपाळे
तुज्या सांगाताचो
स्वास हरवो
रंध्रारंध्रांनी पिशी आबोली
फुलारता

## धूव

धूव आसची तुजे वरी
शुभ्र पारजताच्या
केंसरी देंठा वरी
हाताच्या पाळण्यांत
बोटाचो आखाणो चोखीत
ब्रह्मांडाची खोशी
उफेवची दोळ्यांनी
हांशाचो उडचो
भरगच्च फुलारो
भांगराचो
ह्या पारदर्शी
चकचकीत खिणांत
चक्क लखलखचें
हांव श्रावणांतल्या
केसरी हरव्या वता वरी

## प्रस्न

प्रलयांत व्हांवत वतना
तुजोच हात दिशिल्लो
काय म्हाका फटोवन
तेन्ना प्रलयूच हांशिल्लो?

आतां रेंवटा मर्दी
हरवेपणाचें येता भान
काय मेंदवाच्या वेरांनी
कांट्यांचें मात्ता रान?

कित्याक ही भरती
तुज्या कांठांत रिगना?
काय स्वताक सोलपाची
तान म्हजी भागना?

## धा कविता

1
रूख
मनीसकुळयेचें मूळ
पाचवी धूळ
दिगंतरांत

2
मळबांतलो एक थेंबो
धरतरेक भेटूंक आयलो
बाळक जावन तिचो
वटवृक्ष जालो

3
भर गिमांत
गुलमोहर चंवरता
आरे पिशा
तो म्हणटा :
म्हजीं दुख्खां तीं
फुलां जावन जीं
फुलतात
रक्ता कणकणीं

4
कोगूळ गायता
वसंताक तोडी फुट्टा
नातूक रडटा
मळबाक नदर फुट्टा

5
उसरां येयल्यारूय
गाळी
बेग्यान येयल्यारूय
गाळी
सांगीत कोणूय,
पावसांत
करचें कितें?

6
बाळक किर्णां
पळयता धरूंक
ताका ना सुर्या-भंय.
अभय तें एक

7
रोब घालो म्हूण
मनीस जायना
रोब
मनशानूच केला

8
हाताक चावी लागल्यार
कुलपाक ती
लागतच म्हूण ना
ताकाय
तकली लागता

9
दोंगरा आड सुर्या
उदेलो काय ना उदेलो
सारकेंच
फांतोड जावच्याक सुर्या
उदेवचो पडटा
मनांत

10
सुकती-भरती न्हंयेक
झऱ्याक न्हय

## रात

अमुरपिकी रात निळी
घमघमता चान्या चंवर
मेकळो जावन यो रे मोगा
हुसके तजे कडेक दवर

कुपां देगेक रुपें जावन
चंद्र पळय विरगळटा
पानांतल्यान काजुल्यांचो
मोनो प्रणय दरवळटा

अचळयां घेवन वेंगेंत
घाल म्हजेर मोगा शिंवर
मेकळो जावन यो रे मोगा
हुसके तुजे कडेक दवर

दंवान वालो पदर पिळीत
भोगता भूंय चंद्रन्हाण
रुखावळींत रिगला गंध
सावळ्यांचें सुटलां भान

शीळ घालीत सांगता वारो
अधीर जाला तुजो कुंवर
मेकळो जावन यो रे मोगा
हुसके तुजे कडेक दवर

## पयस किल्लयले दोळे

पयस किल्लयले दोळे;
दोळ्यांत दिगंत
मेकळें मेकळें

फुलशी फुलारली काया;
नदरेंत ओली,
मोनी माया.

मन: चैतन्याचें देणें;
कोंड्या आळींत जशें
वाऱ्याचें पेणें.

अंतरीची ओली माती.
जायत रावता
गर्भवती.

सपनांची लख्ख सूर्यफुलां
फुलत रावतात
काळजातळा.

पिराय पिकून जाता जून;
मनांतलें विश्व मात
तरणें अजून.

## सडो

चलतां
चलतां

चलतां
चलतां

पांयां पोंदचो
रखरखीत
सुको सडो
अचकीत
पाचवोचार जाल्ल्याचो
भास जालो

तुज्या भरिल्ल्या दोळ्यांचो
म्हज्या काळजाक
स्पर्श ओलो...

## उज्या वरी फुलूं

आपलेंच वजें
घेवन माथ्यार
आपलोच भार
ल्हव कर.

पातळूं दी दोळ्यांत
नवलांची नदर
जिणेंतलो कोयर
उस्पितना.

येवं दी जिविताक
इंगळ्यांचें रूप
धगधगूं स्वरूप
उमाळ्यांचें.

जें जें उखलापें
तें उज्यांत जळूं
उज्या वरी फुलूं
काळीज हें.

## काळोख कितलो गुडुप्प

काळोख कितलो गुडुप्प;
काळखांत व्हांवत्या झऱ्याचो
आवाज तितलो येता आयकूंक

सगलेंच दाट-घनदाट;
गुप्प काळखांत बुडटा काळीज, रगत...
शिरांनी रगताचो ताल तितलो लयबद्द.

भोंवतणीं काळखाचीं सावटां-जळमटां
जिणूय काळखांत लकता... झडपता
मन मात कापरा भशेन जळटा तितलें घमघमत

तापिल्ल्या दुदा भशेन
काळखांतल्यान ह्या
सरतलो केन्ना उजवाड खतखतून वयर?

किट्ट काळ्या काळखांतल्यान
झुळझुळू व्हांवत्या झऱ्याक
लख्ख झळाळून येतलें केन्ना उजवाडाचें तेज?

## केन्ना तरी... खंय तरी

तुका केन्ना पळयिल्लें
उगडास जायना.
पूण...
केन्ना तरी... खंय तरी
पळयिल्लें आसूंक जाय.
आयचे भशेन तेन्नाय बी
नदरेंत नदर...
घुसपल्ली आसूंक जाय.
कुडी फाफडून
आत्मे एक जाल्ले जावंक जाय.
आयचे भशेन... तेन्नाय बी
लजेचो भार असोंस जावन
नदर तुजी
गुलाबांचें हांशें मोखीत
जमनीचेर थिरावल्ली जावंक जाय.
आनी तेन्ना
निर्जीव आनी मोनी जमीन
संवेदीत जावन
तिणें तें काव्य
चिंविल्लें जावंक जाय
फातरांचेंय काळीज खीणभर
शिरशिरलां आसूंक जाय.

आयज आमच्यो कुडी
बरगेल्या जायत
घडये...
त्यो यादीय वेरेल्या जायत
पूण
धरतरेन चिंविल्लें काव्य
पोल कशें जायत?

तुका केन्ना पळयिल्लें
उगडास जायना
पूण
केन्ना तरी... खंय तरी
पळयिल्लें आसूंक जाय
पळयिल्लें आसूंक जाय!

## म्हजी वाट

म्हजी वाट
हांवेंच घडयल्या
हांवेंच चिरल्या
वाटे वयले कांटेखुंटे
हांवेंच मोडल्यात.

जायते फावटीं
म्हजे हातपांय
तांकां फारावल्यात.
म्हज्या रक्ताचे
दागूय तांचेर उदेल्यात.

वाटे वयले फातर-गुंडे
हांवेंनूच हुमटायल्यात
देंगणांतल्या काळखांत
तांकां हांवेंनूच लकयल्यात.

आयज म्हज्या कश्टांचें
सार्थक जालां.
म्हजी वाट आयज
हांगा मेरेन पावल्या
हांवेंनूच ती पावयल्या

घडये तिचो प्रवास
आनिकूय उरला जायत
कांय जाण ती
आपली म्हूण चिरतात
म्हजो तांचेर
इल्लोय शीण ना
कित्याक तर
म्हजें जैत.. हांवूच जाणां

## हें अशेंच घडटा

हांवें पळयलां
हें अशेंच घडटा
कित्याक तर, तें अशेंच घडपाचें
कोण जाणा
केन्ना सावन
युगां मेजूंक कोण बसला?
म्हाका ओगीच दिसता
हें अशें घडपाचें न्हय
घडूंक फावोना
तांकांय तेन्ना
तशेंच दिसतालें आसुये
हें घडूंक फावोना
घडूंक जायना.

पूण एक मात खरें
काळाच्या पड्ड्या आड
सगलेंच ना जायना.
फुडाराकूय
म्हजे भशेन येवजुपी
जायते जाण आसतले
पूण...
घडटा तें आडावपी मात
कोणूच नासतले

## पिशी सुरंग

सपनांचे
उले घालीत
माघ येता.
आनी...
ही पिशी सुरंग
शिरंगाराचे
रंग माळून
चान्यांत अशी
उकतीच न्हाता.

## मोरांनो

मोरांनो अशे नाचात रे, नाचात,
थूय थूय
म्हज्या आंगणांत... भांगरा पांखाटें उबारून
मुड्डूं नाकात अशीं तुमचीं नाकां; आनी वचूं नाकात परत,
आंगण म्हजें वांकडें म्हणून

मोरांनो, अशे नाचात रे, नाचात,
थूय थूय
म्हज्या आंगणांत... रत्नपांखाटें उबारून
मात नाका विसरूं, झडोवपाक एक सपनाळें पांख...
तुमच्या नाचाची मोतयाळी याद म्हणून

मोरांनो, अशे नाचात रे, नाचात,
थूय थूय
म्हज्या आंगणांत, तुमचो उगडून फुलोरो,
म्हाकाय दियात फुलोवंक म्हजो हड्ड्या तुरो...
दियात मिरोवंक तकले वयलो तुरो

पूण मोरांनो, नाचात रे, नाचात
एकदां तरी नाचात
नाचात रे
मोरांनो..

## श्रावणदडक

सगलें कशें हांगा थंड,
किण्ण, बिण्ण
पांरमूं बसलेलें दांगांत मान घालून
आनी गोठ्यांत गोरवां - पाडकां
दाव्यांत मान दिवन...

सगलें कशें हांगा, भिरांकूळ
थंड, मोनेळ, जडशीळ...

पळोवं नजो, ही काकुळटेणी स्थिती
जायना सोंसूंक;
ही जिवाक खावंक येवपी थंडसाण,
पोकळसाण
(आंगणांतली निमण मसुंडेची वाट
चलपाक लागले उपरांतची)

सगलें कशें हांगा घुम्म,
गुपाट...

खऱ्यांनीच आतां जाय आमली एक
मरमगीत, शिरशिरीत पावशी श्रावणदडक
हें सगलें निवळावपी...
एकसुरीच श्रावणदडक

## पिशे..

पिशे तशे पळोवंक गेल्यार,
खरेलेपणान पिशे नासतात
ते बेसबरे शाणेसुरत आसतात...

वडाचीं पानां पिंपळाक दसोवपांत
ते बरेच तयार जाल्ले आसतात,
बरेच तिजिल्लें आसतात

पिशे तशे खरेलेच भोव शाणे आसतात
नाका तांकां ते करतात नमस्कार;
आनी नाका थंय ते नाका नाका
म्हणटा आसतना करतात चमत्कार

पिशे तशे केन्नाच
बाबत कुळां नासतात,
ते पिश्यांक वळखनात,
शाण्यांक तर नाच नात
ते कोणाकच वळखनात
आपल्याक लेगीत

हातूंतल्यानच तांगेलो शाणेपणाचो लेंस;
तांगेल्या पिंजक्या म्हेळक्या खांमम्याच्या
बोल्सांतल्यान दिश्टी पडटा

## सांज

1
सांज म्हाका कळत सावन
सांज वेगळी उरलिना
ती जाल्या म्हजेच भितरली
झिळमिळटी भावना...

2
मोगी मेळूंक येतलो म्हणून
रंगल्या, शिरंगारल्या
लजेन आयजूय तांबशी जाल्या
ही आंकवार तिळसांज
जरी पिशेक आसा·खबर
जीण तिची वतली भरून
त्याच कालच्या काळखान

3
संथ चालीन सरचें भितर
सदचे वरी गोरूं गोठ्यां
तशी येता सांज शेतां...

पिके वयलें शेत सदांचें
आंग आंग हळद न्हाता
सांगूंक ताचें गुपीत दिकांक
सुकण्यां भिरें मळब हुपता...

शेता पेल्या गजनी बांदार
कोण रेंदेर माडार चडटा
रेंदराचें आयकूंक कांतार
सदची बळार उडत येता...

दमून भागून कुळवाडी
घरा यादीन वाटेक लागता
दीसभराचो ताप कामाचो
ताचे कुडी वयल्यान देंवता...

संथ चालीन सरचें भितर
सदचे वरी गोरूं गोठ्यां
तशी येता सांज शेतां...

4

दोळ्यां पेल्यान वतना
भिजून वता सांज
सांज शेंदूर न्हातना
कुकूम मागता भांग।
बुडत काळखांत वतना
लागून लागना थांग
कित्याक म्हजे रंग व्हेले
सांग सांजे, सांग।।

5

थर थर थर थर थरथरता
एक सांज सांजेता...
कोणा यादीन आनी कोणा हुडकेता
एक दूक थिरावता...
एक मोग सोंपतना
एक माया सोंपतना
एक नातें सोंपतना
कोण फकीर पिसो हो
सोंपते खीण मागता...
एक मोग भिजतना
एक माया भिजतना
एक नातें भिजतना
कोण फकीर पिसो हो
भितरल्यान तानेता...
एक मोग उरतना
एक माया उरतना
एक नातें उरतना
कोण फकीर पिसो हो
रिती जीण भोगता
थर थर थर थर थरथरता
एक सांज सांजेता
कोणा यादीन आनी कोणा हुडकेता
एक दूक थिरावता...

## भार कोणा खातीर?

कोणा एकाल्याचेर भार
तो कोणा खातीर?
एकल्या खातीर
काय सगळ्यां खातीर?

सगळ्यां खातीर जाल्यार
तांचेरय मात तरी भार जाय
कर्तव्यांचो, लागणुकांचो,
स्वाभिमानाचो.
भार जाय कश्टांचो, दिश्टाव्यांचो
तत्त्वांचो, आत्मसन्मानांचो
मात तरी भार जाय.

नाजाल्यार एकलोच कोण तरी
खुब खुब खुबतलो.
आनी भारा वयलो विस्वास घेवन
सगल्यांतल्यान उबतलो.

## चिंगार

भुजाभुजांनी पखवाज वाजले
कुडीचो चल्लो पार रे
हाता-हातांच्यो घुडयो नाचल्यो
सर्वांगाचेर भार रे
कानसुलांनी ताळ रंगले
शिरंतरांनी तार रे
पावला पावलांनी धित्रांग घुमता
गजर गाज साबार रे
रुंवारुंवांनी वाती उजळ्ळ्यो
भोंवतणीं शिरंगार रे
हो पार रंगलो आरपार
उमाळ्यांचे हार रे
लोकीक पिशें देव उस्तिता
अलोकीक पारार रे
चेवूच जालो देव म्हगेलो
दिश्टाव्या चिंगार रे

## आमी थंयचे गा

आमी थंयचे गा
आमी थंयचे गा

आडमेळ्यांचे फातर हुपून
आळस पिसाय पयस मोखून
खऱ्या बऱ्या मारता खांदे
आमी थंयचे गा

झुजा भुंयेर मोख जिखूंक
एकामेकां वळ फुकूंक
स्वाभिमान सत्व राखूंक
प्राणय मारता कोंक्यार
आमी थंयचे गा
आमी थंयचे गा

खोंट मारून तळपां फोडूं
अख्खो दर्या घोंटून काडूं
दोंगर फांकून वलांडूंक
हावेसांचे गा हुंकार
आमी थंयचे गा
आमी थंयचे गा

आमी कालचेय गा
आमी आयचेय गा
आमी फायचेय गा
जैत जंय अचर्यांनी
दिमी मोडटा दारार
आमी थंयचे गा
आमी थंयचे गा

## घणा प्रहार

न्हिदून पडल्या मानव यंत्रणा
भविश्य रडटा दुकांनी
दुर्दैवी ते युगान युगां
सोंसतात अन्याय लोटांनी

जिणेचेर आमचे करीत गेले
दर दिसा घणा प्रहार
भाव भावनांक करून स्पर्श
धर्मीकतायेचें दिवन नांव
बसून आमच्या वज्र हड्ड्यार
केले प्रहार आमच्या वर्मार
तांचे बुद्दीच्या प्रहारान
माये सुकुमाये मातयेंतल्यान
आमीच जाले हद्दपार
आमचे मठयेंतले सांठे
आमच्याच दोळ्यां देखत
फाटल्या दारांतल्यान
भरून व्हेलें साकांनी

बुदवंतांक भांडवल
गांठीक बांदिल्ल्यांक मोल
अबुद्द्यांच्या घामा-कश्टांक
शेतांत सगलें पोल
आयचें आयज फायचें फाल्यां
भुरगीं जोडीत भुरग्गीं खायत
भुरग्यां बापूय गू खायत
खाल्ले जेवले खोंटल्यांनी

कूड मेंदूय लोळटा चिखलांत
वर्सां जालीं शेंकड्यांनी

तडीक येवंक लागलीं पेंवन
इतलीं वर्सां दुबळ्या जनांक
पिकचे पयलींच पिळून खाल्ले
धरतरेच्या आदिपुतांक
आतां मात्शी आयल्या जाग
लागल्यात घालूंक व्हडली दांग
साक्षर नासून आत्मज्ञानांक
पोटाचे पलतडीचें
केन्ना कांयच दिसलेंना
कसलें राज्य कसलीं पदां
कुटनितीच्या खेळांत ह्या
कळ्ळिना कशी पडली गदा
दर दीस मन तकल्यो
चेंचावन खाल्यो गिदांनी

फुडें आतां सरूंक लागल्यात
संवसार पालखेक मारूंक खांद
उदक पावलां कुणग्यांनी
सोंशीकतायेचे फुटून बांद
गरज आसा एकचाराची
जिद्द आनी चिकाटेची
सत्य आनी शिक्षणाची
पिडीत पुर्वज मुक्त जावपाची
अजुनूय पळयतात वाट
रावन धरतरेच्या दिकळ्यांनी

## गणीत

विचारपाचें आसलें तुका
विचारुंकूच पावलोंना
आयज फाल्यां म्हणटां म्हणटां
वेळूय मातसो रावलोना ।।धृ।।

सांगूंक जेन्ना आयलों म्हऱ्यांत
ओंठार उतरां मोनेलीं
उलोवपाचो धीर ओंठांक
तुवें मातसो दिलोना ।।1।।

घुसपत घुसपत घुसपलों
दर दिसा सपनेलों
घुसपांतल्या घुसमटांतल्यान
तुवें मातसो सोडलोना ।।2।।

मनांत फुलपी उमाळे
आसले तुका दाखोवपाचे
काळजा कडेन गेलों तेन्ना
दारूय उकतें जालेंना ।।3।।

गेली खंय मनशक्ती
काळीज फोडून सांगपाची
आंकड्यांचें गणीत हें
शेवटा मेरेन सुटलेंना ।।4।।

## दुख्ख

दुख्ख इतलें आडूक आडूक
जीण जाल्या कोडू कोडू
तरीय दिसना दुख्ख सोडीन
मन बसलां दुख्खूच वेंगावन

दुख्ख इतलें अळणी अळणी
जीण जाल्या सामकीच पचकणी
दुख्ख जालां इतलें संवकळी
दुख्खाचीच जाल्या मिठा कणी

दुख्ख एक व्हडलें दुखणें
जिवन जालां तातुंतूच देखणें
दुख्खाची जाल्या इतली संवय
दुख्खूच जाल्या म्हजी आवय

## कॉंक्रिटाच्या जंगलांत

कॉंक्रिटाच्या जंगलांत
नितळ वारें खेळचें
मागून आयलां तितलें तरी
जगूंक थंय मेळचें

कॉंक्रिटाच्या जंगलांत
पाचवें सपन फुलचें
पाचवें सपन पळयतना
सवण्यांनी भुलचें

कॉंक्रिटाच्या जंगलांत
एक चमत्कार जावचो
देवळांतल्या फातरांनी
देव येवन रावचो

कॉंक्रिटाच्या जंगलांत
मनशांक मोल येवचें
मोल पयशाक आशिल्लें
सगलें पोल जावचें

## पातकी जीण लिपोवंक

पातकी जीण लिपोवंक
देवाक धाल करपाची
तुमची कल्पना म्हाका मानवली
देवाऱ्यांत नाशिल्ल्या देवाक
सजोवपाच्या तुमच्या यत्नांक
म्हणुनूच इनाम फावता!

तुमच्या मरणा उपरांत,
तुमीच निर्माण केल्ल्या सर्गांत
तुमकां सुळार मारपाची
तयारी चल्ल्या आसतली

तुमकां इनाम जरूर मेळटलें
तुमकां इनाम जरूर मेळटलें

## ये गो चेडवा

ये गो चेडवा
काजी तळा
फोकां चिरुया
वयल्या खांद्यार
सकयल्या खांद्यार
म्हुट्टे वळुया

ये गो चेडवा
वयल्या बांदार
गुळी झेलुया
म्हाजे कडसून
तुजे कडेन
खावटां पुरोवया

ये गो चेडवा
सकयल्या भोमांत
शेवकुणां पुंजावया
म्हाज्या पाटल्यान
तुज्या पाटल्यान
धग पेटोवया

ये गो चेडवा
सकयले पोंयेंत
पोटके रापावया
तुजे रवळेन
म्हाजे कंडुलेन
सावकाराक तापोवया

## उतर

हांव उतराक भियेवपाक लागलां
पयलीं वाटसुरें-बेवारशी
खरशेल्लें, अपंगूळ उतर लेगीत
मायेमोगान वेंगेंत घेतालों
पूण एके फावटीं
सादेभावार्थी दिसपी उतर
म्हजेच वेंगेंत निश्प्राण जालें
पुलीस तपासांत हांव घुसपलों
तेन्ना सावन उतराचो आनी
म्हजो छत्तिसांचो आंकडो
नवकाव्यांतलें रफ उतर
जरी वाटेर मेळ्ळें
तरीय हांव भियेतां
हाताक मेळटा तें शेंवटितां
नाजाल्यार कूस तरी मारतां
पाडेल्यान भाटांतल्या करकीचे
सुके सडसडीत नाल कोचूचे
तशींच उतरां...
पयलीं हांव फकत गाळींकूच भियेतालों
थर्त...
आतां दरेका उतराकूच भियेतां
ताचे रंग-ढंगूय म्हाका दिसपाक
लागल्यात
दिसान दीस महाकठीण जालां
ताचो संबंदूच तोडपाचो धीर जायना
कारण संकटां वेळार तींच पावतात
हांव थर्त भियेलों तरी,
आपूण जावन म्हाका वेंगेंत घेतात
देखून, हांव उतरांचो मोग करतां.

## हांव आनी कविता

आमचो जल्म
जल्माचे आर्दीच जालो
पूण सर्व वाऱ्याक रावतालो
जेन्ना सपनांतल्यान
दोळो काडलो, तेन्ना
आमचो निसर्गी
जल्म घडलो
किल्लतना,
हांवूच किल्ललों
आनी कविता
खंय तरी
सांडून पडली
आतां,
वाऱ्या बाराबर
फुलतालों
आनी
खंयच्या तरी
विचारांत चिड्डतालों
जवाबाचें फळ
ना म्हूण
कळोय दिसतालो
फकत परमळ
येतालो
केन्नाय
सुंदर मळांनी
आनी शितळ वेळांनी
पयसुल्ल्यान
कोण तरी
वाऱ्या आनी
ल्हारां बाराबर बुडत बुडत
सोदता म्हूण
आंग शिंयांनी
भिजून थापो जातालो
कांय फावट
सपनांनी लेगीत
तिका बोवाळ्ळो
आनी
सोदीचो
आगरो धरलो
निर्मण,
देखून बरें घडलें
एकमेव आमचो
जावन फुल्लो
तेन्ना सावन
आतां,
कविता म्हाका
सोदीत भोंवताली
तीच खंय
वाऱ्या-दर्याक
तुफान घालताली
एकूच आमची
जल्म-शीर म्हूण
दर दिसा उत्सव करूंक
सुर्याक आमचो केलो

## अंतर

म्हज्यांतलें आनी तुज्यांतलें अंतर हांव नकळों
आमची जीण एका सुता धाग्या भशेन
जी विणत वता गच्च गच्च
आनी आमचे संबंद आंवळून येतात

धागो लेगीत घट घट जायत वता
गुंथून वांगडा असो
तरी आसतना तो तुटपाचोच केन्ना तरी
पयस करीत आमच्यो जिणो एकामेकां सावन

पतंग उबता अधांतरी
सुरवातीक गोलांट्यो खावन आतां थीर जाला
मंद वाव घेत मळबाचे तेंगशेर पावला
पूण धाग्याचो हात केन्ना सुटत सांगूं नजो

हो पतंग म्हज्या जैताचें प्रतीक
अणभवांचो आर्काटो हड्ड्याक घट्ट आंवळून
पयस रावन म्हाका पळयता
धागो सवकासायेन गुठलावन
म्हाका तो बगलेक हाडूंक जाय

फुडाराक म्हाका कितलेशेच पतंग उबोवपाचे आसात
देखून हो धागो जतनायेन म्हाका फिरकेक रेवडावंक जाय
पतंग म्हाका तोडपाचे नात गोमट्यो कापून
हेरांकूय शिकोवपाचें आसा उबोवंक आसमंतांत

## हांव

एक पावल आलतडी
एक पावल पलतडी
दोनूय चाल चलतात
दर्याक मर्दी घालतात
उदकाक ना वंय
हांव थांबूं खंय
एक दोळो एकल्याक
एक दोळो दुकल्याक
काळीज मात घाणाक
उलो मारूं कोणाक
हय ना; ना हय
थंय हांव रावूं खंय
एक मन उडटा
एक मन मोडटा
हातांक नात पांखां
सावळे पोंदा दुकां
बसूंक ना जंय
हांव जियेवं खंय
एक घडी झळकी
एक घडी काळखी
सैमा मोनी जाग
हावेसांक लागली आग
जिणेक सुटला भंय
हांव मरूं खंय!

## दर्या मोगांत पडला

दर्या मोगांत पडला
मळबाच्या
हांवें तें देखलां ज्युस्त
कुशीक रावन ल्हारांच्या

रूप ताचें हड्ड्यार
कोरांतलां ताणें जीव मारून
असो सदां धडपडटा
मळबा ओंठांक
ओंठ तेंकोवंक
हात उबारून
तरी हांवें विचारल्यार
नेगार वता
लजेता...
मोन्यांनी
म्हाकाच घट्ट धरता
ओडून...
मळब समजून म्हाका
ओंठांक म्हज्या
ओंठ तेंकयता
भान सोडून

## देवान म्हाका सगळें दिलां

देवान म्हाका खूब दिलां
थंड शितळ वारो दिला
रुखार फळां फुलां दिल्यांत
पियेवपाक म्हाका उदक दिलां
देवान म्हाका खूब दिलां

सुर्याचो उजवाड दिला
न्हिदपाक थंड रात दिल्या
काळीज दिलां, मोग दिला
पळोवंक दोन दोळे दिल्यात
काम करपाक हात दिल्यात
चलून वचपाक पांय दिल्यात
आयकूंक सगळें कान दिल्यात
बऱ्या वायटाची जाण दिल्या
बुद्द दिल्या, मन दिलां
देवान म्हाका सगळें दिलां

मागपा सारकें कांयच ना
मागिनासतना सगळें दिलां
देवान म्हाका खूब दिलां

## दिवो

त्या दिव्या वरी
जळूंक जाय
पांयांतळा काळोख आसतनाय
उजवाड सगळ्यांक
दिवंक जाय

मळबांतलो सुर्या
जरी ना जालो
ना जरी जालें
मळबांतलें नखेत्र
घरांतलो दिवो तरी
जावंक जाय
उजवाड सगळ्यांक
दिवंक जाय

त्या दिव्या वरी
जळूंक जाय.
पांयांतळा काळोख आसतनाय
उजवाड सगल्यांक दिवंक जाय

## रुजवण...

नवे व्हंकलेची
नुरा पळयली
तशी मातयेक
'व्यथा' उमजली
मुमुरख्यांनी हांसत
ती म्हणपाक लागली...
हळडीचें आंग तुजें
इतली कित्याक लजली?
पांयां पोंदची जमीन
बाये! खरपूं नाका
नवी नवलाय अशी
लिपोवं नाका
तुजे सारकेंच
म्हजेंय दुख्ख
तुजे सारकेंच
म्हजें सूख
अनादी काळा सावन
आंग म्हजें वलें हळडीचें

मोन्यांनीच सगळें
सोंशीत रावपाचें
खोरें, कुदळ
घाय नांगराचे
जल्माचेच सगळे
भोग भोगपाचे
अशेंच आसता
दुख्ख रुजवणेचें
अशेंच आसता
सूख सृजनतायेचें
अनंत यातना
सोंशीत जगपाचें
आसा तातुंतूच
सूख मानपाचें
बियांची रुजवण
धरतरेच्या गर्भांत
मायेची ऊब
आवयच्या कुसव्यांत

## सूख

शारांत फ्लॅटांत रावून पसून
ना म्हाका दुख्ख
जनेला भायर फुलिल्लें सैम
दिता म्हाका सूख

आंब्या झाडार आशिल्लो घोंटेर
दीसभर चिंवचींव
माडा कडेन सर्त करूंक
फुल्ला सायला रूख

सांगांनी भरिल्लें म्हसका झाड
हुसकेता सुंगटांक
झाडा वयली पोपाय म्हणटा काय
कर आपलीच शाक

माड सामको वडील कसो
आंगार पेंडी खेळयता
पिकिल्लें पेर खावन कीर
तांबडी चोंच लिपयता

अशीं सगळीं सांगातान म्हज्या
आसात म्हणून काय
गांवा कडलें घर सुटिल्ल्याचो
पेखत वता घाय

## विरह

केदेंय अरिश्ट
परवडलें म्हाका
सोडून
तुजो विरह

## मायको-क्योतो, जपान

भर दनपारच्या कडार
क्योतो शारांतल्या गिओन वाठारांत
दिसली गोरी गोमटी चली
लंव गुलाबी किमोनो न्हेसिल्ली.
हातांत रंगरंगयाळी सत्री
पांयांत गेटा
माथ्यांत फुलांचे घोंस

जपानी सुंदरकायेची मूर्त
दिसलें, वता आसतली
खंयच्या तरी सुवाळ्याक
मागीर कळ्ळें
ती मायको
वताली खंयचे तरी
टी हावसाचे दिकेन
खंयच्या तरी दादल्याचें
मन रिजोवपाक...

म्हजे नदरे मुखार उबी
हांवें पळोवंक नाशिल्ली सायुरी
म्हाताऱ्या बापायन
विकिल्ली गेयशा बाजारांत
तिच्या निळ्या दोळ्यांनी
रखरख बुडयत चलिल्ली
गिओन वाठारांतल्या
शिजो अव्हेन्यु वयल्यान
टी हावसाचे दिकेन...

## गेयशा

जिवितांतली कोडसाण
हातांतल्या साकेच्या पेल्यांत रकयत
साकुरा फुलां भशेन फुलिल्ली
जपानी सुसंस्काराचे फास्केंत
बंदिस्त आशिल्ली
गुणी कलावती

## बॉम डोम-हिरोशिमा

बॉम डोमाच्यो विखाळ वणटी
गवाय त्या काळ्या दिसाच्यो
निखळ्ळेल्या घुमटांतल्यो सरयो
मोन्यांनी सांगतात काणयो
भगभगीत उज्यांत घुसमटून
गोबर जाल्ल्या मनशांच्यो
बॉम डोमाच्या उकत्या दारांतल्यान येवपी
काळीज पिंवळपी
मरणाच्या वासाचो भास
म्हजी तकली झिणझिणायता
दोळे दुकांनी थपथपायता
हिरोशिमाचे लासून निबर
जाल्ले भुंयेचेर
म्हजींय दोन दुकां गळयता

**सायुरी**- विसाव्या शेंकड्यांतली जपानांतली पयल्या नंबराची गेयशा. तिचें मेमोआर्स ऑफ गेयशा हें आत्मकथन उजवाडा आयलां.
**मायको** - प्रशिक्षणार्थी गेयशा.
**साके** - तांदळाचो सोरो, जपानाचें राष्ट्रीय पेय
**साकुरा** - चॅरीचीं मोसमी फुलां
**गेटा** - खडावे भशेन लांकडाचें जोतें

## जिवीत

जिवीत थोड्यांक सपन एक
फकत न्हिदेंत पळोवपाचें
जाल्यार थोड्यांक उमाणें
जागें रावन सोडोवपाचें
जिवीत थोड्यांक बांय एक
एकाच जाग्यार बसपाचें
जाल्यार हेरांक नदी जावन
व्हांवत पयस वचपाचें
जिवीत थोड्यांक उमाशे रात
सगळ्याक काळोख करपाचें
जाल्यार हेरांक पुनव जावन
चान्नें सगळ्यांक शिंपडावपाचें
जिवीत थोड्यांक कोळमो एक
हेरांक जळयत रावपाचें
जाल्यार थोड्यांक मेणवात जावन
दुसऱ्यां खातीर जळपाचें
जिवीत थोड्यांक पेन्सील कशी
जाय जाल्यार बरोवचें
नाका जाल्यार घवे फोलीर
काळें जायसर झरोवचें

## पावलां

सांजवेळार दर्यादिगेर
दिसलीं तुजीं पावलां
पळोवन खोशी जावचें
तोंड म्हजें बावलां

तुज्या पावलांक तेंकून कोणें
मारल्यांत आपलीं पावलां
फुडें फुडें पळयत जाल्यार
पावलाक पावल जोडलां

पावलांचे हे काणयेन म्हाका
खूब कितें सांगलें
तुज्या-तिच्या पावलां पोंदाक
पावल म्हजें लिपलें

केन्ना तरी येतलें ल्हार
वाट पळोवन रावलां
रेंवेर फकत दिसतलीं
तुजीं-म्हजीं पावलां

## अश्रेकणी

म्हज्या सवण्याक पांखां फुटल्यांत
केन्ना तरी तें उडटलें
ताचे फाटल्यान म्हजें घरटें
रितें रितें पडटलें

सवण्या म्हज्या उडचेंच तुवें
म्हजी केन्नाय करची याद
मळबा मेरेन पावलें तरी
म्हाका केन्नाय घालचो साद

नव्या झाडार नवो हावेस
तुजींय पिलां आसतलीं
पांखांनी वारो भरले उपरांत
तुजेच सारकीं उडटलीं

म्हजीं उतरां तुज्या तोंडांत
तुकाय पिलांची येतली याद
मळबा मेरेन पावलें तरी
म्हाकाय केन्ना घालचो साद

## आजी

तोपांत उकडी पेज रकता
खतखत्यांत फोडी खेळटात
आंबलेचीं खळा तोरां
तोंडाक रे रूच हाडटात...

आंगणा मांदरेर चंद्रा रास
सुपां हुंगतात चान्न्या भास
दनपारभर बडी घेवन
कावळे काडटात लिपून दीस

पोरसां फुल्लां तांबडें तोंड
तांबड्या तोंडाक हरवे कान
आळ्या उदकांत खेळत आसात
सवण्यांचीं जोडीं दोन

धुकटा रांदनीक मळब ओत्ता
न्हाणये कडेन गोकूळ न्हाता
किटी किटी चुडटां वाजून
तांब्या भाणांत उदक तापता

प्रसाद मुकार परवड चल्ल्या
देवाकुडींत कृष्ण भरला
आजयेले न्हिदूंक मांडयेर
कावळ्या काणयेक रड धरल्या

## गीत

जिवीत तुजें कवीत कर रे
म्होंवें सुरें गीत जावं
क्षितीजाचे पलतडी तूं
ताल सूर सोदीत राव

सपनाळी जीण म्हजी
खिणयाळो शीण रे
खिणाखिणाक आपयतां तुका
नदरेंतलो मोगाळ भाव

ताल सूर सोदतना
लय तुजी चुकत रे
बेसुरें गीत नाका
कान लावन बसलां हांव

कवन तुजें घडयतना
एकूच मतींत दवर रे
यमक जुळयत बसूं नाका
जळीं थळीं चोर साव

धाय दिको परमळ तुजो
सैम तुजेर पिशें रे
वाऱ्याक सांगूंक विसरूं नाका
तुजे वांगडा म्हजें नांव

## घट

कितली ओडलायणी दिसता
माथ्यार कमरार
घेवन
धोलपी घटाचे
संतुळण करपी
तुजी चाल!

## घुसमट

न्हावन
सुकयतां केंस
खिडकेंत.
हांव भितर घुसपतां!

## धरतरी माया

धरतरी माये
आंगार तुज्या
पावलां गे कितलीं
हाताच्या म्हज्या बोटार
मेजूंक जायनात तितलीं

सांग खंयच्या
पावलांचेर
चड तुजो मोग
उगड ताचें नशीब
पयस करून राग

पोटाची गे वेंतभर
चरी भरपाक
कितलीं पावलां चलूं
चलतल्या जिवाक तूं
वगत नाका करूं

धरतरे माये
तुज्या आसऱ्याची
माय खूब चड
भुकेल्ल्याची भूक
भागोवंक तूं
सदांच व्हड

## उगडास

दाटून उराक आयलो, सोबीत हो सहवास तुजो,
जादू तुज्या खुणांची, मोहून गेलो सुहास तुजो

वाऱ्यांत व्हांवन आयलो, स्पर्श तो अबोल तुजो,
स्पर्शांत भिजोवन गेलो, अस्पर्श हो भास तुजो

भारावन चित्त गेलें, दीस आनी रात खबरांनी तुज्या,
पिशें मनाक लायता, याद तुजी उगडास तुजो

दिश्ट लावन गेली, नदर तुजी फारावन म्हाका
नदरेंत भरून आयलां, ध्यास हो तनामनांत तुजो

हें रान मनाचें, फुलां वालींनी सजलें पळय,
परमळून आयली फुलां वरी प्रीत म्हजी विस्वास तुजो

## फुलांची भास

सोबीत कळ्यांक फुलांची भास येवची,
भावना उतरां जावन मोनीं मनां उलोवचीं

रंग तांकां मेळचो, रूप तेंय मेळचें,
मंद मंद उतरांच्या परमळान तीं न्हावचीं

फुलतल्या फुलांक खेळपी पानांचो सांगात जसो,
निशब्द ओगी ओंठांत हांसतीं खुणां खुणावचीं

एक एक फूल गुंथ्था माळ जशी,
मांडून नवीं अक्षरां भास नवी लावची

बावतलीं तीं फुलां झडटलीं गंध राखून
विसरतले बोल तेन्ना अबोल जिवी रावची

## मना

समजून घे मना-भाव तूं म्हजे,
एकदां मुखांत घे नांव तूं म्हजें

नदर उबारून पळयतां पयस पयस तुका,
नदरेंत हे पळय, थिरावं तूं म्हजे

तुजेंच भोंवतणीं शेणलें मन म्हजें,
वळखून घे तुजे सरीं, घेराव तूं म्हजे

वळून वळून तुजे कडेन पावलां येतात म्हजीं,
तुजे खातीर आतूर पळय, धांव तूं म्हजे

सोबीत ह्या खिणांक, सांग तुज्या मनांतलें
पयस कर आतां तरी, दुबाव तूं म्हजे

## प्रीत

तीच तूं प्रीत म्हजी, तेंच हांव तुजें,
रंध्रारंध्रांत म्हज्या, एक नांव तुजें

चिंतनेच्या मळार, उरलेंना दुसरें कांय,
मंजूळ मनांत म्हज्या, सगले भाव तुजे

जाग्या दिसा जगता, न्हिदता न्हिदेचे वेंगेंत,
यादींच्या जगांत म्हज्या, फकत घेराव तुजे

उमेदीच्या भावनांक आयलो पूर शब्दांचो,
तोच तूं जावं म्हजो, तेंच हांव जावं तुजें

## तीन कविता

1
दुकां
आसल्यार अर्थ
उतरां विरयत काणी
ना जाल्यार फकत
खारें पाणी...

2
तुवें भेटयिल्ल्या
जायांचो परमळ
दरवळटा अजुनूय
म्हज्या केंसांनी
जावन तुज्या
अस्तित्वाची कुरू...

3
तूं म्हजे पसून
पयस आसपाची
न्हय ही
पयलीच खेप
तुजे यादींचे
उमाळे
जशे गुरवारीचे
खर दुवाळे

## जीण

फातरा तूं
माती जा
माती जावन
वत खा
थकिल्ल्या संवसाराचो
घाम गिळटकच
तुजेर फुलांची
रोंपी फुलूं दी
सोंपसर
ही जीण

